● अिश्टागत प्रकाशन



● पयलें छापप
डिसेंबर १९८१.

● छापपी
गोमंत प्रिंटींग प्रेस
मडगांव – गोंय.

● उजवाडावपी
रमेश वेळुस्कार
अिश्टागत प्रकाशन
अी – ३६, मळें
पणजी – गोंय.

मोल : १५ रुपया

# क था क्र म







म्हजो

बापोलयो

श्री. जगन्नाथ सुभा नायक

हांकां माये मोगान.



अेक गजाल जिवाक मिळ्ळी.

तेच खरे गजालीची म्हजी कथा जाली. गांवचे तळयेंत, घरच्या आंगणांत आनी मागीर, मेळव थंय दर खिणां, जिवीताच्या कणांकणांत म्हाका कथा गावपाक लागली. जशी ती गावली तशी ती बरयली.

म्हाका याद जाता—

म्हजे पयलेच कथेची. गावांत अेक बाप्टो मनीस धोतरांतलो, काळे तोपयें-तलो, आंकवार चलयो आसा त्या घरानी भितर सरून आपल्या कल्पनेंतल्या चल्याक सोयरीको जुळयतालो. अुलैतां – अुलैतां इतली इश्टागत जोडटालो कीं सगळें थारावन भागरार्चे काकण जांव मुदी व्हकलकाराकडच्यान जोकाक व्हरतालो. खूप दीस होंकलकार वाट पळेताले, पुण तो ठकशेन बाप्टेलो परत केन्ना येनासलो. म्हजी पयले कथेची नायिका अशीच व्हकल कशी कडेक अुरता आनी तो ठकशेन नकळटां कथेचो नायक जाता.

आनी मागीर हेभशेन हांव गळसरी मेरेन पावतां. म्हज्या घरचे खबरेक "कथा" करतां-करतां गांवांतलो शिगमो, रानांतलो बैल, शेतांतलो ओमगो, देवळा-कडचो सेनायकार, कुळागरांतलो चंद्रा आनी शारांतलें काळखाचें गांव भोंवत भोंवत हांव गांवांभायर, शाराभायर अस्ल्या संवसारांतच थळ-कुळ सोदीत आसां.

कोंकणी कथेखातीर म्हाका म्हजी नदर अदीक धारेची करपाची आसा हाची जाणीव दवरूनच म्हजो हो पयलो-वयलो कथां झेलो वाचप्यांक दितना म्हाका खोस जाता. झेल्यांतल्यो सगळ्यो कथा ह्या आदीं राष्ट्रमत, जाग, कुळागर, सोमार, नवें-गोंय, जैत ह्या अंकांतल्यान उजवाडाक आयिल्ल्यो आसात; दोन-तीन कथा संग्रहांक पावपाइतल्यो उजवाडाक आयिल्ल्यो कथा गांठीक आसात. पुण ह्या संग्रहांत कथांचो दर्जो-काळ ह्या गजालिचें तोल-मोल करीनासतना ज्यो म्हाका घालच्यो अशें दिसलें त्यो हावें घाल्यात, देखून एक कथा वयर तर दुसरी कथा सकल अशें दिसपाची शक्यता आसा. ह्या कथासंग्रहांत म्हजी पयली कथा 'ताची करामत' हातालागीं नाशिल्ल्यान तिचो आस्वाद करूंक जालोना, पुण दुसरी कथा 'अंत एके जिणेचो' ही मात हांवें मुद्दाम घाल्ल्या. आनी 'काळखाचो गांव', 'येरांस', 'महारुद्र' ह्या हालींच्या कथांचोय आस्वाद केला. ही म्हजी कथा-विस्वाची भोंवणी. ती म्हज्यांतल्या कलाकाराच्या पावलांनी आपल्याचे तांकीप्रमाणे केल्या. ह्या पावलांक आजून खूप-खूप चलचें आसा हाची जाणीव दवरूनच ही 'गळसरी' गुंथून कोंकणी सरस्पतीच्या गळ्यांत नमळायेन घालतां.

गळसरी गुंथूंक फेती जाय आसली. गोंय दामांव दिव कला अकादमीन हांगा थंय पडिल्लीं पोवनां एकठांय बांदपाक फेतयेक अर्थिक पालव दिला. तशेंच म्हज्या इश्टांनी, बऱ्यामागप्यांनी पुस्तक उजवाडाक येवच्या पयलीं सवलतीच्या मोलांत दुडू घालून प्रती मागयल्यो हांचें सगळ्यांचें मायेमोगाचें रीण. खास करून पुस्तक बरेभशेन छापून दिवपाक सगळे तरेचो पालव दिवपी गोमंत छापखान्याचे मालक आनी मुखपान चित्रावपी नवो चित्रीक श्रीधर कामत बांबोळकार हांचे म्हजेर व्हड उपकार.

नागेशी-बांदोडें, १९-१२-१९८१.

एन् शिवदास

# ग ळ स री

शेतातल्यान घरांत पावल दवल्लां मात्र, घरातलीं धाकटल्यान सगळीं जाणटीं, नेणटीं, पोरांबाळां मिरयांवालीन रत्नाक वेटाळो घाल्लेवरी शेवतुभोंवतणी जमलीं. शेवतू बायडें वतांतल्यान घामाघूम जावन आयिल्लें.

आपेव्हाळांतल्यान बांदोड्या चलत येवप म्हळ्यार फकाणां न्हय! आपेव्हाळांतल्यान येतना खामणीच्या देवचाराक सांगून घेवंक घोणशी तळया खाणीरथ वचूंक तें विसल्लें ना. धयच्यानच ताणें धावशी रौद्रिन्याक सोरो-रोंट सांगून घेतलें. भुतखांबावयल्या भुताक पाळणें, तांबडो लेंस, केळीं आनी विडो दवल्ली. पिरवोळा येवन बेताळाकय आंगवण आंगयली. प्रसाद घेवन आनी बेताळाक अेक अभिषेक करोवन, शाणू गुरवाक देड रुपया दिवन पावती घेतली. पावतेंत आंगारो आनी प्रसाद बांदून शेवतून ती पुडी खावंच्या पानाच्या चोटल्यांत घाली.

अितलेंय करता म्हणसर आदेस उलगल्लो. बारांच्या कडार सगळीं देवसपणां सोंपोवन शेवतू मेकळें जाल्लें. हांगा धंय करिनासतना ताणें वद्द बांदोडेचो मार्ग धरिल्लो.

रखरखीत वतांतल्यान आयिल्ल्यान शेवतूक बरेंच पुरो जाल्लें. घामांच्यो पांवळ्यो आंगातल्यान देंवताल्यो.

कपलार लायिल्लो पिंजरीचो आइवो पटो घामान भिजून सगळ्या कपलभर जाल्लो. ताका लागून सगळें कपलूच तांबडें दिसतालें. सकाळीं आपेव्हाळांतल्यान वतना माळिल्ली शेंकराच्या फुलांची फांती वतान बावन गेल्ली. फुलांच्यो चडशो पाकळ्यो झडिल्ल्यान फांती सामकीच नागडी दिसताली. वताच्या रखरखान शेंवतूली मुळचीच काळी कात चडच काळी पडिल्ली. पावलांचेर धुळ्ळ मांडिल्लो. वाटेर पोशांतल्यान अुदक पितना धुळ्ळान भरिल्ल्या पांयांचेर उसळिल्ल्या अुदकाच्या थेंबानी खतावल्ले पांय अदिकूच विद्रूप दिसताले.

शेंवतून हातांतली पोती खुंटयेक लायली आनी किरवंटीचो बोटवो काडून वण्टीकुशीक दवल्लो. आपल्याक सगळयानी वेंटाळो घाला म्हणपाचें शेंवतूच्या लक्षांत आयलें. दोळे मोटे करीत खेंचकून तांचेर ताणें धेंगसो घालो.

‘ आगो भश्टतलीं मगो तुमी. किते बाये केन्नांच पळोवंक नाशिल्ले भशेन सामकींच आंगार येंवन पडटात ! म्हारा–चांमारांचें, लांव-लुतांचें भश्ट ! म्हाका आंगावेलें कापड तरी सोडूं दी. तुळशी, तांब्यो भरून अुदक घेवन यो. ’ शेंवतून फर्मायलें आनी मदले कुडींत नदर माल्ली. वतांतल्यान आयिल्ल्यान शेंवतूक अुजवाड आसूनय काळोख दिसूंक लागलो. आपली आवय मदले कुडींत पळयता तें पळोवन बाबलान ल्हवूच विचाल्लें,

‘ बायो, वाडयान किते सांगलां गो ? ’

‘ हय, किते सांगलां गो बायो ? ’ बाबलान तोंड अुगडटकीर ताका तेंको दिवंक सगळ्यांनीच आपापलीं तोंडां अुगडलीं. सगळ्यांचीच काळजां अुचंबळ जाल्लीं. शेंवतू वोगी आसा तें पळोवन बाबलान परत विचाल्लें,

‘ देवान बाबूक गूण घालता म्हण सांगलां मुगो ? ’

पुण तांचे वासपुशेकडेन मातुय लक्ष दिना आसतना शेंवतू मदले कुडींत आयलें आनी शेकान शेक पडिल्ल्या पुताचेर नदर घाली. सकाळीं भायर सरतना पळयिल्लो तसोच तो न्हिदून आशिल्लो. म्हच्यांत गोकुळ आपल्या न्हिदिल्ल्या घोवाच्या तोंडाकडेन पळयत तंद्री लावन बशिल्लें.

‘ बाबूचें मूत पोतलेंत धरून पळयलें गो तुयं ? ’ शेंवत्यान सुनेक प्रस्न केलो पुण आपलेच तंद्रेंत आशिल्ल्या गोकुळान तें आयकलेंच ना.

मकिली दुकां दोळ्यांत मांडोवन माथावेल्या कुरकुटांतल्या देवांकडेन तें पळयत रावलें. जाल्या गेल्ल्या पितरांकडेन, कांजणी-पुर्वांचे मायबिणीकडेन आपलो शिरंगार, कपलाचो कुकूम, गळ्यांतलो मणी राखून दवरपाक तें मागतालें. कुरकुटांतल्या निरांजनाची वात मंद तेंवताली. मदीं मदीं वाऱ्याच्या झांतामरशीं तंवकताली. तंवकतना वात आतां पालवता काय दिस. रोखडेंच गोकूळ वाती भोंवतणीं हात फांकारून वाऱ्याक अडमर करतालें. वारो थांबतालो आनी वात परत नीट जाताली.

तशी ती वात दीसरात शेंवतुल्याचे मठयेक उजवाड दिता. चड करून कुरकुटाक. ह्या कुरकुटांत सगळ्यांची अस्मिताय पुजल्या. जाल्या गेल्ल्यांक प्रसाद पाकळी घेवन दवल्ल्यात. शेंवत्याच्या मांवांक तंबाकूच्या लातांत घाला. सात वर्सांच्या मेल्ल्या चेड्याक पिंजरीचे ड्रयेत घाला. सगळ्या पितरांक हे भगेन मांडून दवल्ल्यात.

ह्या सगळ्या पितरांमदीं एक फातराची मूर्त आसा. आनी मुर्तीचे कुशीकच रंगयल्ली वेतकाठी आसा. दुसरे कुशीक शेंवतुल्या मांवाली 'राण्यांबरोबर झुजाक वेतना व्हरपाचे नरमादेची' शिदया मूठ आसा. कुरकुटांतले वयले वळेर शेंवतुल्याचें अेक चावयें पेट्ल आसा. पेटूल बरेंच जड आसा.

ह्या देवाऱ्यामुखार शेंवतू दर आयतार-बुधवारा वेतकाठी हातांत घेवन, केंस मानेर घेवन रातभर खुदतालें. पुण जाण्टेपणाक लागून हालींच ताणें आपलें देवसपण गोकूळाक दिलां आनी मांयचे भशेनच आतां गोकूळाय त्याच सुरांत आनी त्याच तालांत रातभर खुदता.

कितलो तरी वेळ गोकूळ कुरकुटांतल्या देवांकडेन पळयतालें. ताका कसलेंच भान नाशिल्लें. कसल्या तरी भंयान ताणें धांवाचें छातयेर तकली दवल्ली.

गोकूळाचो घोव बाबू म्हळ्यार शेंवतूलो व्हडल्याफाटलो पूत. लग्न केल्यार तीन वर्सां जातलीं. एक भुगांय ताका जाल्ला आनी आतां तर गोकूळ भरिल्ल्या आंगाचें आसा. सबो संपून येवांतल्यान मातवो व्हागिल्लो. आपली बायल दुसरे खेप गुरवार आसा हाचो बाबूक अभिमान दिशिल्लो. ताणें मनांत म्हणिल्लें,

'ह्याणेंकान्नी आतां म्हाका चेडू दी गे'...

बाबूलें हे इतवांगडाच बाबू दुयेंत जालो. मुतांतल्यान धवें धवें वचूंक लागलें. पयलीं बाबून कोणाक सांगलें ना. एक दीस ताका धुंवळ आयली आनी

तेन्नाच्यान बाबू हातुणार पडलो. बाबूलें मूत पळयलें, मुतांतल्यान साकर वताली. शेंवतूक कळ्ळें, चेड्याक गोडें मूत वेता. सगळ्यांक कच्च जालें.

शेंवतूलो बाबू म्हळ्यार बत्तीस तेत्तीस वर्सांचो धडधाकट, सायलाची पाटी कसो! शेंवतुले मठयेचो खांबोच! शेंवतुल्या घराचें पाखें ह्याच खांब्यार तिगून आसा. सगळे हेंच म्हण्टात. नासणो म्हणू नाका, हुडीद–कुळीद म्हणू नाका, तवशांचो मळो आनी कोमुनिदादीची नदर पावना तसल्यो शेतजमनी बाबू एकलो रोयतालो. घरांत भाताच्यो, कडुणाच्यो राशी पळोवन येतल्या वतल्याक शेंवतूचो दुस्वास दिसतालो. इतलेंय करून शेता भाटाचीं कामां जातकूच बाबू सोरो घेवन घांटार वतालो. 'घांटार सोरो व्हरचो तर तो बाबूनच' अशें म्हणून चोरयेचो वेपार करपी लोक ताका तोखेताले. पुर्तुगेजाकाळार कितले फावटींच म्हादेव शेटीलें भांगर ताणें बेळगांवां पावयलां जातलें.

अशे नाना धंदे करपी बाबूक गोड्या मुताची पीडा लागली. पयलीं पयलीं धात धात म्हणून बाबून दुर्लक्ष केलें. मेळत तें खावन, सोरो पिवन पिडेचें पथ्य पाळलें ना. आनी पायांक जाल्ल्या फेरिदांतल्यान मातेर येवंक लागून जेन्ना घाण मारूंक लागली तेन्ना मात घरांत एकूच आकांत जालो.

बाबूलो म्हातारो बापूय येसू तर सामकोच काचाबूल जावन गेलो. ताणें वेळ काडिनासतना शेंवत्याक देवसपणाक धाडलें आनी खुदयलें. प्रसाद पाकळी घेतली, गायित्रेक पान दिलें, ब्राह्मण वाडलो, रणखामांत वयल्या सकयल्या पुर्वांचीं धांवां बांदून घेतलीं. खेतल्याक, समंदाक पिशा रवळूच्या पांयांपोंदा बसयलें, सगळीं देवसपणां केलीं. पुण बाबूक गूण पडलो ना. कोणें कोणें झाडपाल्यांचीं वखदां सांगलीं, तींय केलीं. पुण गूण पडलो ना. कोणे दोतोराचें नांव सुचयलें. पुण शेंवत्यालो तसल्या वखदांचेर विश्वास ना. दोतोर म्हळ्यार 'सुयो तोपून जित्या मनशाक मारपी यम' अशें तें म्हणं. आनी त्याखातीर पंचावन्न वर्सांचे पिरायेंत ताणें दोतोराचें तोंड पळोवंक ना. एका गांवच्या दोतोरान कामणीचे दुयेंतीक बारीक जोराचीं इंजेसांवां तोपिल्ल्यान एका शेटीले वयावयले चलयेक विनाकारण जीव होगडावंचो पडलो ही गजाल शेजारच्या आबोल्यान सांगतसावन शेंवत्याक दोतोर म्हळ्यार तिडक मारता. शेंवतेंच न्हय, शेंवत्यालीं घरचीं जाणटीं नेणटीं लेगीत दोतोराक वळखनात. तांगेलो दोतोर म्हळ्यार देव-देंवचार, घाडी–जोयशी!

आज सकाळींच बाबूलें चड जालां तें पळोवन आपेव्हाळांतू शेडुया घाडयागेर आसो काडून सगळीं घटां बांदून घेवपाक तें गेल्लें.

x x x

शेवन् भायर आयलें. ' दी गो तांबयो ' म्हणून ताणें तुळशील्या हातांतलो तांबयो घेवपाक आपल्या आंगावेल्या भस्टाचो ताका अुगडास जालो. ' राव आं, हें सोडयतां ' अशें म्हणून भायले वटेनचे दांडयेवयलो साक गुठलावन तें कापड पोलको काडपाक लागलें. ताणे 'भायलें' वयर अुडयलें आनी तांबयो घेवन आंगणांत हातपांय धुले. हाताशिरेन अुदकाचो घोंट घेवन कुन्नूकुचू करून तोंडांत खळखळावन गालांतल्या पानाच्या सोरासैत घोंट पच्च करून भायर उडयलो. दोन तीन फावटी दोळ्यांचेर उदक मारून घेतलें आनी तोंडार हात भोंवडायलो. त्या बरावर आशिल्ली नाशिल्ली पिंजर वचून कपल धवें दिसूंक लागलें. ताचें उगडें कपल पळोवंक सगळ्यांक कितेंशेंच दिसलें. शेवतू जेन्ना कपलभर आडवो कुंकूम लायता तेन्ना तें देवळांतल्या मकरांतली देवता कशी दिसता.

साक रेवाडूनच तें भितर आयलें. घरांतलीं पोरां तोरां लेगीत शेवतुल्या हालचालींकडेन बारीक नदरेन तुकू तुकू करून पळयतालीं. ' शेवतू देवाक गेलां, आतां बाबूक गूण पडटलोच ' असो सगळ्यांचोच भावार्थ आशिल्लो. आतां तें कितें सांगता तें आयकुपाची सगळ्यांकुच उमळशीक लागिल्ली.

दांडयेवेलें जुनेर ओडून घेवन शेवतुन साक उडयलो आनी जुनेर न्हेसतच ताणें गोकुळाक परत तोच प्रस्न केलो.

' बाबूले मूत पोवलेंत घेवन पळयल्लें ? '

प्रस्नासरशीं कच्च करून आंग काडून गोकूळ भानार आयलें. बाबूले छातयेवयलें मस्तक काडून सारकें बसत ताणें मांयक जाप दिली.

' हय. सकळींच पळयलें. तुज्या फाटल्यान तेका दोनदां मुतोंक जालें. दोनूय फावटी मूत घल्ल्यार चडूच फेणेर आनी धवें कण दिसूंक लागले.'

' पाडा पोडों वेगीन !.. कोणाचें व्हायें ना जेयें, हें आमचेच फाटल्यानशीं विल्याक लेगलां काय ? कोण ना हय रे हे मठयेचो अभिमानी ? सगळे जाल्ले गेल्ले मेले हय रे ?.. सगळ्यांकुच घातले हय रे फोणात ? कोण ना हय रे ह्या शिवराचो राखणदार ? पायणंतिल्या देंवचाराकूय मोन्या रोंटाचो धेंक ना. खेतन तळ्यांतल्या पुरसाकूय कांयच दिसना ? बाबूक गूण घालीना जाल्यार एक पयसो पडचो ना ! एक बात लेगीत आमच्या वंशाची हाच्या मुखार हांगा पेटची ना. कितेंय खोटें-नाटें आसत जाल्यार मार फाटों; केलां तांकां सोडींत वच. आमकां कोणाकूच बादचें न्हू.. '

शैंवत्याक सामके जाळ पडले. ताणें दांत ओंठ किल्लिले, मुठी आंवुळळ्यो आनी धगधगपी हड्डें फोडून रागान कुरकुटांतल्या देवाक अुलो माल्लो.

सगळीं जाणा ताच्या अुतरांनी भारावन गेलीं. ताच्या ह्या अुतरांनी घरची नड आतां ना जातली अशें तांकां दिसलें. पेट्टी वात बरीच व्हड जाली. वातीची काजळी वयल्या फळ्याक लागून पोंदाक घस जावपाक लागली. वातीच्या उजवाडान कूड जरी भरिल्ली, तरी वात फरफरताली — उदका थेंब पडिल्लेवरी वातीक परवणी लागिल्ली.

'बायो, वात भगभगता मुगो—' वातीची दशा पळोवन भायल्यान पांडुरंगान म्हळें खरें, पुण शैंवत्याक तीं उतरां अपशकुनाचीं दिसलीं. पांडुरंगाचेर खेंचकत ताणें म्हळें,

'थुमेकाल ! पाड पडलेलो, दांतपाडो, चल हांचो...'

खरें म्हळ्यार वातीचें तेल सोंपिल्ल्यान ती फरफरताली. वातीक तेल जाय हें त्या धाकटुल्या पांडुरंगाक खबर आसलें. पुण शैंवत्याक मात दिस, ती वात देवाचे कृपेनच जळटा. 'देवाक जाय जाल्यार ह्या घरचो लामणदिवो पेट्टलो' तें सदांच म्हण. ताणें केन्नाच लामण दिव्याक आपल्या हातान तेल घालें ना; आनी आमोरेर लक्ष्मी येता म्हणून दिव्यानी तेल घालून वाती पेटोवपाक गोकूळ केन्नाच विसल्लें ना.

कुरकुटांतली वात फरफरता, भगभगता तें पळोवन गोकुळाक कच्च जालें. 'आवयस्स' म्हणून तें अुठलें आनी कोनशाची तिळेलाची बाटली काडून ताणें निरांजनाचें आनी सोमतेंच त्या लामण दिव्याचेंय मालें भल्लें. दिव्यांची कापसा वात जळून जळून सोंपत आयल्या म्हणपाचे ताका खबर नाशिल्लें.

शैंवत्यान वातीकडेन पळयत वातीच्या अुजवाडांत थंड न्हिदिल्ल्या पुताच्या तोंडार नदर घाली. पळयतां पळयतां ताका पालवतली वात आनी दिसनादीस सुकत वतलें बाबूचे मुखामळ सारकींच भासूंक लागलीं. मदींच करुले तरी खंतीन शैंवत्यालें अरदें रगत आट्टालें.

बाबूल्या बाविल्ल्या रुपाकडेन पळयतां पळयतांच ताका आपेन्हाळांतल्या शेड्डुयां घाडयाल्या उतरांची याद जाली.

'शैंवत्या, तुवें केल्लो मान परतावन घाला. दुसऱ्याली वस्त दुसऱ्या सुवादीन केल्ली बरी— कल्याण जातलें ! ..'

त्या सरशीं शेवत्याली नदर कुरकुटांतल्या पेटलाचेर गेली. हीच ती घरांतली गळसरी, वातीचो गळो फगार करताली. शेवत्याक पयलेच फावटी आज चिमटे येवंक लागले. मन खावंक उठले. तेच गळसरीचो फांस आपल्या पुताच्या गळ्याक बशिल्ल्या-सारको ताका त्रास जावंक लागलो. एकेक फाटल्यो यादी वागोळीं जावन ताच्या दोळ्या-कुडें भिरभिरूंक लागल्यो ...

..पाटण्यावाडीचे शेतवडीची पावणी हाडूंक बारभाटांतल्या बाबुशान शेंवत्याकडेन आपल्या वाडवडलांची जपून दवरिल्ली स पवनांची गळसरी घाणा दवरिल्ली. कळंतरान रीण फारीक करपाची एक वर्साची मुदत जावन गेल्ली. पावसाच्या हुंवारान पाटण्यावाडी व्हांवन गेली. त्या वरसा बाबुसो सामकोच बुडलो. वर्साभितर रीण पावोवप ताका जमलेना. तीन वर्सानी तीनूय वर्साच्या कळंतरासैत जेन्ना बाबुसो ती गळसरी सोडोवंक आयलो तेन्ना शेंवत्यान 'मुदत सोंपली, प्राज सोंपलो..' अशें सांगून गळसरी परती दिली ना. बाबुसो काकुळटेक आयलो. निमाणे कमराच्या वाल्यान दोळ्यांतलीं दुकां पुशीत शेंवत्याक श्राप दिवन गेलो —

'तुजो अस्तीकोंच वांडूंक पावं नाका!'

गळसरी शेंवत्यान कुरकुटांतल्या पेटलांत दवरिल्ली. ती पचचेलातीर ताणे जायते देव धर्म केले. घाडी जोयशी केले. घावशी रौद्रियाक बोकड्याचो मानय केलो.

शेंवत्या दोळ्यांकुडें बाबुसो आयलो. रागान थरथरत तो म्हणटालो— 'तुजो अस्तीकोंच वांडूंक पावं नाका!..' शेवत्याक सगळी कूडच आपले भोंवतणीं भोंवता कशी दिसूंक लागली. करतां करतां ताचो भोंवरो जालो. तांतूंत मदीं बाबू बुचकळ्यो खाताली आनी 'म्हाका वांचयात, म्हाका वांचयात..' म्हणून आड्डताली.

शेंवतें सट्ट करून उठलें. कुरकुटाम्हन्यांत आयलें आनी फळयेवेल्या पेटलाक ताणे हात घालो. पेटलाची चावी आपल्याकडेन ना म्हणपाचें ताच्या लक्षांत आयलें. चावयांचो घोंस घोवाकडेन आसलो.

'बाबल...' शेंवत्यान धुलो मालो.

'कितें बायो!..'

'दादा खंय आसा रे!'

'कित्याक बायो!'

'पेटलाची चावी जाय...'

'दादा मुळातेमांर गोरवांनी गेला. वोसोन हाडूं ?'

'हय चल. धावत वसोन घेवन यो....'

वात फरफरूंक लागली. बाबूल्या तोंडार अुजवाड पडिल्लो. बाबू जागो जाल्लो. न्हिदेंतल्यान अुठिल्लें ल्हान भुरगें तुकू तुकू करून अुजवाडाक पळयता, तसो बाबू किलकिल्या दोळ्यांनी वातीकडेन पळयतालो. पळयतां पळयतां ताची नदर कुरकुटांतल्या फळ्यावेल्या पेटलाचेर थिरावली.

'बायो... ' बाबून सुकिल्ल्या आवाजांत शेंवत्याक उलो माल्लो.

'चेड्या...'

'बायो.. आयज म्हाका बरें दिसना.. आंगाक उजो पेटिल्लेभशेन जाता.. आंगभर सामके सणसण मारता...'

'कांय जायना. गुण पडटलो म्हण देवान सांगलां. तेगेली ती हळशीक मातशी घरांतल्यान भायर काडून उडोवंक जाय... '

बाबू घट जालो. येवजणेंत पडिल्लेवरी शेंवत्याल्या तोंडाकडेन पळयत रावलो. हळूच ताणें विचाल्लें,

'खयची, कोणाली हळशीक गो बायो ?'

'त्या बाबुशाली गळसरी— ' शेंवत्यान थंडसाणेन म्हळें खरें, पुण त्या उतरांनी बाबूल्यो नाडयोच बंद जाल्लेवरी जाल्यो. ताच्यो दांतकड्यो कडकडपाक लागल्यो

'गळसरी ?.. गळसरी ?...' थरथरत ताणे म्हळें. काचाबूल जाल्लेवरी हातुणांतलो उठूंक तो धडपडूंक लागलो. गोकुळान ताका घट धल्लो. पुण बाबू हातपांय वयर सकयल करून कातरिल्ल्या कोंब्याभशेन तडफडूंक लागलो. हड्डुयांत दम भल्लो. म्हणटां म्हणटां घामाघूम जालो. काळजार हात घट्ट दामून धल्लो.

'चेड्या.. चेड्या.. कितें रे ?.. कितें जालें रे ? गळसरी म्हणनाफुडें कितें जालें रे पुता ? —' शेंवत्यान आकांतान विचाल्लें.

'कितें जाता रे तुका !.. देवा सायबिणी पावगे म्हाका .... !' गोकुळान एकूच आकांत केलो.

घरभर शोवाळ जालो. सगळीं बाबूभोंवतणीं जमलीं. वात बडच फरफरूंक लागली.

‘ चेड्या, बाप कर रे… ’ शेवत्यान काकुळटेक येवन म्हळें.

‘ आवय… ’ बाबून पयलेच खेप बायो म्हणचे बाम्यार आवय म्हणून साद घालो.

‘ आवय . . गळसरी…. गळसरी…. पेटलांत ना. ’

‘ किदें !… ’

‘ ह . . ह… ’

‘ चेड्या… ’

‘ रोयो कल्वंतागेर बचोन गळ. . स… ’ बाबूली जीब आडवी पडली. मुखार उत्तर फुटलेंच ना.

‘ चेड्या !. . चेड्या !…

‘ म्हज्या घरकारा .. म्हज्या घरकारा ... ’ शेवत्यान आनी गोकळान एकदमच बाबूच्या आंगार घालून घेतलें. कुरकुटांतली वात पालवल्ली ! किळच्यो, बोबो हुयेल्यानीं सगळें घर भरून गेलें. तांतूत शेवत्यालें एकूच उत्तर आयकूंक येतालें—

‘ गळसरेन घात घेतलो रे देवा— ! ’



# रानबैल

'दादो, कुसमयाक खंय पायो दिसया.' आंगभर शिब्रां भरिल्ल्या वासराचें दावें अंदीत पेरून कुश्टाक सांगलें. कुश्टा पाडकाच्या कानाक लागिल्ली किरट घट्ट चिमटेन काडटालो. पेरून आपल्याक लुडब्या उतरांनी कितें तरी सांगलां; पुणून नेमकें कितें सांगलां तें कुश्टाक आयकूंक आयलें ना. पेरू सांगच्या सांगून कितें सांगत! सदांच्यो धिरयांच्योच खबरी. आयज शिबऱ्याची काळू वांगडा धिरी लागली नाजाल्यार भटाल्या वाग्यान रामचंदाल्या म्हशीचेर शिंग माळें! असल्यो सदांच्योच खबरी समजून कुश्टान पेरूलें सांगणें तितलेंशें मनार घेतलें ना. पुणून पेरूल्या लुडब्या उतरांतलें अेक उतर ताका अर्दें समजलां ना समजलां अशें जालें. पेरून नेमकें कितें म्हळां जावये हें जाणां जावन घेवपाक ताणें मातशी नदर पेरू वटेन केली आनी हेवटेन परत किरटीक चिमटी माल्ली. 'पाड पोडों, रागशिणी कशो लागल्या ह्यो' – कुश्टान आपले भितर म्हळें आनी तेन्नांच परत ताज्या कानार पेरूचीं लुडबीं उतरां पडलीं. 'दादो, कुसमयाक खंय पायो आसा, थंदये थांगतायें–'

आनी पेरूच्या लुडब्या उतरांत मंत्र आशिल्ल्यावरी कुस्टा कणक्या माथ्याभरोन बाग कसो नीट उबो जालो. चिमटेंतली किरट भुयें जावपाक अेकवटून काडिल्ल्या फोसांतच चिमटेच्या चिमटेंतच चरचरीत चिबुली. बोटांक लागिल्ल्या किरटीच्या तांबड्या रगताक आपल्या जांगडाक घस्टीत कुस्टान पेरूवटेन अशा अर्थान दोळे वाटकुळे करीत पळेलें कि, ‘ किते, किते सांगता रे तूं पोरा ? ’

कुस्टाच्या दोळ्यांची भास पेरूक कळपाक वोगोत लागलोना. ताणे रोकडेंच म्हळें, ‘हय दादो, म्हाका यन्दयान सांगलां–’ नेटा मितर पेरून सांगलां हें अुतर सारकें म्हळें, ना जाल्यार पेरू सांगलांचें थांगयांच करतालो.

‘ सुंदऱ्याक केन्ना दिसलोल्लो खंय ?’ पेरूक दुसरो प्रस्न करपाक कुस्टान आनी वेळ काडलो ना. कोणाय आवय–बापायचो अेकसुरो अेक भुरगो खंयतरी जात्रे–फेस्ताचे गर्देंत शेणटकच सोदतना तांकां जर कोणेंय सांगत तुमचो भुरगो अमकेकडे पळेला; जाल्यार जितले अुनळशिकेन आनी खोशयेन तीं सांगतल्याक खंय .... खंय पळेला, खंय पळेला म्हुण विचारतलीं तितलेच न्हय तर ताजेपरस अुपाट उत्सुकतायेन आनी खोशयेन कुस्टान पेरूक विचाल्लें, ‘ सुंदऱ्याक खंय, केन्नां दिसलेलो ?’

‘ काय दनपयां ’– पेरून सांगलें पुण कुस्टान पेरूची जाप आयकलीना. मनशाच्या मनाची गती कोण धरीत ? खिणां खिणांत तिनूय काळ भोंवणी करपी मनशाच्या मनाक सर्गातल्यान नरकांत येवपाक जितलो वेळ लागत ताजे परस अुण्या वेळांत कुस्टाचें मन ताच्या दोळ्यांची पातकडी वयर – सकल जावंचे पयलींच अवचितच भूतकाळांत धावलें.

X X X

आजग्याच्या मातान बांदिल्ली वाटकुळीच मुडी कशी तट्टीत गाबणी कपील कोणाच्याय नदरेक भरपाक वेळ लागनाशिल्लो. पयल्या विहताचें पाडूक लोखणाचो गुळो कसो जड आसता हाची कुस्टाक बरी जाणीव आसली. कपील विहयेंतलें आनी घटमूट जाडो जुडो बांगर बैल गोठ्यांत येतलो. शिवाय शिंगाचो, काणेराच्या पोटायेच्या रोंपडेचो, शिरत्यां येदश्या कानांचो आनी दोंगरा येदया अुंच कोळाचो लांब – रुंद बैल सगळें शिवरभर शिवावरी गरड घाल्तलो. ताच्या सपनांतलो बैल कपिलाच्या पोटांत आशिल्लो.

कपील आयज फळटली, फाल्यां फळटली अशें येवजून कुस्टा दीस मेजतालो. व्हीत लागीं पावलां हाची सुलूस लागनाफुडें गांवच्या गोरवां वांगडा सुळातेमार ना जाल्यार मेल्या तळपार कपिलाक चरवाक धाडी तें लेगीत ताणें बंद केलें. गाबणी कपील चल्ताना टोंकलाक टोंकूल आपटून चिऱ्याचे खणांत वी पडून पोटाक मार लागत म्हण हालीं – हालीं कुस्टा सगळीं कामां कुशीक दवरून गाबण्या कपिलाक घेवन

भुक्त्या मळाचेर चरोवंक वतालो. कपिलाखातीर आनी कपिलाच्या पोटांत आशिल्ल्या ताज्या सपनांतल्या बांगर बैलाखातीर ताणें साकभर खोबऱ्यापेंड, करड तण बी सगळीं खाणां अेक करून पुरूमेत केल्लो. बैलाखातीर दावें, खोड, गळ्यांतल्यो घागऱ्यो, निळेमणी, पायां गेतांक मारपाक लोखणाचीं सोलां, आदी सगळ्यो वस्तू कुस्टान हाडून दवरिल्ल्यो. कुस्टा पेरूक सांगतालो 'पेरू, पाडक्यांची राखण दोळ्यांत तेल घालून करूंक जायी' तेन्ना पेरू लुडब्यानीच म्हणटालो 'दादो बायक जावंचे पर्यांच तूं पायने बांदता मये, आनी कपियागेर पायोच दातयो म्होनोन तुका कोने थांगलां?' पेरूचीं हीं अुतरां आयकून कुस्टा खळखळून हांसतालो आनी पेरूच्या लुब्रब्या अुतरांचे हेळे काडीत म्हणटालो 'बायक जातयें रे, पायने बांदूकच जाय.'

गोठ्यांत कुस्टाचो हांसो आयकून दाव्यांवयलीं गोरवांलेगीत जेन्नां मानो हालयतालीं तेन्नां तांच्या गळ्यांतले घुंगूर खळखळटाले. मनजातीचो खोशयेचो हांसो त्या घुंगुरांतल्यान परगट्टालो. दावो पांय वयर काडून तीं आंगार बसतल्या रानमुसांक धांवडायतालीं. मूस गों... गों... करून मात्सो उडटालो आनी परत तांच्या कानांच्या खाचींत रिगतालो.

भर मिर्गांतले दीस. घे म्हणून दडको येवन पावस पडटालो. भितोडेच्यो खळयो भरून गोठ्यांत अळंग अुदक भितर सरतालें. कपिलाक शेळाव लागचो न्हय, गोठ्यांत शेळ येवंची न्हय म्हुण कुस्टा भर पावसांत पिंजकी कांबळ माथ्यार अुडोवन खळी खणटालो. बरी कांबळ कपिलाच्या फाटीर घाल्ली. जळारां, मुरकां, किमसांनी खांवची न्हय म्हण कुंड्याचो धुंवर घालतालो. धुंवरान गोठो भरतालो आनी धुंवराचे दबटाणीन कुस्टा खोंकतालो, तेन्नां दोळ्यांत जाळ पडून दुकां आयलीं तरूय अुज्या पोल्ल फुंकतालो.

वयले-वयर शेण-पाणी करपाक कुस्टाच्या घरकान्नीनूय केन्नां आंग काडलेंना. कसलीच फाटफूड केली ना. देवाच्या माथ्यावयलें फूल चुकयलें पुण गोरवांच्या गोठ्यांतलें काम केन्नाच चुकयलेंना. मरत-झरत अुरिल्लीं वासरां, जोताचो पाडो आनी गाब गेल्ली कपील हीच कुस्टाची दौलत आसली. ह्या वासरांच्या नाड्यारूच ताचो अर्दो अदीक संवसार चलतालो. मळयेंत आनी वांयगणांत जोत बांदतलो जाल्यार दुसरो पाडो भाड्याक हाडटालो. भाड्याच्या बैलाचो सांबाळ, ताजें खाणें पिणें करता म्हणसर कुस्टाक भाड्याचो बैल हतापार नाका जातालो. कपिल गाब गेलां म्हण जेन्नां कुस्टाक कळ्ळें, तेन्नां ताणें मळबाक पळोवन हात जोडून म्हळें, 'शिरगांवकान्नी पाव गे बाये, आतां तरी बरो पाडको जांव दी.'—कपिलाच्या पोटांत वाडपी बैलाक घेवन आपूण मळयेंत जोत आमडितां असो ताका जाग्यानीच भास जातालो. चलतां-बोलतानाच कुस्टा बैलाक सपनेतालो.

दर सकाळीं अुठचे अुठून कुस्टा पयलीं कपिलाचें पोट दोळेभर पळोवन ती सादारण केन्नां व्हियेतली हाचो अदमास करतालो.

‘ कपिल व्हियेवपाची जाली. या चार पांच दिसांभितर व्हियेतली ’ अशीं शंकरान कपिलाचें पोट तपासून जेन्ना कुस्टाक सांगलें तेन्नां कपिलाच्या पोटावयली नदर कुस्टान पयस केली ना.

व्हियेवपाक चार-पांच दीस आसात. आतां व्हडल्या दोंगरार कपिलाक चरोवपाक व्हरप भंयाचें हें येवजून कुस्टा तिका कुस्मळ्याच्या माट्टीर कमरभर चरोव वाडला थंय घेवन वचूंक लागलो. कुस्मळेच्या वावाधोलीच्या माथ्थार दाट झाडकुलांचेर अमृतवाली लोंबकळटात हें गांवांतल्या सगळ्या राखण्यांक खबर आशिल्लें. पुणून गांजिलमूस आनी वाघाटेच्या भिरांतीन थंय चडसो कोणूच वचपाक धज नाशिल्लो. अमृतवाल मेळ्ळ्यार गोरवांक आनी कांयच नाका, इतले रुचीन तीं वाल खातात हें कुस्टाक बरें खबर आसलें. व्हियेवच्या पयलीं थोडी वाल खाल्यार कपिलाच्या व्हिताक बऱ्याक पडतली हें येवजून अेक दीस कुस्टान कपील माट्टीमळार संथ चरता ती पळोवन वाघाधोलीवटेन पावलां वळयलीं. गांजिलमूस, खाचकुली, खोवल्या-चोटां, कांटे-खुंटे वाटायत कुस्टा अमृतवालीचीं झोपां आशिल्लीं थंय पावलो. काज-माट्ट खरट कणेरीच्या आनी वालीच्या झोरांनी गच्च जाल्ली. कुस्टान काजीच्या तेंगशेर वचून अमृतवालीचें झोंप धल्लन करून ओडलें आनी सगळ्यो वाली एकमेकांक घुस्पलेल्यो आशिल्ल्यान कुस्टाच्या जोर्सान सगळींच झाडां धेंगशानीच हालूंक लागलीं. वाल ओडटाना कुस्टाक गांज ओडली, आंगार हुमलां पडलीं, पुणून वालीचें झोंप सोडलेंना. सगळी वाल जमनीर हाडली आनी व्हड भरो बांदून माथ्यार घेतली.

अमृतवालीचो भरो घेवन कुस्टा कपील चरताली थंय येवपाक आयलो. ‘अमृतवाल पळोवन कपील धांवून येतली. धरा पावसर फाट सोडची ना ’ कुस्टान मनांत म्हळें आनी आडो काडून तो मळार आयलो आनी कपिलाक अुलो मालो ‘ यो.... यो... यो... कपि ... ये... ये... ये... ’

कपील कुस्टाच्या नदरेक पडलीना. अेकाच जाग्यार रावन कपील खंयतरी सरसरता जाल्ली म्हण आयकूंपाक कान दिवन अुबो रावलो. पुणून सगळ्या रानाक मौन पडिल्लें. चारूय दिको किण्ण जाल्यो. रुकां झाडांक शेकान शेक खुदळपी वारो आनी चिव-चिवाट करपी सुकणीं लेगीत मोनी कशीं बगीच आशिल्लीं. मदींच वाऱ्याचो हल्कोच झोत येवन सुकिल्लीं पानां भुंयचेर पडलीं. पानांच्या आवाजांत पत्री सरसरताली झिलींतल्यान रानकोंबडी नाजाल्यार सरपटें सुकणें चोरपावलांनी धांवतालीं, तांचो आवाज

ते थंडसाणींत आयकूंक येतालो. पुणून कुस्टाक कसलेंच आयलें पयलें आयकूंक येनाशिल्लें. ताजें काळीज धप धप जावपाक लागलें आनी कुस्टाच्या मनांत नाका नाका तीं चिंतनां येवपाक लागलीं. कपिलाक साद घालीत कुस्टान सगळी माट्ट पायांपोंदा घाली. झाडां झुडपां, आळी, खणी, सावटां, सगळें सोदलें पुणून कुस्टाच्या दोळ्यांक कपील दिसलीना. ताज्या हड्डयांत कंप भरलो आनी सोदून सोदून बेजार जावन मात्सो विसव घेवपाखातीर तो अेका तळपार बसलो.

कास्टेच्या तोंकान ताणें कपलाचो घाम पुसलो आनी कपिलाचें येवजिता येवजितां ताज्या दोळ्यांमुखार काजुले आयले. इतली दोळ्यांत तेल घालून जपली आनी निमाण्या खिणाक ही ख्यास्त? रगताच्या भुरग्यांक लेगीत केन्नां इतली आपणायली ना, तितली हे मोनजातीक आपणायली ताजें हें पानवळ? जालें कितें आनी घडलें कितें हेंच ताका सुचना जालें. 'देवा कित्याक रे तुवें म्हाजे अशे भोग चलयल्यात?' अशें म्हणून कुस्टान तोंडार दोनूय हात धरले आनी हुंदक्या - हुंदक्यानी तो रडूंक लागलो.

हड्डयांतलो अुमाळो सोशित कुस्टान सगळें रान पायांतळा घालें. खंय सर्रर्र जाल्यार कपिलूच काय देवा अशें चिंतून आशेन दोळे फोडून तेवटेन पळोवंचें आनी सोसो ना जाल्यार कोलो पळोवन खूप निरशेवंचें.

काळोख माड्डीत दोंगर देंवतनाच पयसुल्यान 'दादो ... दादो' हो पेरूचो अुलो ताज्या कानार पडलो. त्या रानांत रातभर लेगीत कपिलाक सोदपाची ताजी तयारी आसली पुणून आपूण जर घरा परतलोना जाल्यार सगळो गांव रानांत आपणाक सोदूंक येतलो हाची ताका जाणीव आसली. आनी त्याच खातीर काळीज घट्ट करून कुस्टा मेल्ल्या-तेमान घरावटेन वच्ूंक लागलो.

ते राती कुस्टाक काडावडी लागल्यो. कुस्मळ्याच्या रानांत कपील शेंडल्या ही खबर वाडोभर जाली. घरांतल्यांक तर दोळो लागलोना. केन्ना फांत्यापारा जिळिमिळें जातलें आनी आपूण रानांत वतलों अशें कुस्टाक जाल्लें.

फांत्यापारा कावळे रडले आनी शेळी पेज घट – घट पियेवन कुस्टान कुस्मळ्याची वाट धल्ली. शियांच्या कुडकुड्याची पर्वा करीनासतना कुस्टा माट्टीर पावलो.

दोंगरा माथ्यार पावनाफुडें कुस्टान कपिलाक अेक सारको उलो मारपाक सुरवात केली. ताळो खरसो जावन सकनळी दुखपाक लागली. पुणून कुस्टाच्या उल्याक कपिलान खंयच्यानूच जाप दिली ना.

कुस्टा कालच्या जाग्यार पावलो. अमृत वाल ओडटना झडिल्लीं पांचवीं पानां, पत्रो, काटयो, तुटिल्ल्यो वाळी, मुकीं शिरपुटां सामकीं ताज्जीं दिसतालीं. काल अमृतवाल ओडटना कपील खंयच्या वाठाराचे खंयचे दिकेक चरताली तें पळोवपाक कोयण्याबालांनी खेळटाना टवलो मारून जर बाल दींडत जाल्यार, बाल सोदपाखातीर खेळपी बाल गेलां ते वटेन अदमासान फातर मारून अमकेच कडेन बाल पडलां हाचो अदमास करतात तसो अदमास करपाक ज्या झाडावयल्यान कुस्टा अमृतवाल ओडटालो थंयच्यान ताणें कपील चरताली ते वटेन नदर माल्ली, आनी ते वटेन चौंयवशीं नदर मारीत चलूंक लागलो. 'कपिल घे... घे ... घे.. यो .. यो. पाडा पडलेलें खंय शिरें मारूंक गेलां देव जाणां.' कुस्टाच्या जिवेर पयलेच खेप गायित्रेक वायट अुतरां आयलीं.

दनपारभर ताणें आख्खो कुस्मळो, माट्ट, सगळो वाठार, घाटवळा, घोगळ, आदी सगळे वाग सोदले, पुणून कपिलान ताका दर्शन दिलेंना; हांगा ना जाल्यार थंय आसतली हे आशेन कुस्टा सोदीत आसलो. माट्टी–तोंकार पावना फुडेंच पेरून मारिल्ली 'कु ऽ य' ताच्या कानार पडली.

'दादो–कपिल.. येयली .. रे'

'कपील घरा पावली!– भर हुंवारांत बुडतलो मनीस भोवऱ्याच्या तावडींतल्यान सुटून जर बरेंभशेन देगेर पावत जाल्यार देगेर अुबे आशिल्ले लोक जितल्या अजापान 'तो वांचलो!' अशें म्हणचे नासले तितल्या अजापान कुस्टान 'कपील, म्हजी कपील घरा पावली!' अशें आपल्या भितरूच व्हडल्यान म्हळें.

पेरूचो साद आयकून वाट फुटत ते वटेन कुस्टा गडो कसो घरचे वाटेन धांवपाक लागलो. धांवेत तो मळार पावलो आनी पयसुल्यानच ताजी नदर कपिलाचेर पडली. ताजे दोळे ओले जाले. धांवतानाच कुस्टान कास्टेच्या लेसान दोळे पुसले. 'जांव सायबा' ताणें मनांत म्हळें.

कुस्टा लागीं पावलो. कपिलाक दावें घालून पेरू उबो आशिल्लो आनी कपिलाचे कुशीकूच कुस्टाची बायल, भुरगीं, वाड्या वयलीं चारपांच पोरां, शेजारचो नागेश ओमगो बी उबे आसले. पुण कुस्टाची कपिलाचेर थिरावल्ली नदर पयस जालीना. कुस्टा ताच्या म्हऱ्यांत पावलो. ताजी छाती वयर सकल जाताली.

'दादो... दादो.. कपी... व्हियेली.' पेरून म्हळें.

'कपिल व्हियेली.' अमण्यान पेरूचीं उतरां परत म्हळीं.

'पाडको खंय ?' कुस्टान बोंबले देंठाकडल्यान विचाल्लें.

'पाडक्याक साणयलो सो दिसता'— नागेशान पाडको शेणिल्याची खबर कुस्टाच्या कानार घाली.

'कितें पाडक्याक शेणयलो?.. ना... ना म्हाजी कपिल अशें केन्नांच करचीना, पाडक्याक जांव वासराक रानांत उडोवन कपिल केन्नाच येवचीना. कपिलच कित्याक खंयचीय गाय आपल्याक जाल्ल्या वासराक कशी सोडून येत?' कुस्टान कपिलाचें तोंड आपले वेंगेंत घेतलें, गळो खरपिलो आनी मायेन उमो घेतलो.

गाय-वासराचो माया-मोग आनी आवय पुताच्या मायेची तुळा करून कुस्टान गायच्या आवयपणाची वोवी सांगली; आनी कपिलाच्या पोटाखालचे पाने लुचपी पाडको ना तें खरेपण दिसतकूच ताणे आपल्याभितर ल्हवूच म्हळें 'कपीऊ न्हितकूच अशें वासराक सोडून येवपाची न्हु.' ताका कितें तरी अचकीत येवजलें आनी ताणें पेरूक कपिलाक दाव्याक बांदूक फर्मायलो.

'शंकर, नागेश, आरे मात्सो उपकार करून म्हज्या वांगडा येयात. पाडको जांव वासरूं खंय तरी मेळटलेंच. हांगाच लागसरा खंय तरी व्हियेल्या जातली. कपिलागेर पाडकोच जाला जावंक जाय. त्या पाडक्याक रानांत उुंत उडोवन मारूंक फावना. तेजेसारकें दुसरें पातक ना. चलात....'

दिसभर कुस्टान आनी ताज्या वांगड्यानी सगळो रान-वाठार मस्तीलो. पयल्या दिसा मेळलोना म्हण दुसऱ्या दिसा भायर सल्ले. तिसऱ्याय दिसा रान सोदलें पुणून खंयच वास लागलोना. सगळीं रानातलीं झांडां-झुडपां धुंन्दाळतकच कुस्टान देवसपणाक हात घालो. प्रसाद पाकळी घेतली. देवचाराक मान आंगयलो, शिवरांत कोंबो कापलो, घाडी खुदयलो, पुण खंयचेकडे कांय ना जालें.

x x x x

दोन वर्सांची ही गजाल, कुस्टाच्या घरचीं विसल्लीं, गांवचे लोक विसल्ले. मदल्या काळांत कुस्टान तशीं जायतीं गोरवां वासरां पोसलीं पुण कुस्टाक मात कपिलाचें तें व्हीत सामकें कालचें परचें कशें दिसतालें.

'काय दनपयां' कुस्टाक चिंतूक पडला तें पळोवन पेरून परत म्हळें आनी पेरूच्या त्या उतरांनी कुस्टा आपल्या सपनांतल्यान काचाबूल जावन जागो जालो. न्हिदेंत पुटपुटल्यावरी कुस्टान आपल्याभितरूच म्हळें 'काल दनपरां?'

‘हय.. दादो’

‘खंय?’

‘वाघा घोलीचे तेंमकुलेर.’

‘कसो आसा, रंग कसलो?’

‘कपियाच्या आंगाभातेनूच खंय.’

सुंदऱ्यान सांगिल्ली सगळी खबर पेरून कुस्टाक सांगली.

‘आनी कोणालोय बैल न्हू मरे?’ कुस्टाक वोगीच दुबाव आयलो.

‘ना, सायको कपियाभातेनूच दिसता खंय. आमतोत जावंक जाय.’

कुस्टा आपलेभितरूच हांसलो. ‘आमचा कसो तो? आसलोय जाल्यार तो आमचो थोंडोच! रानात जल्मला, रानांत वाडला, रानांत पोसला, तो आमचो कसो? हय, आमच्या कपिलाचेंच व्हीत तें... म्हज्या सपनांतलो बांगर बैल... पेरू, तेका घरा हाडूंक जायो, कशेंय भशेन.’ अशें आरते-परतें येवजून कुस्टान मनांतलें वादळ शांत केलें आनी बैलाक हाडपाचें थारायलें.

‘रानबैलाक घरबैल करपाक भोवणी घालप. पेरू, राजू, दोरयो आनी खोडो घे बेगीन.’

कुस्टान दोन वर्सांआदीं कपिल व्हीतकच आपल्या शेजाऱ्यांक पाडक्याक सोडूंक बरो साद घाल्लो तसोच परत साद घालो. कुस्टाच्या बरेपणान सगळे गांवकार रानबैलाक सोदूंक परत रानांत गेले.

रानांतलीं सगळीं धांवां बंद केलीं. धांवां-धांवांचेर अेक-अेकल्याक अुबो केलो. आनी कुस्टान तांकां चत्राय दिली, ‘रानबैल मनशाचे जागीक लागीं रावचोना, सगळीं कामां मोन्यांनीच जावंक जायीं. दिसनापुडे कोयणेपास घालूं जायो’ सगळ्यांक सारके तयार करून रानबैलाची मोन्यानी भोवणी सुरु जाली.

सांज जायत आयली. झाडां-पानांनी अुनमांण फाफुडली. रानांत शेळाव मारपाक लागलो. बैल गावना तो पळोवन सगळेच निर्शेले आनी परतूपाचें येवजूंक लागले. गांवचे वाटेन पावलां परतूपाक खेतन तळयेर कुस्टाचे नदरेक अेक बैल दिश्टी पडलो. काळसोच, अुंच खोळाचो, हत्ती कसो मातलेलो, लोखणाचे शिंगांचो, तिवतिवीत कातीचो, तळ्यांत ओमथें मानेन अुदक पितालो. मनशाची जाग ताका दिवंक फावना

हाची खर जाण आसतनाय संवसारांतलें व्हडांत-व्हड अजाप पळयिल्ल्याभशेन ‘ हो पळे म्हाजो पाडको, म्हाजो रानबैल ’ अशें कुश्टान व्हडल्यान म्हळें. कुश्टाचो आवाज आयकून रानबैलान अुदकातलें तोंड वयर काडून मळब फोडपी हामेरी घालीत पिसाव-लेल्या हतयाभशेन वाट मेळत तेवाटेन धांवपाक लागलो.

‘ आरे म्हाजो पाडको म्हाका वळखलो – ’ रानबैल, कुश्टाचे वाटेन घोड्यावरी अुणगां मारीत येवपाक लागलो. कुश्टाक दिसलें आपल्याच अुल्यान रानबैल आपल्या म्हर्‍यांत येता. कुश्टानय बैलावाटेन धांवपाक सुरवात केली.

‘ कुश्टा, कुशीन सर ... कुश्टा .... ’ वांगड्यांच्यो बोबो हुयेली कुश्टाच्या कानामेरेन पावल्योचना.

सड्यावयल्या तळपाक सण्ण् करून मेंदू आपटतकच ज्यो कळा मारच्योना, ताज्यापरस पास्ट सोसपाभायल्यो कळा कुश्टाक मारूंक लागल्यो. रान बैलान कुश्टाक केन्नां शिंगार घेतलो तें कोणाकूच कळ्ळें ना.

रानबैलाची तोंगशीं – बारकीं शिंगां कुश्टाच्या रगतान तांबडीं जाल्लीं. कुश्टाच्या निमण्या बोबेन सगळें रान हाललें. कुश्टान आकांताची हुयेल मारली, अेकच हुयेल, सासणाची.

आपआपलो जीव वाटोवपाक झिलीनी झुडपांनी दडी मारून बशिल्ल्या कुश्टाच्यां वांगड्यांनी रानबैलांच्या शिंगानी झिरकलेल्यो आंतकाड्यो शिरशिरयानी दोळे फोडून पळेल्यो. तांचें आंगपांग भयभीत जांवन कांपूंक लागलें. दोळ्यांच्यो मलप्यो वयर – सकल करता म्हणसर रानबैल कुश्टाक घेवन अटंग्या रानात नदर पयस जालो.

‘कुश्टा... कुश्टा’ म्हणून सगळ्यानी रान उकलून धल्लें.

पेरून ‘दादो . . दादो’ म्हणत हातपांय बडोवन आपलें दुख अुक्तें केलें.

‘ म्हज्या दादोचो घात घेतलो, पाय पर्यो त्या रानबैलाचें ! दादो - म्हादो दादो . . . . .’



# महारुद्र

फाल्यां गांवकार जमतले आनी शेम्या आळींतल्या रुद्राक जटांक धरून हालयतले. फाल्यां समस्तांक रुद्रावतार नदरेक पडटलो. फाल्यां ह्या गांवच्यो शिळा धुलोवंक लागतल्यो. उज्याच्या आगट्यावरी दर अकल्याचीं काळजां भगभगतलीं, फाल्यां हांगा होमकण पेटलें आनी गांवचो होमखंडे गांवकार मळार दाळिल्ल्या होमकणाक चूड पेटोवन लायतलो. वाजपां वाजतलीं. अवसरान भारावल्ले घोण रंगीत बेतकाट्यो घेवन होमकणां भोंवतणी धामाधूम जांवन घुंवळ येसर नाचतले. घोण पट्टले आनी दाळाक लायिल्लीं लाकडां गोमोर जांवन भुयभरवण जातलीं. सगळें शांत जातलें. गांवचो अेक दीस संपतलो. कपलाक बिबूत लावन, अेका वरसाभ्रातीर मागणें करून !

ग्वरें म्हळ्यार वर्साभरान जाता तसली जात्रा फाल्यां जावचीना. फाल्यां जातलो तो रुद्राचो उत्सव. देवळाच्या कोमिसांवाक गांवची चिंता पडल्या. गांवांत रोग जाला, गांवांत भस्टकार जाला, गांव इबाडला. गांवची वलायकी पेडुयार जाल्या. रोगी-धोंगी-पोंगी, नस्टे-भस्टे देवळाच्या चौकार पावल्यात, गांवांतले बारीक लोक मदांद जाल्यात,

जळीं-मळीं सगळ्यांचेर खेव पडला. खेव सादोसुदो न्हय, तांकां आमचें कोमिसांव रणखेव म्हणटात आनी हो रणखेव थांब्रोवपाक आनी गांवांतले खेत्र वाचोवपाचो पुळको गांवच्या कोमिसांवांक आयला.

गांवचें कोमिसांव सात मैलां भायलें. कोमिसांवांक कोनीसांवां करून देवाचो अुत्सव जातकच कोणाच्याय वेंगेंत रात घालोवंक ज्या जाग्यार मेळटा तो आमचो देव गांव, अशें ते म्हणनात तरुय तांकां ताजी जाण आसा. ताणीं त्याच खातीर त्या शेम्शातल्या आळींत लिपून राविल्ल्या रुद्राक कुळवाड्याक सांगून भायर काडलो, धुलो आनी एके पाशाणाचे पिंडीकेर अुबो केलो. ताका तांचे भाशेन पयलें पितुळचें रुपडें घालें, मागीर रुप्याचें, मागीर चांदीचें आनी आतां भांगराचें. जेन्नां जेन्नां हीं देवाचीं रुपडीं बदल्लीं तेन्नां-तेन्नां देवळाचो कळस मळबाक तेकपाक लागलो, तितलीच खोल देवळाची नितीमत्ता वचपाक लागली. आजून ती पाताळांत पावूना, फक्त देवळा भोंवतणच्या भावणीच्या पाताळांत आजून घुस्पून आसा. आनी हीच नितीमत्ता त्या पवित्र पाताळांतल्यान भायर पडून जगार पडची न्हय म्हणून कोमिसांवांक रुद्राक जागोवचो पडटा. फाल्यां कोमिसांव रुद्राक अर्गां ओपपाचें आसा. भाड्याचे गांवकार जांवन !

गांवाक खेरलो गांवकार ना अशातली गजाल न्हय. गांवांक गांवकार आसा. गांवकाराचें गांवकारपणूय आसा, पुण गांवकाराकडे ना तीं पडमूरपणां. गांवकाराकडे ना लुच्चेपणा, गांवकाराकडे ना तीं घरंदाज फटींगपणा. प्रामाणिकपणान गांवकारानी कपळाक लायिल्लो गंधाचो तिबो कपळार जपून दवरचो इतलेंच तो जाणा. आनी देखून अडेचे गांवकार ताका थंड करूंक फुडें सल्ले. लाखांच्या नाड्यार लोकाचो दुडू पचना जातकच गांवच्या कोमिसांवाक देवसपणा येवजतात, आनी तातूंतल्यान गांवांत कितेंय जावन पडटा.

पुण हे खेपे कोमिसांवानी गांवाचेर हात घालो. गांवची इब्रत पावणेर काडपाचें थारायलें आनी तेयीं बी अेक देवकार्य फुडें करून. कारण बंडखोरांच्यो तिखट्यो भावना निमाण्यो देवकार्याकडे घुस्पतात आनी तातूंतल्यान बंडखोर गळून पडटा, हरता, हे समजूतींतल्यान. सगळेच गांवकार कितें मेल्ले म्हशीचें दूद पिऊनात, पुण तांचो भ्रम मात तो कि त्या गांवचे गांवकार दुर्बळ !

आनी तांच्या समजुतींतले दुबळे गांवकार फाल्यां देवळाच्या चौकार आपलो अधिकार हिसकवपाचो यत्न करतल्याक जाप दिचारूंक अेकठांय जातले.

गांवकाराचें मन खूब कितें कितें येवजितालें. आपल्या फाटल्यान गांव आसा काय ना हें फाल्यां कळटलें, पुण आजून पुराय खात्री जांवक ना. म्हजो समज खरो जालोना

जाल्यार ! गांवकाराच्या मनांत भलतीच चिंतना तकली दाखोवन बताली तशो गांवकार चमला थंयच अस्वस्थ जातालो. आपली बसका सोडून तो उठटालो आनी सालांत आडल्यो उभ्यो पासयो मारतालो. ताका फाटल्या वरसाचो उपद्‍व्याप जावक लागलो. गांवांतल्या दर एका देवकार्याची सुरवात गांवकाराच्या हातांतल्यान श्रीफळ दवरतकच जाताली. गांवकाराच्यो कितल्योशोच पिळग्यो गांवचें फुडारपण चलयत आयिल्ल्यो. गांवकारान गांवाक जसो मान दिलो तसोच बदलाक गांवकाऱ्यांनी गांवकाराक दिलो. गांवचो दसरो जांव भजनी सप्ताह जांव, गांवकार आपल्या तांबड्या सवळ्या पितांबरांत गजेंत सदांच लोकांच्या दोळ्यांत भरतालो. लोक गांवासयत बदल्ले. जाण्टे मरून तरणे आयले पुण गांवकार आनी गांवकारपणांत तसो व्हडलोसो बदल जांव नासलो. आजूनय तांच नमळाय, तेंच आपलेंपण आनी तोच शिण-मोग !

'पळोवया गांवांत कितें कितें शिल्लक उल्लां तें.' गांवकारान मनांत म्हळें, इतल्यान कोणेंतरी सालाच्या मदल्या दारार मारलें. गांवकार तंद्रेंतल्यान भानार आयलो. मनांतली चिंतनां थंयच दवरून गांवकार दाराची खिळी काडपाक गेलो.

कोण आयल्यात हाचो गांवकाराक सारको अदमास जरूय लागलोना, तरूय ताका कोण तरी गांवांतले बरे मागपी फायचें करीं कितें करपाचें ह्यासंबंदीं विचार विनिमय करूंक येतले हाचो अदमास आसलो. आनी तोच अदमास तकलेंत धरून ताणें व्हवूच दाराची खिळी काडली आनी दार उगडलें.

'आरे, तुमी रे ! येयात. म्हाका दिसिल्लेंच कि तुमी कोण ना कोण तरी येतलेच म्हण.'

गांवकाराक गांवांतले नवे पिळगेचे तरनाटे वांगडी मेळूंक आयिल्ले. जो गांव आंकड्यान व्हड आसूनय तकलेन ल्हान आसता, आंगांत हतयाचें बळ आसूनय हात-पांय सोडून मरगळिल्ले जांव आसतात, अशा वेळार गांवची अस्मीता तगोवपाक तशें सगळेच दुबळे जायनात. तशें जाल्यार आयज सगळें गांव पाडंग पडटलें आसलें. पुण गांवच्या सुभाग्यान कांय तरण्या रक्ताक गांवचे अस्मीतेची खंय तरी खोल जाण आसता. आनी आपलें कर्तव्य करपाक वेळ पडटकच ते फाटीं रावनात. अशेच कांय तरनाटे गांवकाराक मेळूंक आयिल्ले.

'फाल्यां कितें करपाचें ?' एका तरनाट्यान गांवकाराक प्रस्न केलो.

'तुमी करतात तें बरें.'

'आमी हें अशें आयकुपाक येवनात, आमकां कांय ती तुमच्या मनांतली फायची तजवीज. कितें थारायल्लां तुमी ?'

'तुमी सांगा मरे.'

"शंभूबाब, असली मरगळलेली भाशा तुमच्या तोंडांत सोबना. गांवकार तुमी. तुमच्या अुतराक गांव तिश्टता. तुमी करीत तेंच गांव करतलो. जो मेरेन गांवचेर तुमचो विस्वास अंासा तो मेरेन गांव तुमच्या अुतरा भायर वच्चो ना. आनी जर आमच्या दुर्देवान गांवकाराक वायट बुद्दी आयल्या जायत जाल्यार तें ह्या गांवचें व्हड दुर्देव म्हणचें पडटलें." गांवांतल्या अेका तरणाट्याचो हो हावेस पळोवन गांवकार दिपलो. आपल्या शिरंतरांतल्यान रगत व्हांवता काय उदक व्हांवता हाचो दुबाव पयस जालो. गांवकाराच्या आंगापांगाक गांवकारपणाची फूग भली. गांवकाराचें हड्डें फुडें सर्लें, गांवकारान स्वास भितर घेतलो आनी त्याच नेटान उस्कारो भायर सोडलो आनी सगळ्यांचे नदरेक नदर दीत गांवकारान म्हळें, —

"फाल्यां शंभू गांवकारच रुद्राची सुरवात करतोलो, आनी जो कोण भायरो गांवकाराच्या अधिकाराचेर हात घालतलो तो एके लाथेन पयस जातलो.—"

"आमकांय हेंच जाय आसलें, आमी तुमकां समजून घेवंक आयिल्ले, पुण रुद्राचे कृपेन तुमच्यांतलें गांवकारपण पयलीं आसलें तितलेंच तेज आसा हाची गवाय आमकां मेळ्ळी."

"म्हज्यांतलो तो मुक्ती झुंजारी आजून मरूं ना रे, म्हातारो जालों म्हण किते जालें - आत्मबल काबार जांवना न्हय!"

"आमकां तुमच्या आत्मबलाचो दुबाव घेवपाचो नासलो, आमकां जाय आसली फायचें कूंड पेटोवपाक तुमच्या अुतरांची अेक ल्हानशी कीट. आमकां ती मेळ्ळी. आमी आतां वतात आनी फुडले तयारीक लागतात. फाल्यां सात वरांचेर सुर्योदया वांगडाच गांवकार देवळांत अुदेतलो आपलीं कर्तव्याचीं पवित्र वस्त्रां न्हेसून – बरें तर आमी येतात." – आनी ते चौग-पांच तरणाटे व्हडा अुबेन वचपाक भायर सर्ले.

"सगळ्या गांवांक खब्बर आसा न्हय?" गांवकारान दुबावान परतें विचारलें.

"ते पासत कांयच भिवपाची गरज ना, पुण गांवांत तशे शेंबर नंबरी मेळचे ना. तशे शेंबर नंबरी खंयच्याच काळांत मेळूनात, दगो दिवपी बाटके आनी लुच्चे दर गांवांत खंय ना खंय तरी आसता. तांकां आपल्या स्वाभिमानाची सोडूच, आपल्या गांवचे अस्मितायेची लेगीत चाड नासता. तशे घातकी सगळ्याक आसतात. आमचोय गांव ताका अपवाद ना, पुण कोमिसांवानी अेकठांय केल्ल्या दुडवांचेर तांची नदर आसची ना जाल्यार खंयच्या लांडग्यांची आसतली?"

"कोण ते खब्बर आसात?"

"फाल्यां दोन व्हडयांचेर पांय दवरून गांवचें आनी कोमिसांवाचें बरेंपण दवरूपाक जे मनीस लेंब्रडेपण करतले ते दिसतले, पुण ते हाताच्या बोटार मेजपा इतलेच."

"तांचो आवाज ?"

"सामको शून्य."

"गांवचो मोल किते म्हणटा ?"

"तांच्यांत बळ निर्माण करूं जाय, आनी गांवकार ह्या नात्यान तें पयलें कर्तव्य."

"कितलो लोक बातलो ?"

"प्राकार भरतलें."

"रुद्राचें बळों !" – अशें म्हणून गांवकार आपले सदांचे पद्धतीन व्हडल्यान हांसलो. हांसपाइतलो धीर आता ताज्यांत आयिल्लो. गांवकाराचो हांसो होच एक गांवातलो खळखळ, होच गांवातलो धीर ! गांवकार हांसलो तें पळोवन आयिल्ल्या गांवच्या तरणाट्यांक गांवकाराच्या निर्ताधिराची पुराय खात्री पटली आनी तांणी गांवकाराचो निरोप घेवन पाख्या भायल्या काळखांत पावलां दवलीं. गांवकारान काळखांत हय - न्हय शें दिसत चलतल्या त्या तरणाट्यांक खीणभर पळेलें आनी फुडली नदर पावलांकडे वळयत आपूण फाटीं सल्लो आनी दाराक खिळी घाली.

गांवभर घरा-घरानी अेकच चर्चा. रुद्राची सुरवात कोण करतलो. खरो निजाचो गांवकार काय अुपरो गांवकार ? गांवांतले सगळेच लोक सामके अुचांबळ जाले. किते घडत आनी किते ना हाचो अदमास करपाक कळनामलें. कोणाच्यो बोडक्यो फुटत आनी कोणाचीं भेणां मोडत हें सांगूं नज आसलें, पुण गावांत किते तरी नवें घडटा हाची फुसूम ज्या दिसा बेताळा देवळाकडे अुपऱ्या गांवकारान नाल्ल दवल्लो तेन्नाच्यान लागिल्ली. आनी हे असले जगावेगळे घडणुकेन गांवांत विचारांची घुसळ चलिल्ली. दर अेकलो आपले विचार च्याच्या हॉटेलांत नाजाल्यार बाजारांतल्या तिसकट्यार चार-चौग अेक-टांय जाल्ले आसताले थंय मांडटालो.

"गांवकार इतलो थंड न्हु रे, जांटो जालो म्हण किते जालें, आनी आमी आसात ते किते शेण खावपाक, असल्या आकांताक आमी गांवकाऱ्याच्या अुल्याक जाप दिनात जाल्यार आमी गांवांत आसूं - नासून सारकें."- अेकटो अशा हावेसान लंयच्याय जाग्यार अुलयतना दिसतालो, आनी ताजें आयकुपी ताच्या म्हणण्याक त्याच नेटान तेंको दिवन म्हणटाले,

"हें व्हयचें रे, गांवांत देअुळ बादलें म्हणून हाणी गांव विकतो घेतलो कसो दिसता काय किते तांकां ?" मागीर रोखडोच दुसरो म्हणटालो :

"देव कोणाचो रे ?"

"देऊळ बांदल्यां जायत, पुण देवाक बांदुना मू ?" आनी ह्या अुतरांक सगले खो-खो करून हांसताले.

अशेंच अुलयत, अुलयत, तिस्कार ना जाल्यार हॉटेलांत गजाली रंगताल्यो. गजालींर गजाली जाता तितली आयकुप्यांची गर्दी जाताली. थोडे हात पांघरून अयस-पयस रावताले तर जायते जाण चर्चेंत वांटो घेताले. अशें जवळ-जवळ पंदरा दीस चल्लें. आनी निमाणो कसाचो दीस फाल्यांर पावलो.

"बाबा, तूं बी वादांत पडूं नाका आं, तुका नाकात त्यो गांवच्यो राटावळी." अेक आवय आपल्या बंडखोर पुताक सांगताली. मागीर तो बंडखोर पूत गांवकारपण कशें पेडूच्यार जावन नागवणेक पावलां तें आवयक समजायतालो, तेन्ना आवय म्हणटाली, 'तें ते पळोवन घेत. तुका लागूना तें, गावांत तूं अेकलोच शाणो ना–' आवयचो पूत आवयच्या हट्टामुखार तात्पुरतो फाटीं सरतालो आनी संतापान म्हणटालो "बरें बाये, हांव वचना थंय फाल्यां, आतां तरी वगी रावशीत ?"

फाल्यां येवच्या पयलीं गांवांतलीं पोरांतोरां लेगीत फायचे घडणुकेचेर आपले परीन अुलयतालीं. जांटेल्यांचें अुलोवप आयकून तांचीं कांय आगळींच मतां जालीं. अेक खेंयचोय धा-बारा वरसांचो भुरगो आपल्या वांगड्याक म्हणटालो,

"फाल्यां गांवांत झगडीं जातलीं. गांवकार कोमिसावांक मारतले आनी देवळाकडे पळे कितें जावपाचें आसा तें जांवचेना." देवळाकडच्या रुद्राची त्या भुरग्याक कल्पना नासली पुण गांवांत कितें तरी आगळेंच घडटा हाची ताका पुराय खबर आसली. गांवांत रुद्रोत्सवाच्या निमतान नाटकां-काले, आरती किर्तना आनी पुराणां जातलीं म्हणपाचें भुरग्यांक कळिल्लें पुण गांवांतलें तापिल्लें वातावरण पळोवन तांच्यांतय, आपल्या जांटेल्यांभशेन, पेटपाची कीट धुंगताली.

आनी ती रात सोंपत आयली. गांवकार फांत्यार जागो जालो. तशी गांवकाराक रातीं सदांभशेन हुसक्या मेकळी न्हिद पडूं नासली. कितले खेपो गांवकारान ही कूस ती कूस केल्ली. निमाणें अुजावाडलें आनी काकड्या आरती कानार पडल्यो. चौगुडो वाजूंक लागलो आनी अुजवडटां - अुजवडटां सगळो गांव दिवाळेक उठटा तसो अुठलो. सदांभशेन आठ-णव मेरेन हांथूण धरपी कोडगे आयज फांत्यारुच अुठिल्ले.

घरापाख्यार, देवळाघुडार आनी झाडापाडांच्या शेंड्यार सुर्याचो भांगरा छेप लागलो तसो दर अेका घरांतलो अेक म्हाल्गाडो आपूण कसल्यातरी व्हड कामाक वतां हे भावनेन आंगणाची पेळ हुपोवन देवळाचे वाटेक लागलो.

आर्काकडे जोमो जालो. म्हण्टा-म्हण्टां मूस कशे गांवकार प्राकारा भायर अेकठांय जाले.

प्राकारांत अतिरेक करतल्या अुपऱ्या कोमिसांव गांवकाऱ्यांच्यो कोयो कपलाक पावल्यो. गावकारपण मिरोवन व्हडपण भोगपाचीं सपना बाळगिल्ल्या कुस्टाच्या कपलार

घामाचीं थिकां रास जालीं. तार्णे आपल्या धव्याफुल्ल पुडव्याच्या शेवान कपलावयल्यो घामाच्यो पावळ्यो पुसून अुडोवपाचो यत्न केलो पुण मस्तकाक बुराक पडून झरो फुटील्ल्यावरी छे-धोग्यानी पावसाच्यो दडको कश्यो घामाच्यो दडको कुस्टाक भिजोवंक लागल्यो. कुस्टाची ती दशा पळोवन आल्या-कोल्यानी आनी कपलांतली बुद्ध भ्रमिष्ट जाल्यानी कुस्टाक बेगी-बेगीन थंयच आशिल्ल्या ओल्तेरार आडवो केलो. मोडक्या वेताळावरी कुस्टा पांय सोडून ओल्तेरार पडलो आनी ताणे दोळे धांपले.

"पार्वती पते हर हर महादेव" आख्खें प्राकार गांवकाराच्या म्हादेवान धुमधुमून गेलें.

गांवकाऱ्यांचे गर्देंत पवित्र वस्त्रांत सोबून अयिल्लो गांवकार सवकास देवळाच्या मुखेल दरवंज्या वटेन पावल अुचलतालो. तार्णे आंगभर शिल्काची शाल घेतिल्ली. कपलाक गंधा तिळो लायिल्लो आनी हातांत श्रीफल घेतिल्लें.

कितें घडटा आनी कितें ना, सगळ्यांचेर कल्कल आयिल्लो.

गांवकारांचो मेळो सोणव्यावयल्यान फुडें सल्लो आनी कितें घडटा तें कोणाक कळच्या पयलींच गांवकारान देवळाच्या मुखेल मदल्या दाराक घाल्ल्यो लोखणाच्यो साखळ्यो अेके खोटेंत तोडून अुडयल्यो. लोखणाच्यो साखळ्यो ! !

मनशाचे कुडींत लिपून राविल्लं सामान्या भायलें बळगें, ज्वालामुखीवरी अशें अुंचबळून अुफाळून आयिल्लें !

लोकांनी अजापान तोंडांत बोटां घालीं, आनी बोवाळांत कोणेंतरी भावनाचे वेग सावरना जावन हडडें फोडून म्हादेव घालो. गांवकारान देवाचे शिळेर वचून देवाच्या भुजाक धरून देवाक कचकचून हाल्यलो आनी सांगलें,

'देवा रुद्रा, तुजो रुद्रावतार शाबूत दवर. तुज्या पायांकडे येवन हो गांव मागता, शेंभ्यातल्या आळींतल्या देवा, दाखय तुजी सासाय आनी दाखय तुजें बळगें.'

रुद्रांतलो महारुद्र दर अेका गांवकाराच्या आंगांत संचारलो आनी अख्खो वाडो महारुद्र जावन गांवकाराच्या हातांतलो नाल्ल धट्ट धरून चौकार बसलो.



# काळखाचो गांव

मुखार अेक काळखाचो गांव. काळखाच्या गांवाचें नांव पापडगल्ली. तशें या गांवांत पापडाचे कारखाने नात. पुण त्या गांवाक लोक पापडगल्ली अशेंच म्हणटात. काळखाच्या गांवांत भोवणेकार येतात ते लेगीत काळेच आसतात. काळे नासत जाल्यार गांवच्या दरवाज्या-कडे पावतकच भोवणेकार काळखाचो रंग तोंडाक सारयता आनी गांवचे हद्दीत पावल दवरता. तसो हो गांव खणतना वा अुस्तीतना सापडू ना. उजवाडाचे गांव कमी पडटात म्हणूनय या गांवाची खासा निर्मिती जावंक ना. पुण उजवाडाच्या गांवांतलें बंदेपण सोसूं नज जावन अुजवाडां-तल्याच गांवकाऱ्यांनी हो अेक आपले सोयीखातीर वेगळो असो मेकळो गांव तयार केला. तसो ह्या गांवाक संस्कृतायेचो अितिहास ना. या गांवात राजाय नासलो आनी राणीय नासली. या गांवांत आदीमानव नासलो, आदीवाशी नासले वा राजकर्ते राजकुंवर वा आतांचे मांडवलदार नासले. काळें मार्क्साक आनी लेनीनाक या गांवचें कांयच खबर ना. या गांवाक कोणेंच तसो साम्यवाद वा समाजवाद शिकोवंक ना. पुण या गांवाक अेक खबर आसा. वसाहतवाद गांवचें तत्व, जागो मेळटां थंय राज्य

चलोवप, मागीर राज्यार राणी आसूं वो राजा आसूं. देखून हालीं हालीं हर शाराच्या काळजांत लेगीत काळखाचे गांव वसतात! समाजाची गरज म्हणून गांवचो वसाहतवाद राव-रंक मोन्यानी सोसून घेता, मानून घेता. भूक लागतल्याक जेवण दिवपी खाणावळी जश्यो लेंथी अुगडटकच वी खाणावळ लोकांचे सोयीची अशेंच जशें मानून घेतात तशेंच ह्या काळखाच्या गांवाची गरज मानून घेतल्या मोन्यानी, हूं-चूं न करतां.

तर काळखाचो गांव आसा ही खरी खबर! या गांवांत लोक रावतात ते काळ-खाचेच पुजारी हावूय खरी खबर. तशें पळोंवक गेल्यार काळखाच्या गांवची खबर गणूक, शांबाक, शणैक, रामाक, कायतानाक, दादाक, बाबाक सगळ्यांक लागू पडटा. हे सगळे या गांवचे यात्रीक.

भावना-मुक्त, वासना-मुक्त जावन येवपी यात्रेकारांमदलो अेक हांव काळखाच्या गांवात देवळांचे सभामाटव ना तर देवळेंच्यो कोलवांच्यो खोपी आसात. या खोपांतल्या गर्भकुडींनी चालत्यो-बोलत्यो हाडां-मासांच्यो देवता आसतात.

ह्या सगळ्या देवतांचें दर्शन घेवंन तांची पुजा करिनासतना तांचीं काळजांच हुमटावन हाडपी यात्रीकांपैकीं अेक यात्रीक हांव!

हांवें अशेंच अेके देवतेचें काळजाचें कुट्टें चोरून हाडलें, तिका खबर ना. चोर-तना लहवूच तिच्या हातांत पांचाची नोट अुडयली आनी तिच्या काळजाक साद घालो. पयलीं म्हाका बाप मेळ्ळी ना.

आनी भावनांचो धांस मुळासकट हालयतां हालयतां मळब फुटून दडकांचे घोगे पडचे तशे अुतरांचे वझेर मनांतल्या उंचायेवयल्यान पडूंक लागले.

'गांव म्हजो कारवार, म्हजो घोव गेल्लो तारवार, तारवार गेल्लो म्हजो घोव परतो केन्नांच कारवार आयलोना.'

'किते घडलें?' म्हज्या काळजांत मातशी धडधड. हांव समजलों.

'घोवाचें तारूं बुडलें.'

'खंय?'

'अटलांटीक महासागरांत!'

'तुका कशें कळ्ळें?'

'कंपनीन सांगलें.'

'ताज्या कामाचे दुडू धाडून दिलेना?'

'दुडवानी पोटाची भूक भागता, पुण कुडीची भूक–'

'समजलों.'

'म्हाका अशें मदी तोडूं नाका.'

'बरें आसा, सांग.'

'पुण आतां भूक ना, आतां कांयच ना. आतां आसा फक्त जितें मडें !'

'मागीर असलीं कामां करता कित्याक ?'

'कितें करूं ?'

'संवसार !'

'कोणाचो आनी कोणा वांगडा ?'

'x x x —' हांव

'वगी कित्याक ?'

'चूक जाली म्हजी.'

'चूक मागूंकच हांगा आयिल्लो ?'

'ना. चुकी कश्यो आसतात तें पळोवपाक आयिल्लों.'

'तुमी फकत चुकी पळोवपी, चुकी दाखोवपी लोकांमदले दिसतात. तुमी चुकी सुधारपी वा चुकिची दुरुस्ती करपी महात्म्याक वळखतात ?'

'तूं इतलें भुलयता ?'

'अजाप जालें न्हय ?'

'या काळखाच्या गांवांत—'

'उलोवपी नासता असोच समज न्हय ?'

'तशें न्हय.'

'कशेंय आसूं, आतां तुका कितें जाय म्हजेकडच्यान ? रावतलो ?'

'रावपाकच आयलां न्हय !'

'रावपाक आयला जाल्यार राव, काम कर आनी वच. नाका आशिल्ल्यो जाणवायो कित्याक त्यो. ताणी म्हजें पोट भरना, घडये तुजें भरता जायत.'

'हावें तुका पयशे दिल्यात.'

'खबरी मारपाक न्हय.'

'हांव कितेंय करूं, तुका तुज्या कामाचो मोबदलो मेळटकच जालो.'

'काम नासतना फुकट्याचो मोबदलो नाका म्हाका.'

'तूं शिकला ?'

'तुज्या शिकपाचो अर्थ कितें ?'

'तूं शाळा-कॉलेजींत शिकलां ?'

'शाळा-कॉलेजींतल्या शिक्षणाक हांव शिकप म्हणना.'

'कित्याक ?'

'परत प्रस्न नाकात.'

'थोडेशें सांग, मागीर पुरो—'

'आतां तूं म्हाका अशेंच विचारतलो ?'

'ना पुण—'

'म्हज्या शिकपाचो म्हाका आतां ह्या जिणेंत उपेग ना, हांव पळे कशें अडाणी कशें !'

काळ्याच्या गांवांतलीं अडाणीपणां कितलीं तत्वग्नानी आसात हें ताणें मोन्यानीच सांगलें आनी म्हाका धरून ओडलो. हांव पडलों —

काळ्याच्या गांवांत स्थलांतर करून बाटाबाटीच्या धामधुमींतलो लोक लेगीत केन्नांय म्हणच्यापरस दर उमाशेक दक्षिणेकडच्यान या गावांत येतात आनी न्हाकी पेंटीचे कासशी बुराव लायत भायर सरतात, जेन्ना या गांवाची राजवट सामकी मळीत चलता.

बोटां मोडून कामा भागनात हें मतींत आसूनय काळ्याच्या गांव-भावांचीं करकरीत बोटां मोडटात. केन्नां-केन्नांय तशेंच धडलें जाल्यार हात भुवळेक फाटीं रावनात. काळ्याच्या गांवांत सगळ्याच रंगांचो कार बदलता. धवे-तांबडे लेगीत काळेच दिसतात. गांवांत रक्ताच्यो न्हयो व्हांवल्यो जाल्यार लेगीत काळ्यांत कळनात. त्यो अळंग व्हांवतात. ह्या रक्ताच्या न्हयांक रक्ताचेंच दर्या मेळटा अशें ना. तर मनशां कुळी ज्या रसायनाक लागून जिवी उल्ल्या त्या शुभ्र रसायनांत तांबडें रगत भसरता आनी तांचो संगम जावन, थंयच त्या संगमाक म्हासागराचें रूप येता.

या म्हासागरांत धुंद जावन वादळांत सांपडिल्लीं तारवां सोडूच तर संतपणान चलतलीं तारवां लेगीत वारें वादळ नासतना सागराचे स्वरीक पावल्यांत. आजमेरेन काळ्याच्या गांवांत कितलीं भावनांनीं-वासनांनी भरिल्लीं तारवां बुडल्यांत तांचो हिशोब आनी कोंत मेळपाचें ना.

काळखाच्या गांवची सांसपत-सांसपत दोळ्यांर साय हाडून भोंवणी करतना कानार असंख्य बोबो हुयेली. ह्या हुयेलींचे कांय नमुने काळजाक चिमटो काडीत वतात.

'सायब म्हाकाय, अेक रुपया दी; आयज हांव जेंव ना.'

'पांच नही दस.'

'आयज जिवाक बरें दिसना, कमर फोट्टा, गिरायक जावंचें ना.'

'फातिमाक जोर येयला.'

'आंटी मेली.'

'मेली ???'– फक्त प्रश्नचिन्हा !

'पारू रगत ओंकता.'

'यल्लपान सख्याक चाकू माल्लो.'

'जॉनाक धल्लो.'

'पोलीस येतात.'

आनी या आवाजांन काळखाच्या गांवांत, धरणीकंप वा बुट्टी येतकच जी दशा जाता, तशी दशा जाता. जो तो मेळत ते वटेन अेकमेकांक धुकलून धांवट सुट्टा. खिणांत काळखाचो गांव थामको मसंड जाता. कोणाचोच आवाज नासता. गांवांत भोवणेक आयिल्ले पवित्र जागेकार खंयतरी आंग चोरून राविल्ले आसतात. थोड्यांच्या गोलांक धरिल्लें आसता तेन्नां ते ल्हवूच बोलसांत हात घालून गोलाक धरतल्या खाकी देंवाचाराक सोरो-रोंट घेवपाक बोलसांतलें आशि-नाशिल्लें काडून दितात.

'बोस्स, आनी दुसरे खेप हांगा येवं नाका.'

'ना बाब.'

आतां त्या देडफूट खाकी देंवचाराक गोलाक धरिल्लो तो विकतो घेवक शकता, पुण ह्या गांवांत ताजो जर ताणें प्रेस विचारिल्लो जाल्यार दुसऱ्या दिसा अुजवाडाच्या गांवांत हाचोय बाजार भाव थरतलो आसलो. आनी हें जाणां जावनच ह्या गांवांत कोणूच हूं-चूं करीनात. सगळें मुकाट्यांनी प्रामाणिकपणान चलता. हो अेक काळखाच्या गांवचो प्रताप !

काळखाच्या गांवांत येवपी यात्रेकारांमदी तसो भेदभाव कांय ना. हांगा तो धर्मवाद, जातीवाद कांय लागना. या गांवांत कोणाचोच मोग वा कोणाचेंच आडवेपण वा उबेपण

वाढना. हांगा सगळे जाण सगळे तरेचे भेद घरा दवरूनच भितर सरतात. त्या मानान अुजवाडाच्या गांवांपरस या बाबतींत हो गांव खूब-खूब सुधारून फुडें पावला.

अशा ह्या गांवांक दैमाचेर विस्वास दवरतल्यांचो विस्वास आसा. समाजाची गरज भागोवपी गांव अशेंच ह्या गांवांसंबंधान अुलयतना खंयचोय विचारवंत म्हणटना आयकूंक येता.

काळखाच्या गांवांत कोंब्यान साद घालो. दोळे चोळीत गंगून पिंगाच्या खाटी पोंदचे ट्रंकेंत नोटींचो कवळो मुगरलो. मुण्यांच्या बोवाळांत खोपीनी न्हिदिल्ल्यांची परवणी आयकूंक येना, तरूय सगळींच आणां जागरणानी परवंतात हें कल्पनेन ताणू येता.

अुजवाडांतले गांवकार जेन्ना जागे जातात तेन्नां काळखांतले गांवकार सुस्त न्हिदतात.

काळखांतल्या गांवकाऱ्यांक अुजवाडचो दिस्टावो केन्नां जांवचो ना. अुजवाड काळखाच्या गांवांत केन्नांच पांवचोना. उलट अुजवाडाच्या गांवांतलो दिशीं-दिशीं अुजवाडच कमी जायत चल्ला. काळखाचे प्रदेश सोदीत; काळखाचे देश आनी काळखाचोच संवसार सोदीत.



# आलतड - पलतड

कु ऽऽई कुऽई...

चंद्रकांतान आलतडच्यान कुयो घाल्यो. सदांच तो पाटावयल्या बांदल्यार अुबो रावन शिपण्याचो वेळ जातकूच आबोल्याक कुयो मारून उलो घालतालो. आबोलें तळया-बांदार उदक सोडपाक सकाळींच वेतालें आनी चंद्रकांतान उलो मारिनाबरोबर तळयेक मारिल्लो गुड्डो सोडोवन उदक पाटांनी सोडून सकयल येतालें. व्हाळाचे पलतडीन शाणू पैलें कुळागर चंद्रकांत पळयतालो आनी आलतडचें कुळागर आबोल्याचो बापूय जायतीं वर्सां जालीं पळयतालो. देसायालो मुंडकार म्हणपाक ताका खूब खोस जाताली. आबोलें हें त्या कुळागराचो शिंगार. दाट केळींनी, उंच माडयांनी आनी मदीं मदीं आशिल्ले आंबे, पणस आनी शेरयाच्या वालींक लागून कुळागर भरून ओततालें. वयांत आयिल्ले चलयेवरी कुळागर सामकें तट्टीत दिसतालें. कुळागर इतलें दाट आशिल्ल्या कारणान मात्तय वतांचें किर्ण पडना आशिल्लें आनी सावळेंतल्यान जेन्ना सतरा वरसांचें आबोलें जुनेर न्हेसून सकाळंचे शिपणेक येतालें तेन्ना कुळागराची सोबितकाय चडूच उठून दिसताली.

आनी ही सोबितकाय पल्तडच्या चंद्रकांताक कळूक लागिल्याक तो सदांच बांदल्यार उबो रावन कुयो घाल्तालो. अेक दीस सदांचेवरी ताणे कुयो घाल्यो आनी आबोल्यान ताका आल्तडच्यान उलो दिलो. उलो आयकून पल्तडचो चंद्रकांत व्हाळावयलो खोपाडो चडून आबोल्याच्या कुळागरांत पावलो. सकाळचो वेळ आशिल्ल्यान कुळागरांत शियाचो कुडकुडो खातालो. पानांवयल्यान पडटल्या दवां थेंब्यांनी आंग शिरशिरतालें. चंद्रकांताच्यो दांतकड्यो वाजताल्यो. हु.. हु... करीत तो आबोल्याच्या कुळागरांत ह्या पाटांवेल्यान त्या पाटार वतालो. ताची नदर माडये–माडये तळा ताचे कुयेक जाप दिवपी मनशाक सोदताली. ताका खबर आशिल्लें, जाप दिल्ली कूय दादले मनशाची नाशिल्ली. ताची पुराय खात्री जाल्ली, जाप दिवपी दुसरें तिसरें कोणूच नासून खुद्द आबोलेंच म्हुण. आनी तेचखातीर तो आल्तडीं आयिल्लो.

ताणें हळूच आनीक अेक कुलो माल्लो तेन्नां ताच्या म्हऱ्यांतल्या माडयेचो शेंडो हाल्लो आनी टप ... टप .... करून केळीच्या शिर्यांचेर बेडे पडले. चंद्रकांतान आंग काडून माडयेर पळयलें. ताका आपुण सपनांत आशिल्लेवरी दिसलें. ताणें आपणाकूच चिमटो काडून पळयलो. पुण शे! तो सपनांत नाशिल्लो. आबोलें माडयेर चडून माडयाच्या खोबाळांत रावन सुकयो सुपाऱ्यो – गुडगुडे सकयल उडयतालें. चंद्रकांताची नदर ताचेरच थिरावली. चंद्रकांत आपल्याकूच पळयता तें पळोवन आबोलें काचाबूल बालें. आवयलें जुनेर तें न्हेसिल्लें आनी ताणें पिंजकें पोलक घाल्लें. शिंपणें करतना भिजता म्हणून तें बरें घागरें घालून कुळागरांत येना आशिल्लें. ताच्या पिंजक्या जुनेरांतल्यान आबोल्याचीं सतरा वरसां लिपून उरनाशिल्लीं. सोलिल्ले केळीभशेन ताच्यो जांगो..., ताचें बाटकुळें काळें-सावळें रूप चंद्रकांताक जाळ घालतालें. चंद्रकांत पिसावलो, इतलो पिसावलो, ताणें आपले मुखावयले माडयेकूच घट्ट वेंग माल्ली. तें पळोवन आबोलें खळखळून हासलें.. पाटांतल्यान उदक व्हांवतना खळखळटा तशें! तशेंच सरसरीत माडयेवेल्यान तें देंवलें. चंद्रकांत ताचेकडेन उल्ोवपाक लागलो तें सुद्धा अेके वेगळेच धुन्दीत!

'आबोल्या, आयज दादू येवं ना गो शिंपण्याक!'

'ना मरे, रातीं गाडयेर बरोच पिलो आनी बार जालो. आवयन वचून गाडयेवयल्यान हाडला. रातभर आमकां न्हीद ना, आजून न्हिदला थंयच व्हासतलो—'

आबोल्याची गाडी सुरू जाल्ली पळोवन चंद्रकांतान सुस्कार सोडलो. आबोलें आपल्याकडेन पळयतलें काय किते म्हणपाचोच ताका पयलीं दुबाव आशिल्लो. चंद्रकांतान पयलो गुणो मारपाचें चिंतलें.

‘ आतां तू अेकटेंच शिंपतलें ? ’

‘ आनी किते करतलें, शिंपचें पडलें ना ? ’

‘ पुण येदें व्हड कुळागर— ! ’

‘ जाता तशें आनी पावता ते मेरेन शिंपप. ’

‘ म्हाजेंय शिंपणें आतांच काबार जालां, तपासीच्यो माडयो आमगेलो बाबू शिंपतलो. आतां घरा वोचोन आमील मारपाची. ’ आबोलें किते म्हणटा तें पळोवपाक ताणें आबोल्याच्या तोंडाकडेन पळयलें, तर आबोलें ताचेकडेन कसले तरी उमेदीन पळयतालें.

‘ मागीर चंद्रा, म्हाकाय मातसो आदार दी मरे ! ’ आबोल्यान काकुळटेक येवन चंद्रकांताल्या मनांतलेंच अुलयलें. चंद्रकांताच्या तोंडार खोस उदेली. कसले तरी उमेदीचो साज ताच्या तोंडार चडलो.

पाटांतल्यान उदक नागमोडीत वांकडें तिकडें व्हांवतालें. उंचल्यान सकयल्या पाटांत, पाटांतल्यान फोणाऱ्यांनी जमा जातालें. कल्ली घेवन दोगांय शिंपूंक लागलीं. माडयांच्या मुळांर, केळींच्या मुळांर फसा–फसा, खसा–खसा उदक पडटालें. सुकिल्ले मातयेचेर उदक पडनाफुडें चर्रर्र आवाज जावन वास सुटटालो. कुळागरांत चाफ्यांचो घमघम सुटिल्लो. तोरंगीच्या झाडांचेर तोरंगां लोंबकळटालीं. जामाची तांबडीं फुलां शिंपडिल्लीं. कुळागरांतल्या त्या धुन्द वातावरणांत दोगांय मन लावन शिंपतालीं. चंद्रकांत शिंपतां शिंपतां मदींच चोरून आबोल्याक पळयतालो. कित्याकशी लागून आबोल्यान चंद्रकांताकडे पळयलें तेन्नां दोगांयच्योय नदरो अेकमेकाक आपटल्यो. थंयच कसली तरी जोगलाट मात्ली. आबोल्याक पयलेच फावट चंद्रकांताचे नदरेंत कसलो तरी वास परमळटा म्हण-पाची जाणीव जाली आनी ताच्या तरण्यां आंगार गोड कांटो फुल्लो. तेल शेकता तशें तें चंद्रकांताले नदरेन लजलें – शेकेलें !

‘ आबोल्या, माथ्यार कुसुण्डो ! ’ चंद्रकांतान किळांच मात्ली. आबोल्याच्या माथ्यार कावथ्यार लोंबकळटली कीड पडिल्ली. किड कसली, व्हडलो कुसुण्डोच तो !

‘ कुसुण्डो ? ’ आबोल्यान भयान आंग फाफुडलें.

‘ हय बेगीन काड; नाजाल्यार मानेक लागून आंग हुलपतलें—’ चंद्रकांतान म्हळें.

‘ खंय आसा रे—? मातसो तूंच फाफूड रे, चंद्रकांत... म्हाका कळना खंय आसा तो... ’ आबोल्यान काकुळटेक येवन म्हळें तसो चंद्रकांत झपांय करून पाटा-

वयल्यान आबोल्या लामकार आयलो आनी अेक पान घेवन ताणें तो कुसुण्डो फाफडुन उडयलो. टप् करून कुसुण्डो जमनीर पडलो तशी आबोल्यान त्या कुसुण्ड्याक पळोवन किळांच माल्ली.

'केदो व्हडलो रे कुसुण्डो!'

'खंय लागलो ना मुगो!—'

'ना – पुण...'

'पुण किते?'

'हात बुड्डता.' आबोल्यान सांगलें.

'अशें कर. हे ते गायरेंतलें शेण अिल्लें हातीक सारय. ना जाल्यार थूक आनी माती लाय.' चंद्रकांतान आपले परी वखद सांगलें.

'ना .... हात चडच जळटा ... चंद्रकांत अुपकार जायत, मातशें तूंच कर तें काम —' आबोल्याच्या दोळ्यांत वेगळोच रंग, वेगळोच मोद झळकतालो.

बाबड्या चंद्रकांताल्या मनांतलेंच सगळें घडटालें. सकाळफुडेंच सभाग्यान कोणालें तोंड पळयल्लें कोण जाणा! रोखडेंच गायरेंतलें शेण घेवन ताणें आबोल्याच्या हाताक चोळ्ळें. पुण रोखडोच आबोल्यान व्हांवत्या अुदकांत हात धुलो. चंद्रकांताक अजाप दिसलें.

'आबोल्या, हें तें किते! शेण धुवन अुडयलें!' रोखडेंच ताणें विचाल्लें.

'हय.' आबोल्यान हांसत यंडसाणेन जाप दिली.

'हात खोरबना!'

'ना.'

'रोखडोच थामलो!'

'हात खोरजांक हातीक कुसुण्डो खंय लागला तर!'

'म्हणजे!'

'हं...हं...हं..' दूदसागर कशें आबोल्याचे गाल हांशान खळखळ्ळे. चंद्रकांताक चडच अजाप जालें. हाका पिशेंबी लागूंक ना मु! आबोलें हांसतच आशिल्लें.

'आबोल्या पिशाभशेन हांसता किते! हातीक फोड येवंचो ना!'

'हय... पिशेंच! म्हाका पिशें लागलां खु...खु...खु...' परत तोच हांसो.

'कोणाचें पिशें!'

'...!'

'वोगींच रावलें !'

'पिशें अेका मनशाचें...'

'अेका मनशाचें ? कोण तो ?...खंयचो ?' अधाशावरी चंद्रकांतान विचाल्लें.

'आसा अेक. खुब दीस जाले ताचें पिशें लागल्यार ! पुण तो आलतडीन केन्नाच येनाशिल्लो ! पलतडीन रावन कुयो घालतालो —'

चंद्रकांताले तकलेंत लख्ख अुजवाड पडलो. तरीय मनांत दुबाव अुरिल्लोच. धडधडट्या काळजान ताणें परत म्हळें.

'पलतडचो ?'

'हय, हय, हय–' आबोल्यान सिनेमात नटी करता तशेंच हावभाव करीत म्हळें.

'मागीर कोण तो सांगचें ना ?' चंद्रकांतान विचाल्लें.

'सांगूं ?'

'हय, सांग.'

'तूं –'

'खरेंच आबोल्या ?'

'हय !'

अुमेदीभरशीं चंद्रकांतान भान विसरून माडयेक तेंकूत अुबें आशिल्ल्या आबोल्याक वेंग माल्ली. माडयेक धरूनच ताणें ताका घट्ट दामलें. ते सरशीं खोखाळ हालून सुकिल्ले बेडे टपटप करून तांच्या माथ्यार पडले. आबोल्याच्या आंगांत अुजो पेटलो. अेकतरेची शिरशिरी भल्ली. आंग पांग ताठरलें. भान विसरून तें चंद्रकांताक दसलें.

X X X

तेन्नांसावन दोगांयचें मेळप वाडत गेलें. कुळागारांतलो मोग भायर मात केन्नाच फुटलो ना. फकत माडयांनी आनी केळींनी तांकां पळयल्लीं. वर्स जालें. मोग तसोच अशिल्लो. पुण आबोल्याचें कुळागारातलें येवप अिल्लें अुणें जाल्लें. केन्नाय अर्दी मर्दी सकाळचें तें कुळागरांत अुदक लावंक येतालें. तेन्नां चंद्रकांत कुयो घाली आनी तेंय आलतडच्यान ताका कुयेनूच जाप दी.

X X X

सदांभशेन आजय आल्तडीन पल्तडीन शिपणी आशिल्ली. सकाळफुडेंच चंद्रकांत तळयेर अुदक सोडपाक गेल्लो आनी थंयच्यानच ताणें कुयो घाल्यो. ताका परत जाप मेळ्ळी ना. परत ताणें यत्न केलो.

‘ कु.... ई....ई.... ’ आल्तडच्यान.

‘ ई.. ई.. ई... ’ पल्तडच्यान.

‘ ये चंद्रकांत — ’ कोणाच्या तरी उल्यान चंद्रकांतान आंग काडलें.

‘ आरे मित्रो ! हं .. कुयो कोणाक घाली ? ’ आबोल्याच्या दादून चंद्रकांताक विचाल्लें.

‘ शे ... ना .. कोणाक ना. बेठीच सदांभशेन घाल्ली. ’ चंद्रकांतान गोंदळून जाप दिली.

‘ बरें तें जावं. मगीर सांगूंक वेळ मेळचोना म्हणून आतांच सांगतां. फाल्यां आमचे थंय देवकाऱ्याक म्हणजे पुण्यावाचनाक यो आं— ’ दादून सहज सांगलें. चंद्रकांताची मान ताठ जाली. ‘ पुण्यवाचन ! कोणालें ? ’ चंद्रकांतान अजापान विचाल्लें.

‘ कोणाचें म्हणोन किते विचारता ? आरे ? आबोल्याचें लग्न न्हय ?.. केरी, बोमी गावच्याक दितात ! ’

चंद्रकांताल्या माथ्यार मळब कोसळ्ळें. कुळागरांतल्यो केळी माडयो ताचे भोंवतणी गर्रर घुंवपाक लागल्यो. बांदार रावनच ताणें किळांच माल्ली.

‘ ना— ना— ना— दादू... तें ...’

‘ किते ! चंद्रा, चंद्रा तुका किते जालें ? ’ अजापीत जावन दादून विचाल्लें. चंद्रकांत कासावीस जाल्लो तें पळोवन दादू काचाबूल जालो. ताचे तकलेंत मातय उजवाड पडूंक नाशिल्लो.

‘ ना .. ना .. दादू आबोल्याचेर म्हाजो हक्क आसा ! ’

‘ किते ? ’

‘ हय. नाजाल्यार विचार वचून ताका.. ’

‘ पुण ताणें केन्नांच सांगलें ना म्हाका तशें. ’

'ताका तुजो भय दिसलो जांवये. म्हणोन ताणे सांगलें ना दिसता.'

'ना चंद्रा .... तें ... आतां कशेंच शक्य ना. तेर्म बिर्म जावन फाल्यां लग्न.'

'तेर्म बिर्म ... फाल्यां लग्न !...' चंद्रकांताकें हड्डे धांप लागिल्लेवरी वयर सकयल जातालें. तो कासावीस जाल्लो. पिसो जाल्लो. मातय फाटींफुडें पळयनासतना बांदाचे खाणीर उबो रावन ताणें तळयेंत घालून घेतलें.

पलतडचे कुले सदांखातीर बंद जाले.

आलतडीं पुण्यवाचनाक शेनाय-ताशे वाजताले.



# मा र या न

सदांभशेन मारयान हांडीर कळसो घेवन कपेला फाटले वटेन आशिल्ले बांयचेर अुदकाक आयलें. सारकें साडेतीनाक मारयान बांयचेर हाजीर आसता हें म्हज्या काळजार खंयतरी बरयिल्लें आसूंक जाय, ना जाल्यार नेमकें ह्याच वेळार म्हजें मन वर्गातलें अुडून बांयचेर वचून कित्याक वसचें ? आतांय तशेंच जाल्लें.

मारयान आयिल्लें. तें कोण खंयचें हें म्हाका आजून खबर ना. तशें पळोवंक गेल्यार ह्या गावांत शिकोवपाक आयल्यार तीन वर्सां जायत आयलीं. शाळेंतल्या भुरग्यांभायर गावांत हेरांकडेन इस्टागत जोडपाचें मनांत नासिल्लें अशें न्हंय, पुण खंयचेतरी मनाचे खोलायेंत हांवें म्हजेविशीं समज करून घेतिल्लो, गांवचे शाळेंतलो अेक शिकोवपी, आनी गावांतल्या कोणांय मनशाकडे उलोवप म्हळ्यार कितें ? मनाक पटनासलें, पुण खंयच्यातरी मनाच्या कोनशाक दोन तळपांच्या थाळींतल्यान झऱ्याच्या उदकान भिरंवचें आनी थाळीभायर येवन परत व्हांवपी प्रवाहाक मेळचें तशें म्हज्यातलें नकलीपण ना जावन गावांत हांवें सगळ्यांवांगडा शाळेचो शिकोवपी हें विसरून मेळून मिसळून वावुरचें अशें दिस, पुण सत्याचेर नकली सभाव जैत करतालो. पुण हालीं हालीं सत्याचो जय जावपाची शक्यता निर्माण जाल्ली.

बांयचेर उदक व्हरूंक येवपी मारयानान म्हज्यांतल्या नकलीपणाचेर चिरपूट मारिल्लें. साद्या अेका चिरपूटानच तट्टीत नकलीपण जार जाल्ल्या तायटावेल्या फोडा-भशेन फुट्टूंक पाविल्लें. अशें जाल्यार आयज स म्हयने जायत आयले. स म्हयन्यांतल्यो राती आनी दीस मारयानाच्या भोंवतणीच घुस्पल्ल्यो केन्नां-केन्नांय, चड करून रातचें बी जेन्नां हांव खासा करून म्हज्याचविशीं येवजीतां तेन्नां म्हजे व्हडले व्हडले वांगडी, म्हज्यो वळखी आनी म्हजें व्हडपण हाची म्हाका खिणांत जाणीव जाताली. मागीर न्हिदला आसतनाच म्हजेभितरूच हांव हांसतालों. मनांत म्हणटालों, मारयान, तें काळें-सावळें कोणागेर तरी किर्याद म्हण काम करतलें अेक चेडूं! हांव खंय आनी तें खंय! ते रातीपुरतीं मारयानाविशीं म्हजीं चिंतपां हीं अशीं आसतालीं. सकाळचो वेळ मडगांवच्या बाजारांत भोंवपा-घुंवपांत काबार जातालो आनी सांजेचो वेळ गांवचे शिमेर पावनाफुडें शाळा, भुरगीं, वांगडी शिकोवपी हांचो अुगडास जांवचो सोडून तकलेंत मारयान घुसतालें. फोर्सान धांवडायल्यार चडच भितर रिगतालें आनी सांजेचीं साडेतीन जायमेरेन तें म्हजी कुडभर म्हज्या रक्तावांगडा दर अेके शिरेंतल्यान राणी कशें भोंवतालें.

नदरेपयस अुरतल्या मनशाचो चड अुगडास मनीस नदरेक पडतकच कांयच न्हय कसो दिसता. आनी त्याखातीरूच मनीस नदरेक जितलो पडना तितलो तो मनीस खुब्ब पळोंवचो कसो दिसता. खऱ्यानीच हें दिसप आसचेपरस कितलेंशेंच बरें, अशें मारयान नदरेक पडटकच जाता.

स म्हयने जाले, मारयानाक जाप करतलों म्हण जपतां. जायते खेपो न्हिदचे पयलीं फाल्यां मारयानाक हडकप अशें थारावन न्हिदतां. कितलेशेच खेपो दिसपटयेंत लेगीत फायची कार्यावळ ह्या सदरांत 'सांजे साडेतीनाक मारयान बांयचेर येतकच ताका अुलो मारप, अशें तांबड्या पेनान बरयतां. पुण स म्हयने जाले तरी म्हाका हें जमना.

अेक दीस म्हजो धीर खचपाचीं कारणां सोदपाचो यत्न हांवें केलो. तांतल्यान कांय कारणां म्हाका पटलीं-पटलींनाशीं जालीं. पयलीं म्हक्रयार हांव कोणतरी रेस्पेदाचो मनीस, हांव कोणतरी चार-चौगांक खबर आशिल्लों मनीस, हांव कोणतरी गावांतले शाळेंतलो अेक आदर्श शिकोवपी, हांव कोणतरी सुटा-बुटांत वावुरपी, सदांच निवळ-नितळ फेर्दाद कपडे घालपी. न्हेसपी झेतार, उलोवपी झेतार, अेकूण सगळेंच झेतार आनी नेटार करपी असो, अशा मनशान मारयानासारख्या काळ्या-सांवळ्या अेका किरिस्तांव किरयादाकडेन उलोवप, आनी कोणेंय पळयल्यार ? भुरगीं कितें म्हणटलीं ? वांगडचे शिकोवपी कितें म्हणटले ? गांवकार कितें म्हणटले ? अशें हें मनांतलें झुंज

गेल्ले स म्हयने चल्ले. पुण ह्या म्हुजांत म्हज्यांतले हांवेंच कल्पनेन निर्माण केल्ली सगळी शस्त्रां निकामी जाल्यांत. भर पावसांत फुगीन पडंग घराच्यो वण्टी घसाघस कोसळून पडच्यो तशो म्हजे समजुतीतले सगळे समज पळेतां पळेतां मारयानाच्या घोग्यांच्या यादीच्या दडकांनी भुयभरवण जाले.

‘ओवाळ करीनाकात आं, हांव रोकडोच येतां.’ हांवें घामाघूम जावन भुरग्यांक सांगलें.

‘ कुंय वोयताय सर ? ’

‘ म्हाका काम आसा, रोकडोच येतां. ’ म्हाका प्रस्न करतल्या भुरग्याक हांवें भुग्या नदरेन पळेत सांगलें.

‘ सर पोत्तो येंवचोना ? ’ दुसऱ्याचो परत प्रस्न.

‘ शट अप, मायण्ड युवर बीजनेस, स्टूपीड. ’ भायल्यान वचपाची अर्दी भुमळशीक आना अर्दी धडपड, तातूत भुरग्यांचे प्रस्न.

‘ मोनीटर ? ’

‘ यस सर. ’

‘ मायण्ड द क्लास. ’

‘ यस सर. ’

आनी खिणांत हांव वर्गांतल्यान भायर आयलों. वारांदांत येवन वोल्सांतलो लेंस काडून कपलावेल्लो घामाची पिकां काडली आनी लांब सुस्कारो सोडलो. सपणार पावल दवरच्याक मीना, शाळेंतलें अेक दिकोवपी, वयर येता तें पळयलें. नाका आसतना कोणांयविशीं मल्तीच चवकशी करपाची सवय आशिल्लें अेक चली. गन्याक हांयस लावन शाळेंत तशें बाजारांत भोंवतालें.

‘ हलो ? ’— म्हाका हडकुपाची संद तार्णें ह्योगडायलीना.

‘ हॅलो. ’— म्हाका रीत म्हण जाप करचीच पडली.

‘ भायल्यान वता ? ’ तुज्या बापायगेर वतां अशें धंतापान सांगचें अशें दिसलें. पुण पाड पडूं, जीब चावली. मात्सो संयम राखलो आनी हांवें ‘ हय ’ म्हळें. आनी तें कितें सांगता हें कानार घेनासतना हांव सपणां देवन भायल्यान आयलों.

केन्नां - केन्नांय मनशाची लिपून आशिल्ली शक्त भायर येता आनी दुर्बळ मनशाक लेगीत बळीश्ट करता अशें अध्यात्मवादी सांगतात. तांचें सांगणें खरें आसू

वा फट आसूं आयज म्हजेर अवसर आयिल्ल्यावरी हांव केन्नां फाटल्या दाराची खिळी काडून कपेलाकडचे बांयसरीं पावलों तेंच म्हाका कळ्ळेंना.

बांयचेर यो जाल्यार, बांयचो काट रिकामो. गाडयेर राजू आसलो. मारयान पयलो कळसो घेवन गेल्लें. दुसरी दोड व्हरूंक येतलें, पुण तो मेरेन हांगा रावप, भुरग्यांनी बी वयल्यान पळयल्यार — खीणभर मन दचकलें. चोयांवशीं भयान पळयलें, कोण नदरेक पडलोना. तसोच येवन मागीलदारांत अुब्रो रावलों. धा मिणटां जालीं. घांट वाजली, तिसरो पिरेड कावार! म्हाका सातवेक तास आसलो; कितें करचें कांयच समजना जालें, पुण खंयचें तरी मन सांगतालें आयज तूं थारावन आयला तसो मारयानाक हटकिल्याबगर वचूं नाका. दारांतल्यान तकली भायर काडून मारयानाची वाट पळेली. सालूच्या भाटांतल्यान खणेर मळील्ले पांयवाटेन मारयान हांडीर मातयेचो कळसो घेवन सदांच अुदकाक येतालें. मातयेच्या कळशार F. F. अशीं इंग्लेजींत अक्षरां आसलीं. बांयचेर बुडकुल्यांची अदलाबदल जावची न्हय म्हण वोयलाद पेंटान अशीं अक्षरां बांयचेर उदक व्हरपाक येवप्यांच्या कळशांर आसतालीं. पुण म्हजे नदरेंत भरिल्लीं तीं दोनच अक्षरां F. F. ह्या अक्षरांच्या अर्थाकडे म्हजो संबंद नाशिल्लो. F. F. म्हळ्यार फ्रान्सीस्क फर्नाण्डीस जांव ना जाल्यार फिलोमेन फेरोंव जांव, हांव F. F. म्हळ्यार फक्त मारयान अशेंच समजतालों.

नाका-नाका म्हण्टां, बरे-वायट विचार करतां करतां मारयान कियोदान म्हजी फिरकी घेतली.

वर्गांत भुरगीं बोब मारतालीं. आजून मारयान येवना, वर्गांत गेल्यार बरो— अशें येवजून फाट परतुपाक मिंगेलील्या पोसोंतल्या झाडांतल्यान तांबडें कितें तरी हय-न्हयशें झळकलें. झाडांचो आडोस सोंपलो आनी आडोसांतल्यान नितळ नदरेक पडटले व्यक्तीक अधाशावरी पळेलें. हय, मारयानच तें. तांबडीं फुलां आशिल्लो आनी हळडुव्या रंगाचे पटे आशिल्लो चिटाचो व्हिस्तीद घालून मारयान येतालें.

असल्या खिणार काळजाचे धडधडीचे सूर कसल्या आनी खंयच्या तालांत आसतात हें सांगपाक कुस्तार. पुण सुरांची धुंदी आगळीच! मारयानाच्या दर पावला-कणकणी म्हजो कलकल पुनवेची जोरगत जातालो. मारयान लागीं पावलें, आनी सगळें विसरून हांव मारयानाक घटा घटा पिवपाक लागलों. म्हजे नदरेच्या गळ्याक सुशेग नासलो. मारयान लागी येतलें, हांव ताका हटकीतलों, मागीर तें म्हजेकडें लजेत अुलयतलें, गालांत हांसतलें, दोळ्यांनी अुलयतलें, मानेच्या झटक्यान सांगपाचें सांगतलें, मागीर हांव म्हण्टलों—

'इस्कोलाक येताय ?'

'तूं शिकोयताय ?' तें विचारतलें.

'तूं शिकताय ?'

'तूं शिकोयल्यार शिकतांय.'

'केन्ना येताय ?'

'आतां येवंचें ?' आनी अशें विचारून तें जेन्ना म्हज्यासरीं येतलें, तेन्ना हांव भितलों. मारयानाक आनी म्हाका कोणेंय अकठांय पळेल्यार ? मागीर हांव मारयानाक वेगीवेगीन सांगतलों 'मारयान फाल्यां मडगांवा मेव म्हाका, गार्डना लागीं, बोरें.' अशें म्हणून हांव धांवतलों. मारयान मागीर खंयचेकडे कांयच घडूना अशे तरेन बांयचेर सदचे भशेन कळशाक कोयर्णी घालतलें आनी कळसो अचळय बांयत सोडून दितलें, एक नदर म्हज्याखातीर शाळेच्या वयल्या मजल्यार मारीत.

आनी मारयान लागीं पावपाक फाटल्यान कोणाचो तरी साद कानार पडलो.

'सोर !' सातवेचो मोनीटर म्हाका सोदीत थंय पाविल्लो. 'सोर, तुजो पिरेड आहा.'

'आय नो'— अनवेळार राहू – केतू येवंचो तसो तो आयिल्लो. ताजे नसायेन म्हज्या काळजाक अजो पेटलो. पुण करतलों किते ? मारयान सामकें दारांत पावलें. खिणभर दिसलें एक माल्शी सगळी लज भीड, एक माल्शी भुरगीं – चिरगीं आनी एक माल्शो सगळो गांव आनी गांवकार, सगळ्यांचें किंकांत करून मारयानाक हटकुचें, मोकळ्या काळजान ताजेकडेन अुलोवंचें. पुण —

'सोर येयना ?'

'तूं चोल रे.'— हांव वासलों.

'भुरगीं बोब मारताय सोर.'

'वोचोन नंबर बरय.' आनी हें सांगतनाच मारयान केन्ना म्हजी नदर हुपून गेलें तेंच कळ्ळेंना.

भुरग्याच्या सादान कल्पनेतल्यान भायर आयिल्लों खरो पुण मारयानाच्या अुल्यान न्हय.

'सोर कोणाक चोयताय ?' आतां मात त्या भुरग्याच्या सोमकुटार फुलोवंचें दिसलें. पुण खंयच्या निमतान फुलयतलों ? मारयान आनी म्हजेमदीं तो आयलो देखून

ताका हांवें ख्यास्त केली अशें सांगपासारकें नासलें. कोणाक चोयताय हें ताका कशें सांगतलों ! मन मारून थंयच्यान पावल उखल्लें. कोणें तरी तोंडातलो घांस ओडून काडिल्ल्या भशेन म्हाका जालें. आनी दुदार्चो तान ताकार भागयतलों म्हळ्यार नेमको ह्याच वेळार म्हजो तास बांयकडच्या वर्गांत नासलो. ना जाल्यार सदांभशेन मारयानाक वयल्यान तरी पळेतलों आसलों. उदक काडून जेन्नां तें कळसुली ओणव घालून कळशांत ओत्तलें तेन्नां इस्तीदाच्या सदळ गळ्यांतल्यान म्हजी नदर थंय त्या अमृताच्या कळशांचेर थिरावल्ली आसली. मारयानाची दर अेक हालचाल काळजांत भरतलों आसलों. पुण सातवचो वर्ग शाळेच्या मदल्या वाठाराक आशिल्ल्यान तेंवूय सूख भोगूंक मेळ्ळेंना. मारयानाचेंच येवजीत सातवेच्या वर्गांत पावलों.

दिसभर ज्या मनशान म्हज्या मनाची गर्भकूड सोडलीना, तें रातचें तरी वतलें कशें ? दिसाचें फक्त येवजणेंत आसलें, रातचें प्रत्यक्षांत आयिल्ल्यावरी सपनांत येवन रावलें.

मर्दी आयतार जालो. कसो तरी आयतार घालयलो. मनीस पेटत जाल्यार कितलो पेटत आनी कसो पेटत हें सांगूं नज. आनी असो पेटतकच ताका सगळो संवसार किंकोंत. ताका कोणाचो साथ नाका, कोणाचो साद नाका, कोणाचो उपदेश नाका, तो फक्त हड्ड्यांतल्या मोगाळ रसांत खतखतत आसता.

सोमारची सकाळ खावपाक लागली. खंयच मन रमना जालें. नदरेक कोण पडना जालो. येदो व्हडलो संवसार आसून हांव मात अेकटो अेकमुळो भ्रमिश्ट जावन नाका आसतना भलतेच वाटेन चलपाक लागलों.

आयज साडेतीनाक पक्कें. मारयानाक हडकवपच न्हय, ताजेकडेन वरभर तरी उलोवप. खुब्ब उलोवप, किंतेंय उलोवप, मारयानाक विचारप—

‘काझराक वोयतोलें ?’ गावांत कोणाचें काझार आसा तें सोदून काडप आनी विचारप.

‘आंतोनीच्या ?’

‘होय गो, आनी आयज कोणाचें आहा काझार ?’

‘वोयतोलें म्हुण्टां, चोवया. भाकरान घाडच्या नाका ?’

‘रातीचेंय भाटकाराचें काम करता ?’

‘तेशें न्हू रे, फुंयी वोयतो जाल्यार भाकरा इचारी नाका ?’

‘आनी भाटकारान घाडलेंना जाल्यार ?’

' आमगो माकार तेसो न्हु रे, तो केदोनाच ना म्हणोना. '

' मागीर केतोलेंच हर तूं. '—

' होच. '—

' दांस करतलें मगो ! '

' कासरा किस्याक बोयताय तोर ? नाच्ताय तेंका चोवपाक ! '

' म्हाका बाये नाचोंक येयना गो. '

' दांव शिकयतां तुका '— आनी मारयानाक वेंगेंत घेवन नाचपाचे कल्पनेनच आंग शिरशिल्लें. आंगभर कसल्यो तरी कातकुल्यो जाल्यो. आनी मनान खिणांत लंयच्यातरी कासराच्या माटवांत व्हेलो.

' आनी आतां नाचोंक तयार रावात स्लोव दांस ' यमशीन मायकार जाहीर केलें.

स्लोव दांस, नाचपाक बरो. चड हात–पांय हालोंवचे पडनात, वेंगत घेवन फक्त हालपाचें.

रात बरीच जाल्या आनी मारयानाक वेंगेंत घेवन डांव टायट नाचता. कमराक हात घाल्यात. अेकमेकांचे स्वास भरसल्यात, मारयान च्युईंग गमाची रवंथ करतानाच भुल्यता.

' तुका डांव कित्याक मानवलें ! '

' तूं म्हाका बरें दिसलें. '

' तूं येदो व्हडलो सोर आहा, तुका चेडवां फाल्त आहा ! '

' तें डांव नकळो. पुण तूं म्हाका संवसारांतल्या लंयच्याय चेडवापरस खूब सोबीत दिसता ! '

' म्हुकोडे कासार जातोलो ! '

' मागीर तुजो मोग करतां तो तुका सोडपाक ! '

' पुण तूं कोंकणो न्हु रे ! '

' कोंकणो जाल्यार कितें कासार जायन दिसना ? '

' किरिस्तांवाच्या चेडवालागीं ! '

' म्हाका किरिस्तांव–मोयर कांय लागना. मनीस जातकच जालें. कोंकण्याच्या चेडवामदीं आनी तुजेमदीं कसलें दिफेरेंस आसा ! '

' तुगे आवोयक— '

'तें तुका कित्याक पडलां, तुज्या लागीं काझार जातलों तो हांव.' आनी अुलयतां अुलयतां स्लोव दांस सोपता. दान्स सोंपिल्ल्याचें आमच्या राज्याक कांयच खबर नासता. सगळीं जोडपीं आपआपल्या जाग्यार वचून बसतात. आमी मात दोगांय काझराच्या माटवांत मुज्ग नासतना काळजांतल्या संगिताच्या तालार नाचत आसतात. तें पळोवन माटवातलो सगळो लोक खो–खो करून हांसतात—

'ये मरपाक आयला रे, कितले हॉर्ण मारचे, कुशीक सर.'— मडगांवच्या बाजारांतल्यांन चलतना कोणेंतरी आपली मोटार म्हाका तेंकयली आनी हांव तन्द्रेतल्यान भानार आयलों. साडेबारा जाल्लीं. गोवा गेस्टांत वचून बेगीन जेवलों आनी शाळेंत वचपाक सायकलीर बसलों.

शार सोडून कोलवा–बाणावलेच्या रस्त्यार पावलों.

भिंडीकडे पावतकच दोन–तीन बायलां काळीं कापडां न्हेसून बाणावलेची वाट चलतालीं. काळ्या व्हिस्तीदांतलीं चेडवां, आनी काळ्या सुटांतले दादले इगर्जेच्या घांटीच्या तालार केन्ना मेल्ल्याच्या घराची जाल्यार केन्ना इगर्जेतल्यान सिमितेरीची वाट चलपी दिश्टी पडप म्हाका संवकळीचेंच जाल्लें.

लागीं पावता तितल्यो–तितल्यो इगर्जेच्यो घांटी चड कानार पडपाक लागल्यो. भाटांतल्या रस्त्यांतल्यान हांव वयर सल्लों. काळ्या कपड्यांतलीं बायलां–दादले परत नदरेक पडले.

पुण भाटांत पावनाफुडें मारयानाची याद जोगूल कशी अुचंबळून आयली. आयज मात मारयानाकडें अुलोवपच. ताका सांगप सगळें—

शाळेच्या दारांत पावलों, असेंबली जावन भुरगीं निक्तींच भितर सरतालीं.

घांटी घणघणटाल्यो.

'बोवाळ करी नासतना वचात. मरण येवपाचें आसा.' इगर्ज आनी शाळा लाग-लागीं आशिल्ल्यान मेल्ल्याक मिसाक इगर्जेत हाडटकच भुरग्यांक सदांच अशें पाद्री प्रिन्सीपल सांगतालो.

'मि. कामत, बांयकडचे क्लाशींनी बोवाळ जायत.' फादर प्रिन्सीपलान म्हाका पळेत सांगलें. 'आनी हें पोय आयज धालीया टीचर येवना, तेन्नां तिजेय पिरेड तुका घेवंचे पडटले—' कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन दोळे.

आयज हांव साडेचार मेरेन बांयकडचे क्लाशींत अुरतलों. वयल्यानूच आयज मारयानाक हडकप.

खुशालभरीत जावन हांवें हजेरीपटार सय केली आनी पुस्तक – खडू हातांत धरून हांव बांयकडचे पांचवेचे क्लासींत गेलों.

' गुड आफ्टरनून सर ! '— भुरगीं सदांभशेन शांततायेन उबीं रावलीं.

' सीट डावन ' — आनी हांव कदेलार बसलों.

' गोबाळ करूं नाकात आं, कोणाच्या तरी मर्णाचें मीस चल्लां ! '

' सोर तुका फोबोर ना कोणाच्या मोरणाचें मिस तें ! ' अशें म्हणून अेक भुरगो फुडें सांगपाक लागलो,

' सोर तें फ्रांसीक भाकराचे मोनें किर्याद नासलोलें, तें काल आयतरा अुदोक काडटाना कळसो घेवन बांयत पोडलें.'

' कोण रे ! ' हांवें केदयान ताका विचाल्लें तें म्हाका कळ्ळेंच ना.

' तें सोर, बांयचेर उदोक व्होरों येय नासलोलें मोनें मारयान — '

' मोनें मारयान ? '

' मारयान मोनें !'

भर दनपारां काळोख. घांटीचो घणघण म्हजें मस्तक फोडटालो– चेंचतालो. दोनूय हातांनी तकली धरपाचें मान लेगीत अुल्लेंना. वादळांत अुबो माड कोसळचो तसो हांव खिणांत मुळासयत हुमटून पडलों.



# आ ट का र

आटकाराच्या भाटांत रामा गावडो आपली खोंप सजोवंक मग्न जाल्लो. अंदूं ताच्या चल्याचें लग्न आशिल्ल्यान नवी सून घरांत येवंचे पयलीं खोंप हातपान्याचेर अुबी करून फुडल्या पान्याक गांवठी नळे घालपाचो बेत करूनच तो आज मागील दारच्या शिवरांतलीं पेसणां खणून माती आंगणांत कालोवन हातपारे थापूंक कालच्यान लागिल्लो. ताची घरकान्न यमनैय अुदक हाडून दिवप, माती पाटल्यान घालून हाडप हे सारखीं कामां करून आपल्या घरकाराक आधार दिताली.

आयज दीस धारेक पावलो तरी तीं दोगांय नेटान काम करतालीं. तांचो अेकसुरो चलो रमेश अंदूं मॅट्रीक शिकून पणजे नोकरेक लागिल्लो. दोनशें रुपया पागार ताका मेळटालो. आनी येत्या मायाक ताजें लग्न बांदोडेच्या बोंबी गावड्याच्या चलयेकडेन ठरिल्लें. तेर्म जावपाचो आशिल्ल्यान जण अेकल्याक म्हणचेपरस दोगांयच्याय आवय–बापायक चड खंत पडिल्ली. शिकिल्लो चलो केन्नां बदलत सांगू नज. आतां शिकिल्ले भुरगे चडसे मोगानच लग्न करतात अशें यमन्याक, रमेशाच्या आवयक पलतडच्या बामणाल्या, येसू कामतील्या चलयेन सांगिल्लें. ताणीं हेच म्हयन्यांत तेर्म करून बार अुडोवपाचो थारायल्लो. माती थापतां थापतां दोगांय घोव– बापलेन तेर्माचेर चिंतप करून तो निर्णय घेतिल्लो.

'पुरो न्हूं!' यमन्यान आपल्या घरकाराक रात जाता हाची जाणीव दित मांगलें.

'फाल्यां आनी केन्नां करतलो? आनी हातभर वयर सल्यार पुरो. चल मागीं, माती वेगीं-वेगीं दी –' रामाक बावड्याक केन्नांकाळ पारे वयर सरताकाय जालें. फाल्यां ताका भाटकाराल्या भाटांत पाडेल्पणाक वचपाची एकाद भाटकारान धाडून दिल्लो, तशी ताणें वेगळ्या भाटांत वचपाची तयारी केल्ली. आनी ते ग्वातीर तो तें हात पारें आयनूच मोपोवंक सोदतालो. आपलो घेंव दिसभर घाम गळयता, ताका मात फुरसत मेळना हाची तिका बावडेक जाणीव जाल्यान तिणें आपल्या घरकाराक फाल्या काम करपाक मांगिल्लें. पुण रामा एकदां कामाक लागतकच तें काम सारकें आधार केल्याबगर केन्नांच फाटीं सरनाशिल्लो.

'दादा आजुनीय कितें करता?' रमेश शेनवार आशिल्ल्यान घरा आयिल्लो. आपलो बापूय तीन कात्र्यो काबार जाल्यो तरीय काम करता तें पळोवन ताका वायट दिसलें.

'ना चेड्या, फाल्यां भाटकारालें पाडूंक वचां जायें न्हूं? वोगोत मेळनाचो ना. आतां काबार केल्यार बरें म्हणोन कामाक लागलों.'— ताणें आपल्या भाशेन म्हळें.

'चल तूं, पुरो आता. फाल्यां हांव बेकार आसतलों. हांव करतां तें काम.' असें मांगून रमेश कवडी भितर धुकडून वगांत सल्लो. ताका आपल्या खेड्यांतल्या खोंपींत येवपाक एक तरेची खोशी जातली. दर शेनवारा तो घरा येतालोच. पणजे ताका लायट-बुडकाची व्यवस्था आशिल्ली कुड भाड्याक मेळिल्ली. थंय ताज्यान मजेंत रावंक जातालें. पुणुन ताका ताजी खोंपूच चड ओडून घेताली. त्या खोंपींत रावूनच ताणें आपलें जिणेक आकार दिल्लो. शिकता आसताना ताका जायत्यो अडचणी आयिल्यो. केन्नां पुस्तकां ना तर केन्नां फी ना, युनिफार्म ना. पुण रामान ताका आपल्या हाडांची काडां करून, हाका-ताका पांय पडून कितेंच कमी पडपाक दिलेंना; एक याद मात ताज्या काळजांत सदांच येयता. भाटकारान ताका शाळेंत शिकूंक वचूं नाका सांगिल्लें. तागेल्या थंय मानायपणाक येवपाक ताणें ताका फर्मायिल्लो. पयलो रामाय बावडो ताका मानायपणाक धाडूंक कबूल जालो. पुण रमेशाक शिकपाचें महत्व कळिल्ल्यान ताणें भाटकाराचें आयकलेंना. तेन्नां भाटकार आपलें मुठींतलो दांडो जमनीर आपटीत आडुल्ल्या ऊतरांची ताका याद जाली.

'रम्या' रमेशाक भाटकार रम्या म्हण्टालो. भायल्या जातींत भुरग्यांक असलीं बरीं नांवां सोबनात अशें ताजें मत आशिल्लें. तो रमेशाक रम्या म्हण.

'रम्या, आरे तुमकां कुळवाड्यांच्या पोरांक शिकप कित्याक तें ? खंय वचपाचें आसा शिकून. आमचे भुरगे शिकून सवरून बेकार पडल्यात.' भाटकाराचीं तेन्नांचीं अुतरां ताका याद जालीं. ताजो भाटकार म्हळ्यार सालाझाराचीं चुकून अुरिल्ल्या गोंयच्या हजार पोरांपैकीं अेक पोर आशिल्लें. गरीब शिकून सवरून वयर सरप म्हळ्यार भाटकाराल्या पांच पांच पावटी मॅट्रिक नापास जावपी चल्याक लज आशिल्ली.

रमेशान सगळ्यांचें आयकून घेवन आपले मनांतलें केलें.

दुसऱ्या दिसा आयतार आशिल्ल्यान रमेश आपल्या बापायलें अर्धकुटें अुरिल्लें काम करपाक खोंपींतल्यान पेज जेवन सकाळींच भायर सल्लो. आनी मुकावेल्या पाक्या खाल घातिल्ल्या हातपांन्याक माती थापूंक कॉमेस करपाक पयसुल्यान दामू धांपेत येता तो ताणें पळेलो.

'रमेश, तुजो दादा खंय आसा रे ?' दामून पयसुल्यानूच रमेशाक धांपेत विचाल्लें. तो धांपेता तें पळोवन रमेश बाबडो काचाबूल जालो. ताका कांयच समजना जालें. ताणें परत विचाल्लें.

'दामू, कित्याक विचारता रे ?'

'तुजो दादू खंय आसा तें पयलीं, मागीर सगळें सांगतां.' दामून ताज्या म्हऱ्यांत येत म्हळें.

'दादू वेळ्गा भाटकाराच्या भाटांत कामाक गेला. कित्याक रे ?'

'आतां भाटकार येवपाचो आसा ?' दामून मितल्लें गुपित सांगलें. दामू भाटकारागेर गोरवां–राखणो आशिल्ल्यान घरांतल्यो बारीक सारीक गजाली ताका आयकूंक येताल्यो.

'भाटकार येवपाचो आसा ? किंतें करूंक ?' रमेशान अजापान विचाल्लें. 'तो भाटाक पळोवपाक येता बी जायत.' ताणें म्हळें.

'न्हू... ये... येता रे.... हांव बाबा पळटां. म्हाका हांगा पळेत जाल्यार दवरचोना—' पयसुल्यान भाटकार येता तो दामून पळेलो आनी ताज्यो दांतखिळयोच बसल्यो. ताणें आनी फाट – फुडें पळयलेंना. शेपटी तुटसर कुळागरांतल्यान वयल्या भाटांत धांव माल्ली.

या शिवराचो भाटकार जेन्नां भाटांत येतालो तेन्नां भाटांतल्या मुंडकारांक बावड्यांक नाकासो जातालो. भाटकार कसलीं कामां सांगत हाजो नेम नासलो. पुण सगळ्या मुंडकारांमदीं रमेशान मात भाटकाराक सदांच किंकोंत केल्लो. भाटकाराचो अेक कायदो आसलो, तो भाटांतल्यान वता आसतना कोणेंच कसलीच हालचाल करूंक

फावनासली. कदेलाचेर बसल्यार उठून अुबें रावपाची ताकीद भाटकारान सगळ्यांक दिली. अेक दीस रमेश तांबरेदिचेर बसून आपणे अभ्यास करतालो. इतल्यांत भाटकार ताच्या खोंपीमुखार दत्त म्हणून उबो. रमेशान ताका पळेलो पुण उठून अुबो रावलोना. आपलें वरोवप ताणें चालूच दवल्लें. ' रम्या, येन्नांच भाटकाराच्या माथ्यार बसूंक पळयता काय किते रे? येंप्रेगाद जालो? मात रेस्पेद नाशिल्लो खयचो. उठ थंयचो !' भाटकाराच्यो कपला शिरो ताणशेल्यो आनी इंगळ्यावरी अुतरां ताच्या तोंडांतल्यान भायर पडपाक लागलीं. पुण रमेशाचेर ताजो कांयच परिणाम जालोना. तो मास्तो थंयच्या थंयच अुबो रावलो आनी ताणें भाटकाराक शांततायेन म्हळें, 'काकूट भाटकाराबु, मान मुंडकाराकडच्यान मागून घेवंचो पडटा, खरें म्हल्यार मान हो पात्र मनशाक मागच्या पयलींच मेळटा.'

आनी या रमेशाच्या अुज्या उतरांनी भाटकाराच्या आंगा-भांगाक उजो पेटिल्लो. ताणें रमेशाचेर फाटींफुडें पळय नासतना हातांतलो दांडो काडून मारिल्लो. रमेशाक कोंक जाली. पुण भाटकारान ताजी पर्वा केली ना. यमन्यान मागीर येवन परत्यान रमेशाकूच तापोवन काडिल्लो. भाटकाराक मान दिलोना म्हणून तिणें ताज्या कानाक बळ घातलो.

भाटकाराक पळोवन रमेशाक फाटली सगळी गजाल याद जाली. ताणें मुखार पळेलें. भाटकार मेरो उपयत वाऱ्यासारखो ताज्या खोंपीवाटेन धावून येतालो.

आनी किते घडटा तें कळच्या पयलींच भाटकारान रमेशाक हातपारो घाल्तालो थंयचो वोडून काडलो आनी वोल्या पाऱ्यार खोंट मारून पारो मोडून अुडयलो.

' घरां जाय तुमकां ? खोंपीनी रावंक कळना, वंगले जाय ? कोणांक सांगून रामा गावड्यान पारे काडले ? खंय आसा तो ?' भाटकाराचो भिरांकूल गडगड कसो आवाज आयकून सगळें कुळागर हाल्लें. वावडें यमनें तळयेर अुदक हाडूंक गेल्लें. भाटकाराचो आवाज आयकून कळसो थंयच दवरून बेगी – बेगीन धांवत आयलें. खोंपीकडे येवन पळे जाल्यार किते, आठ दीस लागून घाल्लो पारो जमनीर पडिल्लो. कुशीक रमेश उबो आशिल्लो. मुकट्यानी भाटकाराचें कर्तुप पळेतालो. आनी दुस्वासी अुतरां आयकतालो. यमन्याक पळोवन भाटकारान परत विचाल्लें ' यमन्या, तुजो घोव खंय गेला गो ?'

' भाटकारा तेका तुयें येंश्मा पाडूंक धाडला न्हू ? ' थरथरत्या ओंठानी यमन्यान सांगलें. यमन्याचे ओंठ थरथरताले आनी रमेशाचे ओंठ एकमेकांचेर चिडुताले.

' इतलीं वरसां या भाटकाराच्या घरांत म्हज्या वाडवडलांनी आपली जीण घाल्ली, आपलो घाम जाचें घर अुभारूंक शिंपडलो, आनी आयज म्हजो बापूय जाचें भाट पाडूंक गेला तो भाटकार मातुय काकूट करीनासतना वण्टी मोडून घाल्ता ? खूप जालें, अन्याय खूप सोंसले. आयजपर्यंत तेंच, तोच अन्याय. रमेश वादळ येतकच दर्या खोदळटा

तसो खोदळलो. त्या वाटेन भाटकार वणत मोडीत आशिल्लो आनी ताजी आवय यमने ताजे पांय धरून चूक मागतालें. आरे, आरे कोण चुक करता आनी कोण गुन्यांव भोगपाक मागता !

भाटकार – भाटकार — ज्या भाटकारान आपल्या भाटांत लाकडां कापूंक गेल्ल्या गरीब बायलांचीं कापडां सोडोवन तांकां नागडीं केलीं, ज्या भाटकारान लोकांच्या गोरवांक बांदून घालून हजार जाणांक भिकेक पावयले, ज्या भाटकारान सुंदऱ्याच्या घोवाक जीव वंच सर माल्लो तो भाटकार आयज रमेशाची खोंप मोडटालो. स्वाभिमान जागो जालो, म्हाका हाडां आसात, मांस आसा, मन आसा, भावना आसात. मनीस या नात्यान भाट-काराइतलोच म्हाकाय या धर्तरेचेर जियेवपाचो अधिकार आसा. रमेशाचो अुजो जालो, डोंगरा येदो. आतां ताका पालोवपाक व्हडले सागर लेगीत पावंचे नासले.

ताणें वंयचो खुटो काडून हातांत धल्लो आनी वाऱ्यासारको धांवलो. भाटकाराक किते घडलें, कोणे माल्लो तें कळचे पयलींच रमेशाच्या खोंपीमुखार भाटकार रगताच्या तळ्यांत बुडिल्लो.

सगळो गांव जमलो, गांवचे लोक— गावडे, भंडारी, कुळवाडी, वाणी, भट-बामण सगळे जमले. आनी ताच्या मुखार छाती काडून रमेशान अेक जीं अुतरां ओंकलीं त्या अुतरांनी भाटकाराच्यो चार पिळग्यो नरकांत गेल्यो.

"आतां सांगात या मनशाक तुमी मनीस म्हणून गांवचो राजा मानतले ? तुमचें मनीसपण, तुमची शक्ती हाज्या दारार विकून तुमी कुत्रे जातले ? आरे आमी मुक्त जाल्यात ते असल्यो सरपळ्यो, असल्यो बेड्यो गळ्यांत घालून जियेवपाक ? सांगात ?"

सगळो दर्या थंड आशिल्लो. कोणच जाब दिवपाक तयार जालोना आनी निमाणे कडे कोण जाणा किते घडलें तें. सगळ्या गांवच्यानी रगतांत हात बुडोवन अेकूच आवाज केलो, "आमी सगळ्या गांवकाऱ्यांनी भाटकाराक जितो माल्ला. आमी खुनी ... आमी खुनी ... गांव खुनी ... न्हय रमेश —"

बाबडे पोलीस येवन कोणाक धरतले ? येदो व्हडलो अेकवट आयज त्या गांवात दिसतालो. पोलीसांची जिप घ रें रें करून आयली तशी परत गेली.

दुसऱ्या दिसा दिसाळ्यांत (वर्तमानपत्रांत) अेक बातमी आयली. तिज्यो निमण्यो ओळी —"पोलीस अधिक तपास करीत आहेत. अजून कोणाला अटक झालेली नाही."



# स्टॉ र्म

साद !!!

तुमी आयकला ?

रगत !!! [ तांबडेंच ]

तुमी पळेलां ? साद घाल्तकच रगत येता हें तुमका पटपाक कुस्तार, तुमचो ग्रुप वेगळो. कदाचीत Bombay Group.

साद कोणें मारिल्लो आनी कोणें आयकल्लो हें आतां सांगपांत अर्थ ना, कारण–

ड्रायव्हराक बस थांबोवंक सांगिल्लीं 'दायवर बस थांबय'– ताका 'दा' म्हळो म्हण मढये राग आयला आसत. ( दिशाकुल्य )

बस पावतां — सकाळ धुल्लाची, सकाळ रागाची ! 'तें' — हांगासर 'तें' हें खूप म्हत्वाचें, कोण तें मागीर कळटलेंच, गोंधळ्याची गरज ना.

तर तें बसींतल्यान देंवता – हांवय – तुमीय म्हळ्यार सगळीं. गोरीं – काळीं, मोटवीं – लांबोडयीं, मोटीं बारीक – इद्स्यां – ना – सबंगां !

तें लेगीत अेक सवंग.

हांव चडलों. ( खंय म्हणपाचें ना. खंयुय चडप, मेळत थंय, मेळत तेन्नां )

तें चडलें – सपणां. तुमी सपनां समजशात, आतां सपनां उरूंक राती खंय आसात. दिसा ढवळ्या दोळ्यां सामकारा घडिल्लें आमी - तुमी - ती - तें आनी सगळे नाकारतात, फट म्हणटात. मागीर सपनांतल्यो खबरो तुमी सत मानोत ? खरें म्हळ्यार सपना परस जागो आसतनाच भोंवतां घुवतांच चड घडलां. तुमकां वा म्हळ्यार वार्ता कळना, तुमी फकत दांगानी वाडल्यात.

तुमी साद आयकूना– कारण काळोख.

म्हजो साद सिद्ध करपाक—

१ ) काळखाचो भिरांकूल काळोख ( ह्या काळखांत आमी - तुमी - ती लेगीत – सगळीं नागडीं ! खरें सांगता म्हण रागार जांव नाकात, ह्या काळखांत मारप, मरप सामकें सोपें. )

२ ) दिसाचो लख्ख अुजवाड ! ( अुजवाडांत नकलीपणां, सकाळींफुडेंच आमी आंगार चडयतात. तो – तें - तुमी हांव लेगीत तोंड धुंवच्या पयली सामाजिक रुपडीं घालूनच हुंबऱ्यार येतात. ना जाल्यार तें आंकवार, राती ताजे वेंगेत आशिल्लें, सकाळीं फुडें साव जांवन बाजारांत वा कॉलेजींत लेगीत येतना तुमी पळोवंक ना ? )

३ ) अ – घोग्याचो घसघस.

ब — फुसक्यांचो फसफस.

म्हज्या सादाची प्रस्तावना.

बस ड्रायव्हराक हांवें बस थांबोवंक सांगिल्ली.

तुमकां सगळ्यांक आयकात म्हणिल्लें.

तुमकां – तांकां – ताका – सगळ्यांक साद घाल्लो, कारण तुमकां कितें सांगपाचें आशिल्लें.

तुमी कोणेंच काना मनार घेतलेंना.

अुजव्यान हांव वयल्या माळ्यार पावलां. नं. १४ दारार.

दाव्यान तें वयर आयलां, नं. १३ त भितर गेलां. हय तेंच तें हेदोळचें, बसींत मेळूं नाशिल्लें ? तेंच. ताका कितें म्हणू ? चुकून हांव १४ नंबरांत गेलों. Sir, please, will you stop your useless lecture ? पुणून 'राव'पी कोण ?

तो म्हणटा 'O, why was I born with a different face ?'

Sir, म्हज्या मनांत खवखतो येता. खयच्याय खिणांक तार्चे भापणें बयर सरून भायर रगतांचें ना नाल्यार म्हज्या सपनांचें आदण ह्या क्लाशींत वतपाची शक्यता आसा. तो आयकना पुणून म्हजें मन मात रूम नं. १३ त.

तें थंय बसलां आसतलें, काल तार्णे म्हाका दुखयलो. बिक्याच्या कंवळ्या कलाक नाम्कूट लगीत लायल्यार फळफळीत व्हांवपी दिकाक आनी म्हज्या दोळ्यांतल्यान भळभळ येवपी दुकांची सर करची – तरें म्हळ्यार म्हाका तेन्नांच सगळ्यांक सांगपाचें आशिलें.

१) डायस्करान बस थांबयलीना.

२) तुमी सगळी - ळे - कानांत बोटां घालून वगे - गी रावलीं.

३) लेक्चर चालू आसतना सरान रावपाचीं सभ्यपणां [?] आनी मनीसपणां [?] दाखयलींना.

तिसऱ्या नंबराचो म्हणूंक लागलो ' I have to finish my portion before March '

९ वाजून १० मिणटां जाल्यांत.

' Excuse me ' – हांव.

' Yes ' – सर.

' Thank you ' – हांव भायर येतां. वरांडाक मरणकळा. जितोमूस ना. हरशीं नाका तेन्नां तवनासांचीं टोळकीं गाजीलमूस कशीं घुंव-घुंवतात.

दाव्यान – उजव्यान – परत दाव्यान. रूम नं १३.

भितर तो आसता— ती – ते – सगळीं आयकतात.

तें लेगीत आयकतारशें दिसता.

' Yes, what do you want ? ' अशीं मोने नदरेन तो विचारता. माचयेर उबो रावला, कींग लियर कसो !

हांव आडसाक रावतां. आतां मन मेकळें. तेन्नां—

' कितें करूं ज्या शस्त्रान तार्णे म्हज्या काळजाचें कांयल्ट केलां त्याच शस्त्रान ताचें कुमकें मन चर–चर चिरूं ?' मन म्हणटा. 'अकल्यान गाय माल्ल्यार दुसऱ्यान वासरूं कित्याक मारचें ?'

तरें म्हळ्यार हांवें कांयच केलेंना देखून तं खाल्स्या पडलें [तुमी सभ्य (?) लोक न्हय म्हणटकच हांवें जर खाल्ल्या पानार हागलें अशें म्हळें जाल्यार शी बाये कसलीं

बुरशेपणां म्हणून शेणाचें अुदक पिवपाक धावतलीं, सवळें आचरण म्हण. पितकच त्या पिवपाक संस्कृतीची म्हेड लायतलीं. तशें तुमी जायतें किते करतलीं, म्हणटलीं आदी — आदी... ]

तर सांगपाचें म्हल्यार—

सैमाच्या नियमाक धरून थोडीं झाडां-पेडां, झाडकुलां आनी झिली-वाली लेगीत केन्नां-केन्नांय बेगीन किल्लतात आनी बेगीनूच मरतात. (तुमचे भाशेत अल्पायुष्यी) पुणून म्हजो मोग (आतां सावध रावात मोग हें अुतर येता) ह्या झाडां-पेडांवरी नाशिल्लो. मागीर वर्सात किल्लूंचो आनी वर्सात मरचो म्हण आशिल्लीं. [चत्राय : वर्सात तें पोर्सांत म्हण वाचचें न्हंय] ताच्या अुणी अुरतां म्हाका मारून म्हाका केणपाचें. मूळ खंयीय आसूं ताजी जात आसू वा ताका ताजी आवय अंदू वा फुडाराक शेंस घालपाची आसू पुणून कोणाकूय जाल्यार खंय तरी चिटमिस्र्यांची, चुरचुर्‍यांची, मायेची, उमाळ्यांची खोलाय म्हण आसता. आमी म्हणनात खंयतरी मनीसपण आसूंक जाय म्हण, तशांतली ही खबर.

मोगाची खबर भूतकाळांत सांगतां म्हणटकूच म्हजो प्रेमभंग जाला हें तुमच्या मेंदवांत आयलांच जातलें.

म्हजो घाय नवो न्हंय—

रानांत लाकडां कापूंक वचपी मनीस कोयती वा कुराड घेवन वाटेर हाताक मेळत त्या झाडा-पेडाचेर घाय घालीत, हाणीत, पाडीत विश्राळो करुो वता.

हें अेकदांच तरी ! वर्सातल्यान शेंभरदां तरी—

मनशांच्या रानांत हांव अेक अशें झाड जाचेर येतना-वतना घावे घाल्यात. तुमचे भाशेंत तांकां जखमा म्हणूया. तर म्हाका आजमेरेन बेणपाचो जाणी-जाणी प्रयत्न केलो तांचें हें अेक लिस्ट.

१) सुनंदा वर्टी — पुणें
२) जुलीयाना — चिंचोण्या
३) सालू — सालशेत
४) लालन — फोंडा
५) आस्वीता — (ह्या नांवाक आनीक दोन उतरां सुवेंक आसात) मडगांव.
६) ??? — [ हें तें आतां खबर सांगतां तें ]

तर ह्या घाव्यांचीं खवळां-खपल्यो झडच्या पयलींच दुसरी दुखापत जाता. घावो

पेखपाची संदच मेळना. निमाणें रानांत घट्ट पांय रोमून आशिल्ल्या झाडाचेरूच सगळो गुन्यांव घालून कापपी – हाणपी मेकळो जाता.

झाडावरी मांनो जांवन ह्यांव तुमचे दवळे आयकतां, तुमकां बाप दिवन फायदो ना.

( चत्राय : नं. ५ – हार्वे मारून घेतलां )

१३ नंबरात गेलां ताका वळखतात न्हंय तुमी ! ताज्या शेवरा बारीक पुणून दिवड्याच्या आकाराची लांब-लचक वेणी घाल्ली चली बसलां. ( ताजी इस्टीण. )

अजाप दिसता तें इतल्याच खातीर 'घे व्हर, सगळें व्हर, सगळें खा. सगळें वाट, सगळें ल्हेंव, सगळे भोक आनी भोग, पोटभर - जालो धादोशी ?' अशें आपलें सगळेंच म्हज्या पांयांकडें ओतून म्हाका 'जालो धादोशी ?' म्हणपी आनी आपुण धादोशी जांवन वी मागीर दिल्लें घेतिल्ल्याक 'चोर, आपल्याक लुटलें, फटयलें, हलकट, फाजील' असलेंच कितें तरी म्हणप आनी एकमेकाच्या मान्यतायेन सगळें घडूनय ताणें म्हजेर आरोप करप, तुमचे मुखार !

तुमकां वर्सांत सांगूंक सोदतालों तें हेंच. ( अर्दे )

तेन्नां म्हयनो जांवन गेल्लो आनी ताणें नव्या म्हयन्यांत लांब सुस्कारो सोडून म्हजें बातलें 'सुटलें बाये !'

आनी देखूनच तांबडो बावटो पयस जातकूच म्हाका घावो करपाचें थारायिल्लें जातलें. कितेंय आसूं. ताका १३ नंबरांतल्यान भायर येवंदी. म्हज्या रक्तबंबाळ काळजांत कळा मारतनाच म्हज्या पायांची व्हाण काडून ताजें तोंड फोडपाचें चिंतून ह्यांव वर्गांतल्यान भायर आयल्लों. तेन्ना ९–१० जाल्लीं याद ना !

१ - २ - ३ टांव - टांव - इतीं घांटी.

वाजल्यो – वाजयल्यो.

तें भायर सरतलें, पयलें एकचार सोंपलें.

आनी रोम दरवाजांतल्यान फेंच सुंदरी जशो एकमेकाक चिमटीत - १३ व्या शेकड्यांत भायर सरिल्ले तशींच १३ नंबरांतल्यान तीं – तुमीं - तें – ती येतालीं.

तें फाटीं आशिल्लें.

वकलाभितर घुघूम - दोळे.

केसांभितर नागडे कळे ( काल्पनिक )

दोळ्यांवयर कपल खळें ( शेंणान सारयिल्लें फशें ). कपलाक गंध-बिंद तसलें कांय लायना.

साय ब्लावज निळो. दांत माल्शे भायर - मुळे न्हंय. छाती तरी चार-चौवांभशेन. ( पॅडींग केल्ली मात न्हंय. )

तर तें आयलें पावलें, वक्लांतल्यान ताणें म्हजेर नदरेचो फार माल्लो आनी म्हाका पळेलां ना पळेलांशें करून आपल्या इश्टीणीच्या आडसाक रावलें. जशें भिंडीच्या आडसाक वडान रावचें तशें.

‘ कोण गो तो ?’ इश्टीणीचें नाजूक विचारप.

‘ जाण कोण मेल्लो ? ’ ताणें तोंडांत किरायतें घाल्ल्यावरी म्हळें.

‘ तुका कित्याक पळयता ?’

‘ हलकट ! ’

‘ तूं कशें वळखलें तो हलकट म्हण ! ’ शाब्बास, good question – हांवें मनांत म्हळें. तशें तें घुस्पलेंच, कणेरीक पालव फारवता तशें.

‘ ना – हय - हांव, मागीर म्हाका पळेता कित्याक ? ’

अेक गोंधळ, आपुग अुदकांत बुडी मारुनय सुकें सवळें म्हण दाखोवपाची धडपड.

‘ Excuse me ’ – उट्या घोणीचीं पाखां मेजप्याक त्या सुजील्ल्या खुमण्या-बयली नूरा वाचूंक वेळ लागत ?

‘ कितें जाय ? ’ रागान – केन्नांच आमची वळख नाशिल्ल्याभशेन.

हांवें बोल्सांत हात घालो.

‘ काल तुज्या केसांचें गंगावन म्हज्या खाटीपोंदा पडिल्लें ते थंयच उरिल्लें, आयज सारण मारतना गावलें. हाडलें, घे. ’ (कपलार शेळो घाम)

आनी तुजे केंस झडिल्ले मेकळे — आनी अेक गंगावन जातलें.

‘ तुजें गंगावन, केंस ताजे खाटीर ?’ इश्टीणीन आपली दिवडछाप विणी Left to Right ना जाल्यार West to East करीत अजापान विचाल्लें.

... ... ... ? ? ?— ताजी वाचाच बसली.

‘ चल गो लेक्चर चुकतलें.’ अशें म्हणून इश्टीण येतली काय ना हें पळेनासतना जोगूल कशें म्हज्या दोळ्यांमुखावेल्यान नाच जालें. हांवें परत म्हळें ‘ तुजें गंगावन घे.’

आनी ताणें फाटल्यान वळून हळूच म्हळें, 'दवर, फाल्यां सकाळीं परत येतां .. ' हें पळय, गैरसमज करूं नाकात.... हें ताणे म्हणूंक ना. म्हजी कल्पना. कारण तें तशें केन्नांच म्हणचें ना. हो अेक Female नमुनो सगळ्यांनी मतीत दवरचो. शिडां तुटिल्ल्या म्हज्या तारवाची ही दशा तुमी पळेली, हांव असो येरें नाशिल्लो, वल्लीं नाशिल्लो अेकटो-अेकसुरो दर्यामाचयेर तारवटी. थंयच रावन आयज हांव Lear जातां. (तुमकां साद घाल्लो तो त्याच स्वार्तार) Poor naked wretches, wheresoever you are that bide the pelting of this pitiless storm. हें तुमकां समजता जाल्यार म्हज्या वादळाची ताका कल्पना दियात. वादळान तारूं फुटचे पयलीं.

०००OOOOO०००

# भोळें

वयल्या मोडणावेलो चडाव काडलो. चडावार रजनीगंधा आपोआप थांबली. तसो रजनी-गंधाक थांबोवपाक कोणेंच हात दाखोंव नासलो.

रजनीगंधा एक गांवची बस. बॅडफोर्ड. एका दाराची, एका घांटीची, स दिव्यांची आनी बारा सिटांची. फोंडेच्यान गावांत परततल्या प्रवाशांक तसो रजनीगंधाक व्हडलो हात दाखोवचो पडटा, पुणून भोळ्याक रजनीगंधाच हात दाखयता, आनी बॅकें सामकारा अचळय थांबता !

गर्दी, चिड्डून मुड्डून लोंबकळत उबी. क्लीनरान पाटें बॉक्सांत घालें आनी भोळो गर्दैंत चडलो.

'किलीण्डर आरे पिल्लूक वाजय, चडलें तें.' एक-ल्याक घरा पावपाची ताकीद लागिल्ली.

'वच रे.' – पिल्लूक मारी नासतना क्लीनरान ताळो फोडून यादूक सांगलें. यादू पात्रांव कम ड्रायव्हर. खाकी मोटवें कलसांव आनी खाकी खोमीस घालून यादून गियर नलां.

यादून भोळ्याक बस थांबयिल्ली. तसो तो थंय पाव-तकच सदांच थांबता, क्लिनरान पिल्लूक मारी नासतना, भोळ्यान 'राव रे' म्हण हात दाखयनासतना !

गावांत वचप्यांक यादूचें अशें थांबप सवकळीचें जालां. कोणांक कसलेंच अजाप दिसना. गावांत तशें जायतें कितें-कितें नवें-नवें घडटा, कोणांक कांयच दिसना. 'जावपाचेंच तें. काळ बदल्ला.' अशेंच कितें तरी म्हणून दर अेकलो आपलें तोंड फाफुडटा. 'बेताळाक नाशिल्ली बायल आनी काळख्या देवतेक नाशिल्लो घोव!' कोणाच्याय संबंदान चड चिंतल्यांची हीं अुतरां गांवच्या खंयच्याय तिस्कट्यार येतल्या वतल्याच्या कानार पडटात.

मंगेशाच्या कामतीन बांदोडेच्या विजयाकडे जमयलें तेन्नां मालो बोवाळ जालो. पुण कानतान विजयाक आपलीच घरकान्न कशी करून घेतिल्ल्यान कालांतरान लोकांक तें वहडलें दिसलेंना. पुण कामती पासून जेन्नां विजयाक भुरगीं बाळां जालीं आनी जेन्नां विजयाक भुरगीं न जावपाचें ओपेरसांव करपाचो वोगोत आयलो तेन्नां कामतीन ऑस्पी-टलांतल्या फॉर्माचेर विजयाच्या भुरग्यांचो बापूय म्हण सयी करपाक आंग काडलें. विजय कुळवाड्याचें म्हण कामतीक आपली उंचली जात याद जाली. ताच्यांतलो आडवो काय थुंबो कोण तो जाणो जालो. विजयाच्या पोटांत पांच भुरग्यांक जल्म दिवन बी ताका ताच्या वत्स गोत्राची जाण जाली, आनी बापूय आसून भुरग्यांनी आपल्या नांवांमुखार आवयचें नांव लायलें. बंद्याभशेन!

साधारण अशीच गजाल, पुण मातशी दुसरी तरा! भोळें आनी यादू! गावांत सगळ्यांक खबर आसा. भोळ्याक मेळनाशिल्लो घोव आनी यादूक नाशिल्ली बायल.

तशें भोळें फकत नांवान भोळें. रुपान, आंगलटान भेस बरें. कोणेय भुलपाचें. तशें पळोंवक गेल्यार भोळ्याची पिराय चड न्हय. आसू आसून तीस-अेकतीस, पुण भोळ्याक घोव मेळपाची शक्यता कमी. यादून भोळ्याक जाय तें दिलां आनी जाय तें ताजे-कडच्यान घेतलां.

यादू आनी भोळें गांवचें अेक प्रकरण. हें प्रकरण तशें बऱ्याच वर्सांचें, बऱ्याच तेपाचें आनी चिंतल्लें, पोटें जांवन भरगेल्लें, तरय तांच्या प्रकरणात अेक तरेचो सोंस आसा, अेक तरेची आगळीक आसा, आनी मोन्या मोगाची देख आसा. यादूचें नातें कामतीभशेन न्हय. कामतीभशेन यादून भोळ्याक आपल्या भुरग्यांची आवय केली ना. ती आवय जावची ना हाची सदांच जापसालकी घेतली. जगाक कांयच खबर ना अशा भ्रमांत यादू रावलो. आपल्यापुरतोच. आपली बस काय तो. तसो यादू सादो-भोळो न्हय. बऱ्याच फामीलाचो. पुण खंयच्यातरी भोवऱ्यांत घुसपलो आनी बस ड्रायव्हर जालो. पगारांतले इल्ले इल्ले गांठोवन यादू डायव्हराचो पात्रांव जालो. यादून आपूण चलयतालो ती बसच विकती घेतली आनी आपल्या कुळयेचें वेव्हारी गिन्यान सिद्ध केलें.

यादून जेन्नां बस विकती घेतली तेन्नां मालभाडांतल्या दर अेक पागप्यान म्हळें, 'आरे बामण तो बामण!'

'हय रे बाबा, खंयच्यान नाडीजिंग करून बसीचो पात्रांव जालो.' कास्टेच्या लेसाचें पोंत खांद्यार पाव नास्ताना खांद्यार अुडोवपाचो प्रयत्न करीत दामू फट्टयान म्हळें.

यादून आपली तीच लाश्रण दवल्ली. ते लायणीर भोळें आसतालें. सकाळचें आठांक येतालें आनी साडेसातांक वतालें. दोन पायल्यो सुकीं सुगटां भरतल्या अेका माणकुल्या पाटल्यांत नुस्तें घेवन भोळें येतालें आनी काम्रान बांदिल्ल्या शेडींत येवन बसतालें. दिसभर भोळें नुसतें विकतालें.

काम्राचे हे येदे व्हडले शेडींपोंदा हेर नुस्त्याकारां केन्नांच बसनात. तांकां थंय बसल्यार दिवाळें काडपाचें पडटा, तीं बावडीं वयल्या बाजारांतच वचून बसतात. थंय तांची वर्झीं लेगीत दनपार जाता म्हणसर रितीं जातात. जेवणांक घरा पावतात. पुण भोळें तिनसांज मेरेन थंयच मूस आंबडीत, मूस मारीत. केन्नां केन्नांय पाटल्यांत नुस्तें लेगीत नास्तना भोळें थंय बसून रावता. अेकटेंच! येतले वतले बसीक पळेत, बसींतल्या प्रवाशाक पळेत, नाच जाल्यार खंयच्याय बसींतल्या कंडक्टराची ना जाल्यार क्लिनराची डोळे-मोड सोंशीत भोळें अेकलें-अेकसुरें थंय त्या शेडींत बसता. साडेसात जालीं कि वयल्या चडवार अुबें रावता. पाटलो माथ्यार न घेतां, हांडीर दवरता. भोळ्याची कमर म्हळ्यार अेक फूट रुंदेची सपणां! कुरण्याच्या आकाराचो नुस्त्यापाटलो भोळ्याच्या कमरार ल्हान कळसो कसो दिसता. भोळें बसींत कितलीय गर्दी आसूं, मोन्यानी गर्दींतल्यान वाट काडून फाटल्या शिटार वचून बसतलें, कोणांक खबर लेगीत नासता भोळें बसींत आसा म्हण.

'आयज भोळें चोडों ना हय गो!' भोळ्याक वळखूपी गांवची भाज्जेकान भोळें नदरेक न पडिल्ल्यान जेन्नां म्हणटा तेन्नां भोळें आयकून लेगीत न आयकल्लयावरी करता आनी मान सकल घालून येवजीता.

रात! भोळ्याक रात सामकी सोसना! दीस परवडलो पुण रात न्हय. ताका रात खावपाक येता. भोळें कुशी बदलता, हांतुणार तळमळटा. भोळ्याची आवय जागी जाता, बोटांनी मलप्यो अुगडून भोळ्याक पळेता, भोळें झळपेता.

'किते जाता गो?' भोळ्याक आवय विचारता. भोळ्याची आवय साडेभावारती, हात-पांय हालनासून घरांत पडल्या. घर म्हणून कसलें, दोन वाल्यांची अेक नळयांची खोंप. स फूट मनीस अुबो रावल्यार पालें वयर सरपाची! खोपीक अेक मल्लांची घडघंच कवडी, कवडेक सुमांची दोरी. कुलूप कशी.

मध्यानराती जेन्ना कवडेचे दोर अचळय मुद्दात तेन्नां भोळ्याचे तळमळे थांबता. जेन्नां तळमळे थांबतात तेन्नां भोळ्याची आवय अर्दी–मेली जाल्ली आसता. तिका अुन्तवून शेजारचे पोर्येंत भिरकावन माल्ल्यार लेगीत तिका कळचें ना.

भोळ्याचे तळमळे सोपच्या पयलीं शेजाऱ्न्नीलीं मुणीं मोंकतात. आस-पास जागो आशिल्लो समजुराचे समजता. आनी माथ्यावयल्यान चादर ओडटा. भाटयेवयले केदळे आनी आस्कडातल्यो किडी–मुयो आपलें बेंड वाजयतना यादूचे स्वास काळखांत भरसतात. अुदकांत साखर विरघळटा तसो यादू विरघळील्लो आसता तेन्नां भायल्यान कांवे साद घालतात.

'भोळ्या !' — यादू ल्हऊच भोळ्याच्या कानांत तोंड घालून फुसफुसता.

'कितें ?'

'फांतोड जाली.'

'वयता !'

'वचन दिसना गो....'

'आवो जागी जातली.'

'खबर आसा.'

'मागीर ?'

'आवोक खबर ना, हांव हांगा येता तो !'

'देव जाणां.'

'तिका खबर आसूंक जाय.'

'कित्या वयल्यान ?'

'काल म्हणटाली.'

'कितें !'

'हं' ... आनी भोळें वगीच रावलें. भोळ्याक आवयचीं उतरां यादूच्या कानांत घोतपाचें धाडस जालेंना.

'सांगना !'

'फाल्यां सांगतां' ... भोळें कूस परतून अुठपाक लागलें. यादून ताका अुठपाक दिलेंना. ताच्या दोनूय भूजांक धरून यादून परत भोळ्याक तोच प्रस्न केलो.

'कितें म्हणटाली आवो !'

'तशें बायटाचें कांय म्हणोना तिणें ?'

'पुण बऱ्याचें कितें म्हळां तें तरी सांग मगो.'

'आतांच सांगों जायें ?'

'पुण आतां सांगलें आनी फाल्यां सांगलें अेकूच न्हय ?'

'हय, नाच. हांव फाल्यांच सांगतलें, फाल्यां बेगीन यो.'

'बेगीन येवं, शेजारी जागे आसतना ?'

'आतां सगळ्यांक कळ्ळें तें.'

'कितें तें ?'

'तुजें म्हाजें बरें आसा म्हण.'

'पुण तुज्यांत आनी म्हज्यांत कितलें अंतर आसा तें जाणां मगो ?' यादूक इल्लें-इल्लें तांच्या मदलें अंतर जाणवता. यादूची चाळीशी सोपून पंचेचाळीसाकडे पावला. भोळें आनी यादू, फकत पंधरा वर्सांचें अंतर, तरीलेगीत हें अंतर भोळ्याच्या मतींत नासता. ताज्या मतींत आसता तो फकत यादू !

'असल्या संबंदाक अंतराची आडकाटी ना, धर केदेंय आसल्यार दार तेदेंच आसता' भोळें झिळमिळ्या काळखांत खोंपभर हांसता.

'आवो जागी जातली –' यादून भोळ्याच्या हांसत्या तोंडार आपलीं तायटां दाबून धरलीं आनी यादू बेगी-बेगीन अुठलो.

'वयता ?'

'कोंब्यान साद घालो.'

'मागीर म्हाका सांग तर.'

'कितें तें ?'

'आमी अेकठांय केन्नाच्यान रावोंया ?'

'आतां कितें आमी पयस आसात तर ?'

'अशें चोरून – मारून नाका, बरें न्हू तें.'

'हें चोरून – मारून कशें तर ?'

'लोकांची भिरांत धरून कित्याक करूंक जाय ?'

'मागीर कितें करूं या ?'

'आमी कायद्यान धोव - बायल जांवया.' भोळ्यान पच्च करून तोंडातली पीक उडयता तशीं आपलीं मेकळीं मनांत घर करून राविल्लीं अुतरां भायर सोडलीं. दोगांय-च्याय वांवाळांत भोळ्याच्या आवयन माल्शी कूस बदल्ली, यादू काचवेलो आनी कवडे-कडे धांवलो.

'फाल्यां सांगता, फाल्यां—' आनी आपलीं उतरां अर्ध्यार उडोवन यादू कवडी धापून झिळमिळ्या काळखांतल्यान चलूंक लागलो. परत गांवच्या मुण्यांची सलामी.

सदांभशेन वयल्या चडावार रजनीगंधा थांबली आनी भोळें पाटलो क्लिनराकडे दिवन गर्देतल्यान वर्शीत चडलें.

'वसता गो भोळया?'– म्हाबळू बायलेन आपलो कुलो सरकयत विचाल्लें.

भोळ्याच्या कानांत म्हाबळू बायलेचीं उतरां रिघलीं ना. भोळें आयज दिसभर येवजणेंत घुस्पल्लें. आयज सांजे यादू ताका नक्की कितें तें सांगतलो, मागीर तीं दोगांय धोव-बायलां कशीं अेकठांय रावतलीं, मागीर तागेर अेका वरसाभरयान—

भोळें आपल्या भितर लजलें. आपल्याक लजेताना कोणे पळोवंक बी ना मु, भोळ्यान दुवावान तकली घुवणावन चोयवशीं पळेलें, पुण चिंवुर्णेंत कोण कोणाक पळे नासल्लो. जो तो गर्देंत स्वास घेवन सदळ उबो रावपाक धडपडटालो. भाज्जेकान्नीन तर अेके चल्येचो खिमो केल्लो. 'माल्शी फाटी राव गे, चिंवुलें मिगे हांव' तें चली बाबडें नेटान भाज्जेकान्नीक सांगतालें.

'खंयगो आनी वच म्हणटा तूं, हांगा हाल्लोंक तरी मेळटा?—' भाज्जेकान्न हाडस्याच्या आवाजान अुलयताली.

आपल्याक कोणेंच पळोवंक ना म्हणपाची पुराय खात्री भोळ्यान करून घेतली आनी परत तें त्या सपनाळ्या बगांत गेलें.

बस गावांत पावली. थांबली. सगळीं देंवलीं. भोळेंय देंवलें. बस मुखार गेली.

यादून भोळ्याक कळपाक तीन होर्नांची इशारत वाजयली.

होर्नांची भाशा फकत भोळ्याकूच समजली. तीन होर्नांपयलींच रस्त्यांतलो जोमो पयस जाल्लो.

भोळ्यान कवडी अुक्ती केली. भोळ्याची आवय येमताली; माथ्यावयर पेत्रोलाचो दिवोय येमतालो.

'दिव्याक पेत्रोल घालूं ना गे?'

'पाड पोडो तो आनी विरंगता यंय ?'

'मागीर तुका खबर ना, घरांत सर जाल्यार काळोख, दिवोमुद्धा पेटोवंक जायना ! कितें करता तूं घराकडेन रावोन?' भोळ्यान आपुण जोडून आवयक पोसतां ह्या अधिकारान आपल्या थोड्याच उतरांनी दाखयलें. तिडकत – तिडकत भोळ्यान घागऱ्याची गांठ सोडली.

सुंगटांचे कडयेन जेवन बी भोळें आयज रोकडेंच न्हिदलें. म्हणजे हांतुणार पडलें. बाबडे आवयक दिसलें पोर कासाद जावन न्हिदलां म्हण. 'पुरो जालां गो बाय ?'

'ना.'

'आयज बेगीन शें न्हिदता ?'

'हरशींच !'

आवयन कवडी लायली. दिवो पालयलो आनी तिवूय आडवी पडली.

काळखांत दोळे अुक्ते करून भोळें खोंपीच्या पाडसाक पळोवपाचो प्रयत्न करतालें तेन्नां ताच्या तकलेंत यादू वांगडच्यो यादी अेकठांय करतालें. भोळ्यान काळाच्या झाडा-पोंदचीं ताजीं टवटवीत पारजताचीं फुलां कशीं यादीचीं फुलां पुंजावन आपले काळजाचे ओठयेंत जमा केलीं.

आतां तीं सगळीं पुंजायल्लीं यादीचीं फुलां यादूचे पुजेक घालतलें आनी संवसा-राच्या विजयरथार बसून गांवच्या प्राकारांत मिरयतलें म्हण आशेन राविल्लें.

यादू येतलो, सदांभशेन आपणाक सांसपितलो, म्हाजेर लंवडतलो आनी ओंठार ओंठ दवरून ल्हवूच म्हणटलो. 'भोळ्या आमी फायच्यान घोव बायलां, आमी फाल्यां लग्न जावया.'

कोणाच्या तरी पावलांचो आवाज येवंचो आनी तो आवाज यादूच्याच पावलांचो आसचो अशें भोळ्याक सामकें मनांतल्यान दिसलें, पुण बरोच वेळ जालो कोणाचीच जाग लागलीना. सदांभशेन गांवचीं रस्ताद सुणीं भोंकलीना, ल्हवूच कवडेचें दार कोणेच सोडयलेंना.

मध्यान रात जाली. जळीं–मळीं भिरांकुल शांतताय. भोळ्याचे उस्कारे खोंपी-भायर लेगीत भितोडे आयकूंक येवपाचे. भोळें सामकें अस्वस्थ जालें.

'कितें जालें काय देवा, कित्याक येयलोना हो ?' भोळ्यान काळजार हात धल्लो. काळजाची धडधड खिणा–खिणाक चडटाली. भोळ्याच्या पोटांत मळमळून आयलें. तें पच्च करून उशावयर थुकलें. दोळ्यांमुखार काळोख आसून भोळ्याक अुजवाडाचें सपन पडलें. भोळें झळपेलें, 'जाणा मिगे आवो, हांव यादूची बायल जातलें, आवो हांव यादूकडे लग्न जातलें, हांव मिगे बामीण जातलें.'

'पेडवा किते जालां!' — भोळ्याची आवय झळपेत जागी झाली. भोळ्याचीं सगळीच उतरां तिणें सारकीं आयकूंक नासलीं, पुण भोळें सपनेलां इतलें तिका कळ्ळें.

भोळें रातभर सपनेलें. पुण भोळ्याक फातोडेर अेक खरें सपन पडलें.

यादून आयज सकाळीं भोळ्याक बस थांबयलीना.

बसींतल्या तमाम प्रवाशानी पयलेच खेप अजापान 'किते घडलां ?' अशा अर्थान मोन्या नदरानी अेकमेकांक विचाल्लें.

सगळ्यानी सकले ओंठ भायर काडून, हाताचीं तायटां उदेत्या सुर्याक दाखयलीं.



# अंत अेके जिणेचो

तळ्येर हांव न्हातालों तेन्नां हांवें तळयेचे अेके फातरीर ओली सू SS सू SS करून आपटीता आसतना नलीक पळेलें. त्या पयलीं हांवें ताका पयलीच पळेलें आशिल्ल्याकारणान म्हाका तें अेक बरें चली कोणागेर तरी चार दीस रावपाक आयलां आसुंये अशें दिसलें. हांवें ताका अेका सर्व साधारण बाकीच्या चल्यांकडेन पळोवपाचे नदरेन पळेलें. म्हळ्यार, तें अेक बरें, शांत स्वभावाचें, बरे वागणुकेचें चली आसुंये कशें!

त्या दिसा हांव पेंवत पेंवत नली अुमळटालें ते तडीक गेलों. इतलो वेळ हांवें नलीक फाटल्यान पळेल्लें. हांव जसो जसो पेंवत पेंवत ताचे म्हऱ्यांत पावलों, तशें तशें नली मान सकयल घालून भितल्ले नदरेन म्हाका पळोवंक लागलें. चड करून वाडिल्ल्यो चल्यो चल्यांकडेन केन्नाच सरळ पळेत रावनात. तांकां चोरून पळोवपाची भारी संवय आसता. जेन्ना चल्यांची नदर तांचेर नासता तेन्नां त्यो जाय तितलें पळोवन घेतात. पुण चले जशे तांचेकडेन पळोवंक लागले तेन्नां त्यो अशेतरेन वागतात कि जश्यो काय ह्यो चल्यांचो तिरस्कारूच करतात! पुण अजापांतलें अजाप म्हळ्यार,

नली म्हजेकडेन पळेत रावलें. ताका कसलें अजाप दिसलें तें हांव नकळं, पुण तें अजागळासारकें आपलें काम सोडून म्हजेकडेन जे अर्थी पळेतालें, ते अथा मात्शें आवडें ना जाल्यार कॅरेक आसुंये, अशें हांवें ताडलें. पुण मागीर म्हजोच म्हाका हांसो आयलो. अेकाद्रें नली म्हज्या हिप्पी टायप लांब केसांक पळेतालें जांवयें. तशें खास आकर्षण कांय म्हज्या आंगार नाशिलें. लांब केस मात अुदकान भिजिल्ल्या कारणान छातयेर, फाटीर लांबताले. नलीच्या केसां येदेच म्हजे केंस आशिले जांवये, देखून तें म्हाका चलीच श्री समजलेंना मूं! खरेंच, म्हाका त्या दिसाचो आनी नलीचो ते नदरेचो आयजूय अुगडास येता.

त्या दिसा म्हजे सभाविक धारेचे नदरेंतल्यान आनीक अेक गजाल सुटलीना. वास्तविक नलीचें तशें वर्णन करप म्हळ्यार आमच्या गांवांतलो लोक म्हाका हल्कट हें विशेषण लावंक फाटीं रावचो ना. पुण पळलां तें सांगपाक कसलो भंय! नली तळयेर पयल्या सपणाचेर रावन वयले फातरीचेर अुमळटालें आनी ताजो लांब घागरो अुदकान भिजत म्हणून तार्णे जाय ते परस वयर खोयिल्लो. आनी ताका लागून ताज्या अजागळ सभावाचें प्रदर्शन जातालें. ताका कसलेंच भान नाशिलें. तें निश्पापपणान कपडे अुदकांत संभाळावन पिळून वादलेंत घाल्तालें.

म्हाका दिसलें, हांव कसलेंतरी पाप करतां. आनी हांव थंयच्यान परत आल्तलों येवपाक अुदकांत देंवलों. इतल्यांत थंयच्यान धा-बारा वरसांचे दोगजाण गोरेंपीठ चलें वताले तें हांवें पळेलें. नलीक पळोवन ते हांसताले. आनी मदींच अेकामेकांच्या कानांत गुणगुणटाले. इतले म्हणसर तांतुतल्या अेकल्यान अेक फातर हातांत काडलो आनी सरळ नलीच्या फाटल्यान अुडयलो. फातरान अुदक अुसळ्ळें आनी नलीचो वयर खोयिल्लो घागरो भिजलो. बावळ्या नलीन आपणाचेर फातर कोणें मारलो तें पळोवंक तकली वयर काडली. आनी तोंडान कितें तरी म्हणपाक ताची वयर अुयिल्ली जीब सकयल देंवली. मागीर तांची आवय काम करताली आनी वाची ओलीं तें धुतालें तांचेच दोगूय चले!

— नली नली, तुगेलो घोव आयला!– तांतल्या अेकल्यान नलीक सांगलें

— नली, तुका पिसो रामराय सोदतालो मगो! – दुसऱ्यान हासत म्हळें.

— बाबा, पळय हां, हांव ताईबायक सांगतलें! बावड्या नलीन तोंड अुगडलें. ताच्या गोड आवाजांतलीं तीं अुतरां आयकून हांव अजाप जालों. ताका रुपूय

तितलेंशें वायट नाशिलें. हेर चलयां भाशेन तें गोरें, नाका-दोळ्यान बरें आशिलें. पुण हेर चलयांभाशेन तें शिट्क आनी हुशार मात नाशिलें. जे अर्थी त्या भुरग्यांनीं ताचीं अशीं फकाणं केल्लीं ते अर्थी ताचें वागप अजागळपणाचें आशिलें. असो हांवें तर्क केलो.

हांव पेंवत आलतडीं आयलों तेन्ना नली आपलीं ओलीं हाण्डीर घेवन तळयेचीं सपणां चडटालें. हांवें परत पळेलें. नलीन वयर खोयिल्लो घागरो तसोच आशिल्लो.

X X X

नोकरेखातीर भायल्या गांवांत आशिल्ल्यान आमच्या गांवच्यो घडामोडी कळपाक म्हाका आयतारा शिवाय दुसरो दीस मेळनाशिल्लो.

असोच अेका शेनवारा सांजवेळा स वरांचेर हांव वसोतल्यान फर्मागुडयेर देंवलों आनी घरा वचपाक लागलों. श्रावणाचे दीस. पावस-वताचो खेळ चलतालो. हांवें पावसाक लागून सत्री उगडली आनी अेकाच हातान देवा गणपतीक नमस्कार केलो. पावसाचे रिपरिपीन डांबरी रस्तो काळोच दिसतालो. मदींच रस्त्यार उदक चोनेवन उरिलें. थंय कोणेतरी हारसोच दवल्ला काय दिसतालें.

खांदार बेग घालून हांव फर्मागुडी देंवतालों तोय म्हज्या विचारांतूच. कसलीतरी गोड याद म्हज्या काळजाक खातखुतल्यो करताली. पिशाभशेन ते यादीन हांव अेकलोच हांसतालों. तकली सकल घालून म्हज्या विचारांत गुल्ल जावन हांव चलतालों. इतल्यांत म्हजे फुडल्यान पटा-पटा जोत्यांचो आवाज कानार पडलो. हांवें तकली वयर काडली तर कीतें!

नली अेका दादल्याच्या वांगडा अेकेच सत्रेंत चलतालें. तांबशा रंगाची नवी करकरीत साडी. फांतयो तर आंबाडोभर माळिल्लयो. बोकोड्याचे फातयेंत घीस सामकी चकचकताली. पांयांचीं जोतींय, साडेतीन रुपयांची नवींच आशिल्लीं. हातांत पांचव्या कांकणांचो चुडो! ताचे वांगडा नलीक घट्ट वेंगेंत धरून चलपी दादल्याच्या तोंडार हांवें नदर माल्ली, तेन्नां तीं दोगांय चलत चलत म्हजे सामकारा पाविल्लीं. तो दादलो जावन जावन पसतिशेक वर्साचो भासतलो. तोवूय बी न्हवऱ्यावरी नटील्लो. पांयांत अेक आंगठ्याचें जोतें आनी ताचो कर-कर आवाज पावसाचे पिरपिरींत सोबून दिसतालो. नलीन म्हाका पळेलोसो

दिसता, कारण तें त्या दादल्याच्या वेंगेतल्यान भायर सरलें तें सरलें, सत्रेतल्यानूय भायर सरलें आनी पावसांतल्यान चलपाक लागलें. जेन्नां म्हजेर ताजी नदर पडली तेन्नां ताजे तांबडे दोळे कसल्यातरी शब्दांनी अुलयताले. तें अशें म्हाका सांगतालें- हांव आतां वतां, बरो करून राव. ताज्या दोळ्यांक आनी तोंडाक पळेनाबरोबर म्हज्या काळजांत चर्र जालें. हांव तर तांकां जोडप्यान पळोवन सामको गोंदळ्ळों. म्हज्या घरांत जगावयल्यो खबरो चलतात; त्या खबरांनी बारसो सावन बाराव्या मेरेनच्यो गजाली आमगेलीं बाण्टेली, जेवन-खावन जातकूच, मांडयेर मांडी अुडोवन, आंगणांत बसून करतात. तांचे गजालीनी हांवूय बी अेक आयकूपी म्हणून वांटो घेतालों आनी हे भशेन म्हाकाय बी गांवांतल्यो आठ दिसांमदीं घडिल्ल्यो गजाली मेळटाल्यो. पुण गेल्या आयताराा नलीचें लग्न बी आसा अशें काय आमगेल्या आकान मांगूक नाशिल्लें.

म्हरेंच म्हाका नलीची काकुट दिसली. त्या जाणट्या काळ्या कुळकुळीत मनशा बांगडा नली मार्गाकडेन माटे-भोळे चलयेक पळोवन दोळ्यांकूय वायट दिसलें काय कोण जाणा, पुण नकळटांच पावसाच्या थेंब्यांनी म्हज्या दोळ्यांतलीं दुकां पडलीं तीं म्हाकाखुद्दां दिसलींना.

नलीचेंच चिंतीत हांव घरा पावलों. पुण घराय म्हाका कोणेंच ही नवी खबर सांगलीना. तेन्नां हांवेंच विषयाक तोंड फोडलें.

काकी सोप्यार बशिल्ली. तिका पळोवन हांवें हांसत हांसत म्हळें, ‘आतां सिगे, तें नली म्हय गे, अेका दादल्या बांगडा फरमा गुडयेच्यान गेलां. कितें सांगूं ताजो थाट ! सामको हकल !’

सगळीं हांसपाक लागलीं. तितल्यांत आमच्या धाकट्या आकान तोंड अुगडलें, ‘बाबा, आज नलीचें लग्न जालें. मेगशे दिलां गंय ताका.’

— अशें, नली बांगडा चलताली तो ताजो घोव तर ! – हांवें मनांत म्हळें.

— बाबा, कितें सांगूं ! घरभायणी वता आसतना नलीन रडून आकांत केलो. आवयक वेंग मारून-मारून बाबडें रडटालें. आपले भाटकाराच्या पांयांर तर परत परत घालून घेतालें.

आमचे काकीन तोंड अुगडलें तेन्नां समजलों आतां सविस्तर इन्फर्मेशन मेळटलें म्हणपाचें.

— पुण हें लग्न केन्नां आनी कोणें थारायलें ? – हांवें विचाल्लें.

— काशीनाथान ! ताचो भावोजी न्हंय ! – काकीन हेळे काडीत सांगलें.

— भाटकान्नीन कितें घालां ? – म्हजी अुलट तपासणी सुरू जाली.

— दोन पोवनाची सरपळी. - आकान जाप दिली.

— आनी कितें ? – हांवें मात्शो आवाज वयर काडीत विचाल्लें.

— अेक दोड, दोन-तीन कापडां, आनी दोन-चार बारीक आयदनां. – आकान सांगलें.

— म्हणजे आवय-धूव दोगांय जाणां त्या घरांत इतलीं वरसां बाबुल्लीं, ताचें फळ इतलेंच ? – हांवें अजापान विचाल्लें.

— तें तूं विचारूंक वच. – म्हजेर आंगलट आयलें.

पुण बाबडें नली ! काकुळट बाबड्याची. मर-मर काम करप, सगळ्या भुरग्यांक पळोवप, ते शिवाय बाजार करप, हीं सगळीं कामां मोन्यानी करप. आनी कोणूय चली आसता जाल्यार पाटल्यो तोडो करून लग्नाचो खर्च भायर अुडोवन, हजारभर हुंडो म्हणून घोवागेर व्हेलेबगर रावचें नाशिल्लें. पुण मोव थंय खणटात आनी तसले जमनीचो फायदो घेतात तें फट न्हय ! हांवें मनांत म्हळें.

— कितें तर दुसऱ्याची काकुट करपी हो बाब आमगेलो ! – म्हजी सगळ्यांनी मस्करी केली.

सगळ्यांचें आयकून घेतकीर हांवें मडगांवच्यान येतना फर्मागुडी देंवतना नलीक कशें पळयलें तें सांगलें तेन्नां सगळीं पोट धरून हांसलीं. म्हाका राग आयलो. पुण अुगड अुगड राग परगटायलो जाल्यार तीं म्हजीं धा-बारा वाजयतलीं आसलीं.

आनी त्या दिसांनी त्या बारकेल्यागेर. त्या बाबुशागेर त्योच गजाली चलताल्यो. नलीचें लग्न अशें जालें, नलीचें लग्न तशें जालें; हाणें अशें केलें; ताणें तशें केलें.

कांय काळान नलीच्या लग्नाचो विशय सोंपलो आनी कोणालो तरी चलो अमक्याक घेवन फिरता, तमको पयर ताजेबरोबर सिनेमाक गेल्लो; अमक्यागेर

पयलोच चलो जालो; तमक्याले चलयेक चाळीसाव्या वर्सार सोयरीक जाल्या – माती आनी गोबोर – गांवढवळुकां गांव ढवळीत आशिल्लीं.

x x x

दोन चार म्हयन्यानीं हांव सदांभशेन तळयेर न्हावंक गेल्लों, तर नली तळयेर पयली भशेनुच ओलीं धुतालें. तेंच फातरीर कापडां घागरे झाडयो बी घांसतालें. आयज्या आमतलें दोन दीस कुळारा रावपा, अशें हांवें चिंतलें. हाचेर हांवें चड विचार केलो ना. आनी असले गजालींचेर आमचे सारकिल्यानी विचार करचूय म्हल्यार सोबना. पुण कोणें तरी म्हळ्ळें – तुका जर बरोवपी जावंक जाय, जाल्यार तुवें मगळो जावंक जाय; बारीक सारीक गजाली बुध्दिचे चोंचीन टिपूंक जाय. नाजाल्यार फुकट! देखुनूच असल्या गजालींचेर हांव चड विचार करूंक लागलों.

घरा आयलों. जेवन घेतलें. आवयन सुपारी हाडून दिली. हांवें आवयकूच विचारलें – आर्आ, त्या नलीचें लग्न जाल्यार कितले दीस जालेगे? – खंयच्या तरी प्रस्नान म्हाका विशय काडूंक जाय आशिल्लो.

आवयन लांब सुस्कारो सोडलो आनी पिच्च करून पान खाल्ली थुकी कोनशाक उडयली. तशी कोनशाक बऱ्यापैकी मॉडर्न आर्ट तयार जाली. हांवें ताचेर दुर्लक्ष केलें आनी आवयची जाप आयकूंक तयार रावलों.

— काकुळट जावक्याची! लग्न म्हणून केलें आनी चार म्हयन्यां भितरूच धोवान धांवडावन दिलें – आई सांगताली.

कोण तरी फातर मारून खांदयेर बशिल्ल्या शेवण्याचीं पांखां तोडून उडयता तेदळा म्हज्या काळजाची गत जाली.

— कित्याक धांवडायलें गे ताका? – म्हजी उत्सुकता वाडली.

— आनी कित्याक! हेंच पयलीं घड न्हीं; सामकें पिशांभशेन वागतालो. दुसऱ्या घराक म्हणटकीर बायलमनशेन रेसपेदान रावंक जाय. हांगा म्हणून चलतालें - असलीं आवटपणां दुसऱ्यागेर चलतात? – आवय रंगार आयली.

हांव जें समजुपाक जाय तें समजलों. नली इतलें निष्पाप आनी सादेंभोळें आशिलें कि ताका बाबड्याक संसाराची कल्पनाच नाशिल्ली. ताचें जग आनी बाकीच्यांचें जग खुबूच वेगळें. ताचें जग मळब आनी दुसऱ्यांचें जग जमीन !

X X X

आनी असोच अेका आयतरा हांव घरा गेल्लों.

रात चान्नी जावन धरणीचे माचयेर थयथय नाचताली. मळबार नखेत्रांय फुगडी घालीत अुजवाडाचीं कांतरां गायतालीं. घरामुखावेल्या पाटार अुदकाचो बब्बरोय सळ-सळ करून व्हांवतालो. किडी रडटाल्यो. आनी तरीय आमच्या आंगणांत शांतताय आशिल्ली. तितल्यांत शेजारची मावशीबाय आमच्या घरावटेन येताली ती हांवें पळेली. मावशीबाय म्हळ्यार अेक नंबरची 'बेस्ट' ढवळूक. गांवांतल्यो सगल्यो गजाली तिचे जिबेर कथकली नाच करताल्यो. पुण आपणाल्या पांयाकडेन मात ती केन्नांच पळे नाशिल्ली. आडवे जीबेन लुडच्या अुतरांचो मारो ती दर बसकेक केलेबगर रावत जाल्यार देवामाथ्यावेलें फुल चुकत !

— कितें गे मावशीबाय ! आज कितें नविदाद ? – हांवें तिचीं फकाणां करपाचें थारायलें.

— कितें सांगूं पुता ! – इतलें म्हणून मावशीबाय ओगी रावली. हांवें तिच्या तोडाकडेन पळेलें जाल्यार तिजे दोळे दुकांनी भरिल्ले.

— कितें जालें गे मावशीबाय ? – हांवें काळीज घट्ट करून विचारलें.

— बाबडें नली, आयज ओलीं अुमळटाना ...... - म्हज्या काळजांत भाले–कांटे तोपिल्लेवरी जालें. आंगणांत बशिल्ल्यांच्याय तोंडांचेर दुखाचें सावट ह्या चान्न्यांत म्हाका दिसलें.

— जें जावपाचें तेंच जालें. – हांवें मनांत म्हळें.

— अेकेवाटेन बरेंच जालें. सुटलें बाबडें ! खुब त्रास काडले. देवूय म्हणून कसलो पळय. कितलो कुड्डो. ताचे हालहाल करपाक इतलो तेंप संवसारांत दवलें आनी अशें अकस्मात सगळ्यांक चिटमिटे लावन ...

केन्नाच भरून येनाशिले म्हजे दोळे ह्या विचारांनी आज सामके भरून आयले, जोरगतीभशीन ...

पयसुल्यान पळयल्ली ओक जाँण, काळजार लीण दवरून गेली !

दुकां लिपोवपाक वेगीवेगीन हांव आंगणांतल्यान वयर वचून कामार पडलों. भुगांत तकली लिपोवन !

ओक मन म्हणटालें — तुका रे कित्याक इतलें दुख ? तूं कोण ताजो ? जागेर ताणें जाँण घांसली तांचेर कांयच परिणाम जालो ना; आनी तूं - पिसो ! आरे, जल्माक आयिल्लो ओक ना ओक दीस मरतलोच ! तूं म्हणून कितें असोच उरतलो ?

ह्या विचारांनी केन्नां दोळो लागलो तेंच समजलेंना.



# पोकी चीट

"बाबा, तुका अेक पोकी चीट आयल्या."
घरांत भितर सरनाफुडें विमलान, म्हज्या धाकटे भयणीन पोकी चीट आयल्या म्हणपाची खबर म्हज्या कानार घाली. पुण पोकी चीट म्हणून हाका कशें कळ्ळें? म्हज्या मनांत अेक विचार आयलो, हें म्हज्यो चिटयो फोडून बी वाचना मूं? पायांतल्या बुटांच्यो दोरयो सोडयतां सोडयतां हांवें परत अेकदां तकली वयर करून विमलाकडे अशा अर्थान आनी अजापान पळेलें कि 'तूं म्हज्यो चिटयो अुगडून वाचता मगो, राव तुका सारकेंच दाखयतां.' अशें ताका हांवें न सांगतांच कळचें आनी भयानूच आपूण जावन ताणें सांगचें, कि 'बाबा हांवें कांय तुजी चीट फोडूं ना आ. म्हजेकडेन बेठोच दोळे तांबडे करून कित्याक पळेता ?' पुण विमलान तशें कांयच सांगलेंना. अुलट जाल्यार चीट हातांत घेवन वाऱ्यार खेळयत तें हासतालें.

ताजे हे करणेचो म्हाका राग आयलो. पोके चिटयेच्या निमतान म्हजीं फकाणां करपाची ही ताजी पयलीच खेप नासली. अशो पोक्यो चिटी, म्हणजे चिटयेर दोनूच अुतरां बरयल्लयो चिटी म्हाका अश्योच वरसांतल्यान दोनदां-तिनदां तरी येतात. म्हज्या जल्मादिसा तर ती पोकी

चीट "देव तुका चड आयुष्य दिंव" या अुतरां भायर सामकीच अुगडी-नागडी कशी दिसता. चिटयेचो धवोफुल्ल कागद, शायेचीं अुतरां नासून अेके तरणे विधवा बायलेच्या कपल्लावरी म्हाका दिसता. गेल्या वर्सा म्हाका लंयचे तरी अेके सर्तीक अेक पयली तर्कीप फाव जाली. दिसाळ्यांनी म्हजें नांव छापून आयलें आनी दुसऱ्याच दिसा म्हाका ती पोकी चीट आयली. 'अश्योच तक्लिपो मेळश्यो म्हुण हांव डेतां.' मेजून हाताच्या बोटांइतलीं अुतरां. म्हजी तोखणाय करपी तश्यो जायत्यो चिटी म्हाका येताल पुण सगळ्या चिटयांचेर इष्टइष्टीणींचें, सोयऱ्या-धायऱ्यांचें पत्त्यांसयत नांव आसता. चिटयेच्या शेवटाक तर "बरोवपाक कागद पावना, चीट इतल्यारूच काबार करूंक पडत भोगता. बायतें बरोवपाचें आसलें." आनी हांकां हांव सवडीप्रमाण जाप दितां पुण त्या पोक्या चिटयेकूच म्हाका जाप दिंवक मेळना.

चीट कोणाली ! खंयच्यान येता हाजो हांवें तर्क वितर्क करून शोध लावपाचो वायतो यत्न केलो. अेक अेक धर अश्यो चिटी पारखूपाकूच खर्चिलें, चिटयेवेलो पोस्टाचो शिक्को पळेलो. पुण दर फावटी दर खेपे वेगवेगळ्या पोस्टाचो शिक्को. केन्नांय मडगांवचो तर केन्नांय पणजेचो, केन्नांय फोंडेचो शिक्को. अेकदां तर मुंबयचो शिक्को आसलो.

या वेगवेगळ्या शारांतल्या शिक्क्यां वरवीं हांवें अेक तर्क केलो, चीट धाडपी मनीस भोंवणकार आसूंक जाय. पुण चीट धाडपी व्यक्ती बायल कांय दादलो हें हांव अजून थारावंक पावलोंना. बायलांचें अक्षर नाजूक आनी वाटकुळें अशें कोणय म्हणटा. पुण म्हाका ताच्या अुरफाट अणभव आयला. मुंबयची म्हजी आतेभयण तर कोंबड्या दोकयानी चीट बुरशी करून धाडटा. म्हापशेच्यान, कॉलेजींत वांगडा शिकपी लेजींतांचें अक्षर तर विचारूंच नाकात ! कोणाच्यो तरी आंतकड्यो काडून चिटयेर दवरल्यात कशो दिसताल्यो, आनी हाच्या अुरफाट पणजेच्या राजेशाचें अक्षर मोतया परस सोबीत ! राजेशाचें अक्षर बरें, पुण एम्.एम्. सीक पांच खेपे आरटी खाली. अक्षर सोबीत नितळ आसा तांचो अितिहास असो. आनी कोंबड्यां दोंक्यावरी अक्षर काडून बरोवप्यांचो वेगळो. आतेभयण खंय A.B. पयल्या वर्गांत आयल्या. हाचे वेल्यान शेक्सपियराच्या फामाद म्हणण्याक, त्या 'नांवांत किते आसा' तशें 'अक्षरांत किते आसा ?' अशी आनी अेक म्हण येवजली. बूट काडून हांव विचार करीत भितर आयलों. भयण ती चीट घेवन म्हज्या दोळ्यांसामकार नाचताली. ती चीट फोडून वाचपाचीय म्हजी अुत्सुकता नासली, पुण पोकी चीट म्हणून चाळोवपी भयणीक मात सारकीच बुद्ध शिकोवप अशें मनांत थारायलें. आनी हांव माळयेर, म्हजे कुडांत येवन कपडे काडूंक लागलों.

कमराक लुंगी गुठ्लावन परत सकल आयलों आनी व्हडल्यान रागाच्या सुरांन विमलाक अुलो मारलो. म्हज्या अुल्याचो विमलाचेर परिणाम जालो. परत जाप दितना

विमलाचीं अुतरां थरथरतालीं. भियेत ताणें म्हळें 'बा ... बा ... घे ... तुजी ...' आनी हे खेपे ताणें पोकी हें अुतर वगळून फक्त चीट म्हळें, ताजेवेल्यान म्हाका धेंगशाचो बरोच परिणाम जालो म्हणपाचें कळ्ळें. आनी ती पोकी चीट म्हज्या हातांत दवल्लया न दवल्लयाशी करून विमल म्हज्या सामकारा रावलां कित्याक ? ताणें बद्द रांदचे कुडींत आवय म्हऱ्यांत धांव घेतली; म्हाका मात्सो हांसो आयलो, पुण तो क्षणभरच. ते वजन नाशिल्ले हलके चिटयेकडेन पळेतकीच कपलाक मिरयो पडल्यो. चीट आरती परती करून पळेली. घडये हे खेपे तरी चीट कोणाची ती सोदून काडूंक कसलोय पुरावो मेळत काय म्हुण आशेन चीट आरती परती करून बारीक पळेली.

चिटीचेर कोणांचेच नांव नाशिल्लें. फक्त सदांसारकें धाडप्याचो पत्तो बरोवपाच्या ओळींचेर चीट धाडप्यान सोबीत बारीक अेक फुलांची वाल काडिल्ली. वाटकुळींच फुलां आनी लांबशीं पानां. चित्रंगेची वाल कशी पळोवंक दिसताली. चिटयेच्या भायलेवटेन जर फुलांची वाल पिताल्लया तर भितर किंतेय तरी आसूंकच जाय असो हांवें अदमास बांदलो. पयलीं पयलीं म्हाका असली हलकी चीट फोडपाकच बेजार येतालो. पुण आयज तरी धाडप्यान आपलो पत्तो बरयला काय अशें म्हणून चीट फोडून वाचूंक मन आशेतालें. आनी दर खेपे म्हजी निराशाच जाताली.

आयज भायल्यान वाल पळोवन आशेक मात्शी आंकरी फुटली. आनी या आंकरेनूच मनाक अुपाट खोशी जाली. कागदावेलीं तीं वाली फुलां पोरसांतल्या जिरया फुलां-परस ताजीं आनी परमळींत कशीं म्हाका दिसूंक लागलीं, आनी आधाशावरी हांवें ती आंतरदेशी चीट फोडली. चीट फोडतना काळजांत बेटीच नाजूक धडधड जावपाक लागली. किंतें आसतलें काय भितर ? आनी कोणें बरयल्या ? खंयच्यान ? बरोवपी चली काय चलो ? आनी चली जाल्यार खंयची ? आनी अशी नांव गांव सांगनासतना चीट कित्याक बरयता ?

या प्रश्नान मनांतले मनांत खातकुतल्यो जाल्यो; वास्तवीक म्हाका चलयांच्यो चिटयो येनांत अशें कांय न्हंय. जायत्यो चलयो, वळखीच्यो, वांगडा शिकपी म्हाका परबीं वा ग्रिटींग्स धाडटात, जायतीं जाणां दोन-तीन पानां चिटीय बरयतात. पुण म्हाका तांच्या चिटयांचें केन्नांच कांयच दिसलें ना. केन्नांच अशो काळजाक खातकुतल्यो जाल्यो ना. चीट आयली, वाचली. दवल्ली. फावल्यार जाप धाडली !

मागीर आयज अशें कित्याक जावंचें ? अशें किंतें आसा या पोके चिटयेंत ? मनांत दोन मनां जावन झगडतात. तर्क-वितर्क करून आपणालेंच खरें म्हणपाची पराकाश्ठा

करतात. दोन पंगड दोरी ओडून फोयणी पार करपाक घाम गळयतात, नाकाशेंडे तांबडे करतात आनी खर्शेतात तशीं हीं दोनूय मनां खर्शेतात अशें म्हाका दिसलें.

पुण या दोनूय मनाची सर्त चालू आसतना तिसरें मन खंय तरी निळ्या सपनांनी बुडलें. या तिसऱ्या मनांक पत्र बरोवपी गावलें. चीट बरोवपी अेक चली, पयमुलें न्हय. गांवचेंच...!

तिसऱ्या मनाक कळटा, गांवचें वा अेक खंयचें तरी वळखीचेंच चली पोकी चीट म्हाका बरयता. आनी हांव मात्सो ह्या तिसऱ्या मनाच्या विचारांनी बेभान जातां.

हय ताणेंच बरयल्या जावंये, अेक कल्पीत चली म्हज्या दोळ्यां मुखार उबे रावता.

अेक चली, नांव खबर ना, पुण काना-दोळ्यांन, रुपान सोबीत. घडये नांव बी अशेंच किते तरी सोबीत ना जाल्यार शोभा! मुदयाळे पुण फाटभर फाटीर केंस. कानार मुदयाळ्ी केसांचीं कुरुरां – विगयेर बायांचो घवोफुल्ल फुलिल्लो पोड. आंगांत कितें? साडयेंतलें बरें काय माय ब्लावजांतलें? साडयेंतलें चड जाण्टें दिसतलें! बायल करूं? नाका हें कल्पीत चली, साडयेंतलेंच बरें. कोण भुरगें म्हणचांना, आमच्या मोगाची गजाल कळ्ळ्यार गांवच्या जाण्टेल्यांक म्हणूक मेळटलें " चलयांक चड घोडयो जायमेरेन दवरूंक फावना. तें पळेलें ताच्या मोगान पडलें, ताजे वांगडा नाच करता, घराण्याचें नांव घालयलें, बापायक बावड्याक लजेक म्हारग केलो!"

हय अशीच चली! म्हाका जाय तसल्या चलयेनूच ती पोकी चीट धाडल्या जावंये. आनी अशी कल्पना करतां करतां म्हाका ती चीट वाचपाचें भानच उरलेंना. 'बाबा, जेवण जालें रे, पांय धुवन जेवपाक यो ....' भयणीन रांदचे कुडींतल्यान उलो मारीना बरोबर म्हाका शुद्द आयली. आनी बेग बेगीन हांवें त्या चिटयेचेर नदर मारली.

'हार्दीक अभिनंदन' परत तेंच, तींच अुतरां! चिटयेर तारीक १५ आक्टोबर १९७४ बरयल्ली. तारीक मात आंकड्यांनी बरोवचेल्या जाग्यार अुतरांनी बरयल्ली. गेल्ल्या चिटयांपरस हे चिटयेंत थोडीं चड अुतरां आशिल्लीं. "पंधरा आक्टोबर अेकोणीसशें चौऱ्यात्तर " अक्षर पारखुपाचो मात्सो प्रयत्न केलो, पुण जमलेंना. चिटयेचें दुसरें पान परतून पळेलें. हे खेप आनीक अेक अजाप घडलें. आतां या चिटयेक पोकी म्हणप म्हळ्यार खऱ्यानीच चीट बरयतल्याचेर अन्याय जांव येतालो. भयणीन निदान हे चिटीक तरी पोकी चीट म्हणूक फाव नासलें.

दुसऱ्या पानार—

अेक चौकोन रंगयला. पांयजेलांची फास्की करतात तशी त्या चौकोनांतली फास्की भायल्या सारकीच फुलांच्या वालीन कोरीली. कृष्ण कमळीच्या फुलां भशेन तीं पितारीलीं फुलां दिसतालीं. आनी त्या सोबीत चौकोनाच्या मर्दीं 'हरेश' अशें तीन अक्षरी म्हजें नांव सोबीत मोतयांच्या अक्षरांनी बरयलें. नांवाच्या शेवटाक अेक नक्षत्र काडिलें.

चिटयेच्या देगेकडच्यान दोन हात काडिले. हातांचो पोसो करून पोशांतल्यान फुलां म्हज्या नांवार अुडयता कशें दाखयलें. जायतीं फुलां नांवार पडल्यांत तीं फास्के भायल्यान दाखयलीं. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार फुलां नांवार अुडोवपी हात अेके चलयेचे दिसताले, हातांक कांकणां घाल्लीं ताजेवेल्यान हांवें हो तर्क केलो.

पुण अशी चीट धाडपी चली कोण ? म्हाका याद ना केन्नासान ह्यो दोन अुतरांच्यो चिटी म्हाका येवपाक लागल्यात म्हण. पुण गेल्लीं दोन वर्सांची म्हाका सारकी याद जाता. चीट धाडपी चलोमनीस म्हणपाक आधार नासलो. मागीर हें चली कोण ?

चली सोदून काडपाचो विडो हांवें अुखलो. शिवाजीक मारपाचो विडो जितल्या जोमान अफझुलखानान अुखलूंक नासलो तितले जोमान हांवे हो विडो अुखल्लो. चलयेक सोदून काडीना तर नांवचोच हरेश न्हय ! अशें थारावन हांव रांदचे कुडींत जेवपाक गेलों.

ते रातीकडेन मनांत तेच तेच चलयेचे विचार आयिल्लयान, म्हाका ज्या चलयांचो दुबाव येतालो त्या चलयांनी सपनांत येवन म्हाका मेळपाचो त्रास घेतलो. पुण सगळ्यांक हांव वळखून जाणा सकाळ जातकच त्या सपनाकूच विसल्लों.

बरेच दीस जाले कांयच मेळना; कोणाचोच दुबाव येना. खंयच्यान कोण चीट धाडटा असो दुबाव येता थंय थंय त्या चलयांची खबर काडली. पुण कांयच सादलेंना. अखेरेक म्हजो विडो पोको जाता सो दिसलो आनी हांवें त्या पोकें चिटयेची भानगडच सोडून दिवपाचें थारायलें.

असोच अेके राती — चड करून ती रात पुनवेंचीच जावंये. त्या पुनवेच्या राती चान्यांत आंगणांत येवन बसलों. माळयेर गरम जाता म्हण वोल्तेर घालून आंगणांत चमेलीच्या मुळा बसलों. रातचीं साडेबारा वरां जाल्लीं, घरांतलीं न्हिदिल्लीं, पुण म्हाका न्हीद कशीच येना जाली.

पयस खंयतरी पळेतां पळेतां मनांत जायते विचार येताले. या विचारांत त्या पोक्या चिटयेक मात हांव सामकोच विसरून गेल्लों.

बोल्तेर कवळून हांव आतां घरांत निदूंक वचपाक धम्याफुल्ल चान्यांत अेक वायल मनीस, आंगणांत येता तें म्हाका नितळ दिसूंक लागलें. हांवें आंग काडलें. मध्यान राती ही वायल मनीस कोण ? म्हजे हात पांय बड जाले, पुण भियेवंक फावना आशिल्लें. हांवें मात्शें धाडस केलें आनी थंयच उबो रावलों.

ती वायल मनीस शेजयेंतली आसा म्हणपाचें आतां कळ्ळें. चान्यांक फाट करून चलिल्यान तिजे मुखामळ वळखुपाक म्हाका वरोच कळाव जालो.

आनी हळू-हळू ती म्हज्या सामकार येवपाक आंगणांत येवंक लागली. आतां मात हांवें धाडसान विचारपाचें थारायलें आनी ताळो मात्सो गावचे पयलीं गवय खरकयता तशो खरकत विचारलें —

‘कोण थंय ?’

‘हरेश-’ ते व्यक्तीन म्हाका म्हज्या नांवान उलो मारलो, आनी त्या आवाजाक हांव वळखलों आनी हांवें विचारलें :

‘कोण...वैशाली...तूं ?’

‘हय. ’....

‘रातीचें ?...’

‘तुका मेळूंक आयलां. ’

‘बाबा दुयेंत जाला ?’

‘ना...ना... हरेश ... कोण दुयेंत जावंक ना... दुयेंत हांव जालां ...’

‘कितें बडबडटा ? कितें जालां ?’

शेजारच्या वैशालीक पळोवन हांव आकूज जालों. केन्नाच कोणाकडे तकली वयर काडून पळोवपी न्हय अशें शांत जाबाले चली मध्यान राती म्हज्या घरच्या आंगणांत. म्हाका कांयच सुचलें ना. आवाजान कोणय जागी जावन आमकां दोगांकूय पळेलीं जाल्यार? पुण हें चली म्हजकडेन केन्नाच उलोवपी न्हंय, केन्नांच ओठांच्यो कळयो दोडून हांसपी न्हंय, अशी चली मध्यान राती म्हज्या म्हऱ्यांत ? आनी हाजे बद्दल केन्नांच मनांत कसलेच विचार आयलेना. केन्नांच...केन्नांच.

‘हरेश ?’ — वैशालीच्या उल्यान हांव भानार आयलों.

‘हं ...’

'म्हजो-' आनी ताका वाचा फुटलीना. अुलयतां अुलयतां कोणेंतरी सकनळी दाबिल्ल्यावरी तें अचकीत वोगीच रावलें.

'कितें...कितें...सांगपाचें आसा तुका ?'

'हरेश, तुजें अभिनंदन करूंक आयलां, दर खेपे हांव तुजें चिटयेन अभिनंदन करतालें. गेल्ल्या जल्मदिसा तुका मुंबयच्यान चीट घाल्ली, पुण पयर तुका कथास्पर्धेंत तखीप मेळिल्ले खातीर हांवें परबीं दिवपाक अेक चीट बरयली. पुण चिटयेर पत्तो बरोवपाक विसरलें. पत्तो बरयनासतना चीट पोस्टांत घाली.'

'अशें ! -' म्हणजे पोकी चीट धाडपी म्हजीच शेजारीन तर ! म्हाका अजाप जालें तें जालेंच ते भायर अेक प्रस्न पडलो, इतलीं शेजरा रावन हाणें पोस्टांतल्यान चीट घालून म्हजें आभिनंदन अशें पयसुल्ल्यान करचें ! हांवें अेक लांब सुस्कारो सोडलो आनी वैशालीकडेन पळेलें. आधाशावरी तें म्हजेकडेच पळयतालें. हांवें ताजे अुपकार मानपाक ताका म्हळें, 'तूं परबीं दिवपाक चीट धाडटालें देखून देव बरें करूं, पुण तुज्या चिटयांनी म्हाका जायतो त्रास दिलो.—'

'हांव जाणां; आनी हाजेमुखार चड त्रास जावंचो न्हंय म्हणून हांव कुडीचें जनेल अुगडून अेक साडी जनेलाच्या खूराक बांदून सकल दैंवलें आनी तुका मेळूंक आयलें. हरेश, जायतीं वरसां तुजेखातीर रावलें . आतां अशें अेकटें ... एकसुरें रावंक नज... म्हज्यान रावंक नज...'

... आनी कितें घडटा तें कळचे पयलींच ताणें म्हज्या छातयेर तकली दवली आनी तें भितल्ले भितर मुसमुसून रडूंक लागलें. नकळतच म्हजे हात ताका थापटावंक लागले.

"— वैशाली हांव समजलों."

"खऱ्यानीच ?"

"हय" —आनी परत ताणें म्हाका घट्ट वेंगेंत धल्लो. हांवेंय ताका आवळून धल्लें आनी म्हळें... "वैशाली .... !"

'हं....'

'आतां मात चार अुतरांची चीट बरोवन चीट पोकी करप ना —'

'आं...'

"ना ... आयच्यान पोकी चीट बरोवप ना !"



# पो स को

सगळ्यांच्या दोळ्यांत रात तिस्टता. उबे रावन पांय मुयेल्यात. कोणाच्या कंबरांत आयलां तर कोणाक काडावडी लागल्यात, कुळो तेकयतलो म्हळ्यार राजांगणांत वेंतभर सुवात ना, तरीय सगळे जाण जांटे-न्हैटे, पोरां तोरां शिगम्याच्या निमण्या रातीं राजाच्या पालाशेंत गांवकाराचेर अवसर काडपाक जमा जाल्यात.

माळयेवयल्यान पातळ जाळये पड्ड्यांतल्यान गांवचो राजा सकल राजांगणांत कितें घडटा तें बारीक नियाळतालो.

"हो पळय राजा पळेता." वयर पळेत रंगून आपल्या धाकट्या भयणीक, रंगूक सांगलें.

"गोरोपिट्ट न्हु गो!" परत रंगून वयर पळेत म्हळें. गोंवळांत कोण कितें उलयता तें कोणाकच आयकूंक येनाशिलें, तरीय राजांगणांत एकमेकांकडेन उलवप चलिलेंच. वायलां तर एकमेकांच्या कानांत कसल्या तरी कुबावानीच उलयतालीं, फुतफुत्तालीं.

"हर...हर...हर...हर-" आनी वादळान दर्याक व्हडली धमाड येतकच धसाडीच्या आवाजान सगळे बारीक मोठे आवाज शेणतात तशी गाराण्याच्या धमाडीन भितल्या भितर उलयतल्यांचो आवाज थंयच्या थंय विरवळून वतालो

आनी उलयणाऱ्याचें सांगणें चडच म्हत्वाचें अशें उलोवप्याक दिसत जाल्यार तो आयकतल्याच्या कानांत तोंड घालून मात्सो मोट्यान उलयतालो,

"म्हाका दिसता अन्दूं या भाराक गांवच्या देवान उतर दिवना."

"पुण शांबा गांवकारालो चेडो न्हु रे तो! बापायचें देवसपण पुताचेर येवं नाका?"

"मागीर इतलो कळाव कित्याक, दोन वरां रात जाली मरे!" -आनी ते दोगूय उलोवपी राजांगणांतल्या व्हडल्या घड्याळीक पळेताले. घड्याळीचो पेंडलम लायटीच्या उजवाडांत चकचकून पळेतल्यांच्या दोळ्यार मारतालो.

सगळे गांवकार सात दीस गांवचो मेळ घेवन वाड्यांनी-वाड्यांनी, घराघरांनी भोंवले, राम-सितेच्यो जोती गायल्यो, धोल ताशे बडयले, तोंडाक रुपडीं घालून तालगडी खेळले आनी चतुरदशीक, सातव्या दिसा मेळांचें विसर्जन करपाक गांवकार राजाच्या घराच्या राजांगणांत जमा जाले. गांवकाराचेर अवसर काडपाक ओमणो जल्मी ताळो फोडून सांगणें करतालो.

"जाग्याच्या देवा, शेम्या आळींतल्या म्हालगड्या, चारीय पुर्वोच्या राखणदारा, किंतेंय खोटें-नाटें आसल्यार पांयां पोन्दा दवरून आयज आमचेर तुजी नदर घालून आमची वर्साची भोगावळ वायट-बरी मानून घेवन आमचे मदीं येवन तुवें तुजें पाठबळगें दाखवचें."

'हय सायबा ...हर...हर...हर'... आनी परत एकदां नेटान आतां तरी भार येतलोच म्हण बचकभर तांदळांचो मारो सगळे जाण करताले.

पुणून निशाण हालना. अंकुश स्सा स्सा करून उसळना. गांवकाराक देव गावना. 'शांबान चेड्याकडे नाल्ल दिल्लो मरे?'.... आनीक एक दुबाव धोणशीच्या चुडून उलोवन दाखयलो.

'शांबाकूच हांगा हाडपाक जावचो नारे?'

'तेका हारीचें जालां. दावो पांय आनी हात येयना.'

शांबा गांवकाराक अर्धांग जालां हें सगळ्या गांवाक खबर आशिल्लें तरीय लेगीत बेजार जावन शांबाकूच राजांगणांत हाडपाची भाशा जायते जाण उलोवन दाखवपाक लागले.

राजाचे पाल्हाशेच्या सामकाराच शांबा गांवकाराचें घर. पालास आनी शांबाल्या घरा मर्दी एक व्हडलें पोरसूं. या पोरसाक गांवचे लोक राजालें वट्ट म्हणटाले. राजाच्या राजांगणांत किते जाता तितलेंय गांवकाराच्या घरच्यांक दिसतालें, आनी सगळो घोवाळ गांवकाराच्या घरांत तांच्या कानार पडतालो.

वर्सान वर्स गांवकारालें घराणें चतुरदशी दिसा सामकें रितें आसतालें. घरांतली सगळीं जाणां सरकारांत घराण्याच्या वहलाचेर, शांबाचेर वर्सुको अवसर येता तो पळोवपाक राजांगणांत सगळ्यांपयलीं गरादीचेर बचून बसतालीं. वर्सान वर्स शांबा गांवकाराचेर पयल्याच गाराण्याक अवसर येतालो आनी रातचीं बारा जाय म्हणसर सगळो मेळ उम्रातालो. मध्यान रातीक चोयींवर्शी किण्ण पडतालें.

आनी अन्दूं विपरीत घडलें. पंचावन वर्सां पिरायेच्या शांबाचें शिवरातरे दिसा अचानक आंग घलें. शिरंतरां उज्याच्या घगान बाली बावतात तशीं बाविल्ल्या वरी जालीं. शिरांनी रगत घोळना जालें. आंगणांत बसला थयंच शांबाक अर्धांगाचो झटको आयलो आनी शांबा गांवकार हांथूणार पडलो.

माथांतल्यो शेळो वारो शांबाक शांबलो अशें गांवठी वैजान सांगलें.

दाव्या हाताक आनी पांयाक नाना तरेचीं तेलां माळीस करपाक हाडताले. शांबाचीं घरचीं, चड करून घरकान्न मागं, रातीचो दीस करून शांबाची सेवा करतालीं.

फाल्गुनात शिगम्या मेळांक शांबा बरो जातलो, वर्सा सारखोच शांबाचेर जाग्याचो अवसर येतलो, आनी वर्सा भशेन.शिगमो संपतोलो अशी सगळ्यांची वान्सा आसली.

फाल्गुन आयलो, फाल्गुनातली पुनव आयली, शिगम्या मांडार गांवच्या मेळांक नमन जालें, सात दिस मेळ खेळलो पुण शांबाक गूण पडलोना.

भाराचो प्रश्न उप्रासलो, आनी वक्तार गोंधोळ जावचो न्हय म्हण धाजाण जमून देवळांत गांव देवांक प्रसाद पाकळी लावन वर्साचो अवसर शांबाल्या पुताचेर अंकुशाचेर येवचो म्हण सांगणें केलें, आनी शांबा हातचो भाराचो नाल अंकुशाकडेन दिलो.

पयल्याच घपक्याक भार येतलो असो गांवच्यांचो भावार्थ आसलो.

पयलें गाराणें जालें. हर....हर....हर....हर.... करीत अक्षदांचो शिंवर जालो, तिर्थाचो शितोडो घालो, आंगार चिकूत शिंपडली.

"हर...हर....हर...हर...हर..."

राजांगणांतल्या वण्टीवयल्या वड्याळीचेर दोन वरां वाजलीं आनी पालाशीच्या द्वारपालान तोणी घेवन वाटकुळ्या लोखणा जगांटीचेर दोन तोणयो माल्ल्यो.

हांथुणांचेर शांबा कुशी परतीतालो. राजांगणांतल्यो बारीक सारीक गजाली ताज्या कानार पडताल्यो. शांबाक न्हीद कशीच पडना जाली. तळमळे लागले, डुस्कान्यांनी जीव वयर सकयल जावपाक लागिल्लो.

शांबाच्या कुशीकच ताजी घरकान्न, भागें न्हिदील्लें.

बाकिचीं सगळीं वर्सांभशेन राजांगणांत भार पळोवपाक गेल्लीं. राजांगणांच्या गरादीचेर काडावडी काडतालीं, अंकुशाचेर भार येवचो म्हण मनातल्या मनांत देवाकडेन अर्गो घालतालीं.

शांबान काळखांतच दोळे उक्ते करून जनेलातल्यांन भायल्यान पळवपाचो यत्न केलो. काळखांत कांयच दिसलेंना, फक्त कानांनी सगळें आयकूंक येतालें.

'गांवकारान कसलें पातक केलें रे अन्दूं?" एका आवाजांतलीं उतरां तापिल्ली लोखणा सरी आंगार पडत तशीं शांबाच्या कांनांत पडलीं.

'हारीचें वावन घरांत पडला आनी चेड्याचेर भार येयना '– राजांगणांभायर कोण तरी नाका नाका तें उलयतालें.

राजांगणांत हर-हर-हर म्हणपाचो आवाज बरोच मंद जाल्लो. बोब मारून खर्शेल्लो ओमणो जल्मी तितलोच माल्सो नेटान सांगणें करतालो.

"अशें केन्नां जालेंना; इतलीं वर्सां भारालातीर लोक केन्नां तिरटलेना; गाराणी घालूंक ताळो केन्नां घास्तार केलोना; पोरा-तोरां इतलीं केन्नां आडुलींना; गांवकाराच्या नांवान केन्नां कोणेंच वायट उतर काडलेंना, तीन-चार तपां खांदार निशाण घेवन अवसाराचीं अप्रूपां भोगलीं, गांवकारपणाची मिरास दाखयली, गांवचो गांवकार म्हुण भौमान आनी जाण्टेपण भोगलें, मागीर—" शांबाच्या काळजांत उतरां खतखत्तालीं, पुण ओंठांवटेन भायर फुटूं नासलीं.

शांबाक शिगमो दिसूंक लागलो. गांवच्या संस्थानाच्या राजान दिल्ली निशाण खांद्यावयल्यान कोणतरी ओडून घेता, कोण तरी आपलो अधिकार हिस्कोवन घेता, कोण तरी गांव भर्ष्टीता, कोण तरी गांवची पवित्र तांबडी माती काळी करता; कोणें तरी

सगळीं भूतां खेतां, लांवलुतां, हापशी खेत्री, समंद उठोवन घाला. गांवचें देवसपण विटलां. शांबाच्या मनांत सामकीं नाका तसलीं चिंतपां येवपाक लागलीं.

भूतनाथ-रवळनाथ आपल्या शिळेवयल्यान गांव सोडून गेल्याचो भास शांबाक जालो

शांबाच्या आंगा-पांगाक शेळो घाम सुटलो. जीब लुळी पडली. तोंडातल्यांन लाळ गळपाक लागली तरीय शांबान बोबलेकडवो नेट काडून भाग्याक साद घालो.

'भाग्या !!!' आडव्या जिबेक लागून शांबाचें उतर भाग्या अशें स्पस्ट जालेंना. ताणें 'भाळ्या' अशें म्हळें.

भागें सुस्त निहदील्लें, ताज्या राज्याक कांयच खबर नासलें. भाग्यान आपल्या घरकाराचा उलो आयकलोना.

शांबान परत मात्सो नेटान उलो मारलो, 'भाळ्या'– आनी त्या उल्याक मात भागें हाललें, आनी बांबोंई दीत तोंड वाकडें तिकडें करून तोंडान देवा भगवंता अशें कितें तरी सदांभशेन म्हळें.

भाग्यान कूस परतीली ती शांबान पळेली आनी भागें जागें जाता तें पळोवन ताणें म्हळें ''मात्सो दिवो पेटय.पळोवया.''

मात्सो वेळ शांबा भाग्याची जाग घेवपाक रावलो, आनी भागें कसलीच हालचाल करीना तें पळोवन ताणें परत म्हळें, 'मात्सो दिवो पेटय.'

काळखांत भाग्याक कांयच दिसलेंना. पुणून घरकारान दिवो पेटयपाक सांगलां तें ताणें आयकलें. तें सारकें जागें जालें आनी सांमपीत-सांसपीत उशा पोंदच्या फस्काक हात घालो. फस्क गावलें आनी एका बोटान काडी भायर काडपाक काडयांची कास भायर धुकली. मेजून एक काडी हातान घेवन भाग्यान फस्काच्या गंदकाच्या कडेर मारली. काडी पेटलीना. भाग्यान दुसरी काडी मारली. दुसरीय पेटलीना. 'पाड पोडों. फस्क शेळेलां दिसता'' अशें म्हणत तिसरी काडी मारली.

गंदकान पेट घेतलो, काडी पेटली, कुडींत उजवाड जालो. भाग्यान वेगीनवेगीन उशावयल्या दिव्याक काडी लायली, दिवो पेटलो.

'मुतोंक वाल्लां ?' सदांभशेन भाग्यान शांबाक विचारलें. मुतूंक हागूंक जाल्यार शांबा भाग्याक असोच वागो करतालो.

आनी शांबा हांथुणाचेर उठून बसला तें पळोवन भागें अजाप जालें.

"कोणें उठोवन बसयला तुका ?" भाग्यान अजापान विचाल्लें.

'हांवच बसलां.' शांबान जाप दिली.

"मागीर इतले दीस उठ-बस करूंक आमकां कित्याक त्रास करी तर ?" भाग्याक ताजें सांगप फट दिसलें.

"भाग्या हांव राजांगणांत वयतां." — शांबाच्या जीबेक हुनसाण आयली, उतरां मात्शीं नीट जावपाक लागलीं. "राजांगणांत वयतां" — भागें अजापान आपल्या घरका-रावटेन ताज्या बाविल्ल्या मुखामळाक पळवपाक लागलें.

हांथुणावयलो मनीस जाका सगळ्यो विधी हांथुणाचेरच करच्यो पडताल्यो तो राजांगणांत वचपाच्यो गजाली उलयता तें आयकून भाग्याक आपुण सपनांत आसा काय जागें आसा तेंच समजना जालें. ताणें आपणाकच एक चिमटो काडलो आनी जागें आसा म्हणपाची खात्री करून घेतली आनी शांबा झळपेला जातलो अशें समजून ताणें म्हळें,

'कितें जालां तुका, न्हीद वगी.'

'ना... ना... भाग्या राजांगणांत आख्खो गांव तळमळटा. भारा खातीर तिश्टता, निशाण हालना, अंकुशाचेर भार येयना, म्हाजें देवसपण देव अंकुशाक दिवपाक तयार ना. भाग्या म्हाज्या आंगाक कडकडो येता. म्हाका राजाल्या मठयेर वोचों दी'–

'तूं शाब्दीर आसा मूं ?'

'हय.. हय... हांव झळपेना भाग्या, म्हाका बरी सुद आसा'–शांबान आपुण बरो आसा म्हणपाची खात्री दिली.

राजांगणांत जल्मी गाराणीं घालतालो, निर्शेल्ल्या आवाजान जमिल्लें गांवचें भौस 'ह - य - सा - य - बा' रडवूच म्हणटालें.

'हर... हर... हर'– शेकड्यांनी लोकांचो खर्शेल्लो आवाज !

'न्हिद हांगा. मध्यान जाली. हारीच्या मनशांक जागरणां बरीं न्हू' भाग्यान म्हळें.

'भाग्या हांव बरो घाळों, पळय म्हाका चरी जाप येता, म्हाका चक्रंक येता, म्हाजों पांच्यूय घोटां लागतात. भाग्या आतां हांव राजांगणांत वयतां. वर्साचो भार म्हाजेर येतलो. या मठयेचो वारसो या कुळयेची मिरास, हांव मिरयतलों, म्हाजें देवत म्हाका चलोंक जायें. भाग्या गांवकाराचो तिश्रो गांवकाराचो भोमान गांवकाराकूच फावो जावपाक जाय! 'कितें बडबडता तूं? आमगेल्याच पुताचेर काडता न्हू ते भार!'' भाग्याक शांबाची कासाविसपणा जाणवली. भावनाविवश जावन आपलो घरकार कित्याय कितेंय उलयता म्हणपाचें ताज्या लक्षांत आयलें. पुण त्याच बरावर भाग्याक उपाट खोशी जाली.

इतले दीस अर्धांगान हांथुणाचेर पडील्लो ताजो घरकार आयज बरो उलयता तो पळवन भाग्याक आशा दिसली. हारीच्या दुवेंसांतल्यान आपलो घरकार बरो जातलो अशी ताजी खात्री जाली आनी ताका उमाळो आयलो, आनी त्या उमाळ्यांतल्यान दोळे भरून आयले. कापडाच्या पालवान भाग्यान दोळ्यांकडो पुसल्यो आनी घराच्या पाखसाक पळयत देवतेक हात जोडले. न्हिदेंत फाटीर पडिल्लो गळ्यांतलो चार पवनांचो मूर्तमणी गळ्याभवतणीच् सरकून सारलो केलो आनी मणयांचें पेंस मुकार छातयेर दवलें, आनी घरकाराक पळयत म्हळें,

'' बांव, वाग्याघ्यान गूण घातलो तुका, आतां आनी चड कास्तीग घेवं नाका, न्हीद वगी.'

"हर... हर... हर... हय... सायबा... हय सायबा..." राजांगणांत सांगणें चलतालें तें शांबाच्या कानार दर्यादेगेर म्हारां आमटतात तशीं जल्म्याच्या गारा-ण्यांचीं उतरां कानार सणसणीत आपटतालीं. "ना गो भाग्या, म्हाज्यान हांगा रावंक नजो. भारान्वातीर सगळो गांव तळमळटा, येदो व्हडलो राबा इतली रात जागो रावतलो, बावडो ओमणो बल्मी सांगणं करून-करून खर्दोला जातलो. तिर्थाचे तांबये रिते जाश्या जातले, फुलांच्यो पाकळ्यो चावल्यात आमतोल्यों. फाल्यां सकाळीं लोकांक आपआपल्या पोटा फाटल्यान वचपाचें आसा. सगळीजाणां भारान्वातीर तिस्टतात, तळमळटात तें पळवन हांव वोगी रावूं! भाग्या म्हाजो दोळो कसोच लागचो ना."— अशें म्हणत शांबान हांथुणावयलो अुठपाची धडपड केली आनी ताणं वर्ष्टीच्या आधारान आपली धपरी दोडून घेतली. आनी वोणवो जालो. भाग्याक शांबाची ती हालचाल विचित्रच दिसली. तो उठता तें पळवन ताणें बेगीन-बेगीन आंगावयली गोनडी भिरकावन माल्ली आनी शांबाक धरपाक सपय घाली.

राजांगणांतलो बल्म्याचो लोखणी आवाज बरोच सदळ जाल्लो. लोक श्लेमेत हय सायबा हर... हर... फाटीफुडें म्हणटाले; आवाजाक उमेद नासली, गळ्याक

सूर नासलो, उतरांक ताळ नासलो, सगळेच निर्जीव जावन नाईलाजान म्हणटाले, 'हर... हर... हर...'

भाग्यान शांबाक गडो कसो जमनीर पडतां-पडतांच दावकुलांक घट्ट धल्लो तरीय शांबाचीं धप्रां आपटलीं, आनी हात लोंबकळपाक लागले. शांबाक धरण्या फोर्साची तांक कळ्ळी, आनी ताणें तिडकीन उजवो हात कपलार मारलो.

"शांबाल्या रक्ताचो शांबालो पूत जावनीय उपेग ना मरे–" भायल्यान घुमलेलो पांडुरंगाचो ताळो शांबान घरांतल्यानुच पारखिलो.

"गांवकराल्या खऱ्या विर्याचो जाल्यार भार येतलो...'– दुसरो आवाज शांबाचें हृदूं फोडून काळजाक भिडलो, खोल रोमलो आनी त्या उतरांच्या घाल्याचे वेग, सणसणपी कळा शांबाच्यान सोसूंक नजो जाल्यो. ताणें दांत-ओंठ चाबून एकाच नेटान म्हळें "भाग्या भितर वचून देवाऱ्यांतली म्हाजी तरसाद घेवन यो."

"किते जालां तुका ?येतलो भार. अदुं मात्सो वोगोत जाला, नेयोच न्हू. चेड्यान केन्ना तसलें पळयलें ?"

"भाग्या तुका तुजो भांगा तिन्नो तरसाद हाडपाक सांगता, चड उलवणें नाका "- शांबाची उतरां तांबडी जालीं. नाकापुडयो ताणशेल्यो. शांबाचो हो अवतार भाग्यान केन्नाच पळयलो ना. भागें आबुज जालें. काचाबुल जावन ताका थरथर भल्लो आनी फाटी फुडें पळेयनासतना भाग्यान विन्याच्या पेटल्या जोतीक दिवो पालवपाक हात घालो.

"भाग्या दिवो पालव नाका, हे मठयेर काळोख नाका, धा पिळग्यांचें नांव काळें करू नाका, भाग्या, गांवकाराच्या कुळयेक मान आसा, रेश्पेद आसा, वर्सान वर्स चलत येयलोलो गंधा तिबो आसा, या मठयेची अप्रूप सासाय आसा, आमच्या जांटेल्या पुरसाची सासाय आसा. ही सासाय हांव जितो आसतना मोडूंक दिवचोना, कुळयेक काळें लावपाक दिवचोना. भाग्या तरसाद दिना जाल्यार तुका म्हाजो सोपूत आसा–"

"सोपूत... तुयें म्हाका सोपूत घातलो–!!–' भागें आतां मात भिलें, ताजो धीर तुटलो. ताणें भियत शांबाक विचारलें. "तरसाद कित्याक ती ?"

' शिगमो खेळपाक, आयज म्हाका राजांगणांत शिगमो खेळपाक जाय, धोला-ताशांच्या तालार पावल्यो मारूंक जाय.–' शांबा बोंबले देटाकडच्यान ना थंयचो फोर्स काडून उलयतालो.

तरसाद घेवन आपलो धरकार कमरेंय देवसपण करतलो, आनी राजांगणांत चेंड्यावेर भार येतलो या आशेन मागें रावचें म्हूण भितर वचून कुरकुटांतली तरसाद घेवन आयलें. तिख्याच्या धारेची तरसाद भाग्यान शांबाच्या हातांत दिली. आनी तें थंयच उबें रावलें.

'हर... हर... हर... हर... हय... सायबा –' राजांगणांत निमणो प्रयत्न म्हूण लोक एकाच नेटान साद घालूंक लागले. लोकांच्या गोवाळांत शिवर कंपान हालें.

गोवाळांत कितें घडता तें कळच्या पयलींच शांबान तरसाद एकाच नेटान आपल्या पोटाक रोमली. रक्ताची शिळकी भाग्याच्या आंगार पडली आनी भाग्याच्या हुयेली बांगडा भाग्याचें आंग तांबडें जालें.

'भाग्या, हायें गांवांक फटयलें तुका फटयलें, भाग्या हांव फटींग, भाग्या पोसक्याक..'

"पोसको!"–भाग्याली बोब आनी, बोबेंतलो प्रश्न! 'हय बाळंत जातना तुगेर मेल्लें मुगें जाल्लें, अंकुशाक नर्सीन तुज्या कुशीक–' आनी शांबाली जीब लुळी पडली, शांबान दोळे परतीले; राजांगणांत तांदळाचो शिवोर जालो, अंकुश थरथरलो, गांवची निशाण मुठीन घट धरून जमनीर पडलो... निशाण लवंडली – कळस जमनीर तवकोलो!

लोकांक दिसलें अवसर आयलो म्हण. सगळ्यांनी खोशयेन म्हळें "जांव सायबा, शांबाल्या चेंड्यान नांव रावलें!"

हर.. हर.. हर.. हर.. हर.. एकच गोवाळ, धोल तासे, कासाळीं घण-घणलीं, शाबू परवारान शिंगाक फुक घाली.

'शांबाल्या चेंड्यावेर येयलो देव.'

'अदृष्टांतल्यान शांबा गांवकार सुटलो बापडो.'

'खरो वियांचो म्हणून सुटलो–' एक आवाज.

आनी त्या गोवाळांत कांयच आयकुपाक येना जालें.



# ‘एक जात मोन जात’

सांज वेळ जाल्या; दोंगरामाथ्यार काळोख फांकला; दर्या माथ्यार उजवाडाची तांबसाण निशल्या तो सारकी कळटा. रानानी आंगावयली हुनसाण फापुडली; आनी रात पांघरूपाक पानांनी आपले हात वयर उखल्ले.

देवळा घुडावेल्या धाकटुल्या सोबीत कुरकूटांनी काळे- धवे पारवे येवन रातीक येवकार दिवपाक तयार रावले. जायत्या जाणांनी पाखां फापडून दिशा भाराचो शिण अुडौवपाक सदळ गळ्यान गावपाक सुरवात केली.

तांचीं गायना आयकूपाखातीर देवळाच्या मंडपांत बसून तिनसांजची नौबत वाजौप्यानी धोलाताशावेल्यो बडयो सकल दवल्ल्यो.

सगळे वाजंत्री सोणयावेल्यान सकल देवून चलत चलत आर्कात पावले. देवळाच्या प्राकारांत खांबावयल्यो, घुडावयल्यो लायटी पेटवपाक अगरशाळेंतल्यान पुडवें सांवरीत पाणूभट धांवलो.

आनी पळेतां–पळेतां देवळा प्राकार अुजवाडाच्या गळशिरेन शिंगाल्लो.

पल्लडच्या आलेक्षाल्या गादयेर सदांच भजीं भाजून विकूंक व्हरपी क्षेमे मावशी हातांत सूर्प घेवन उबो आशिल्ल्या साबन्या मामाक म्हणपाक लागली,

'आयकलां ! आजून पाडूंक दाल्यार येवं ना, येतकच तेकां लावड दी आं!'

'किते, पाडूंक येवं ना?' साबन्यामामान तोंडात पेटोवपाक घाल्लें विडये पोंतेर भायर काडीत अजापान विचाल्लें.

'हय आयज बरोच कळाव जालो, गोरवां शेणल्या बी जांवये' क्षेमे मावशेन आपल्या मनातलो दुबाव परगटायलो.

'बरें आसा, चल तूं, पळेतां हांव'– अशें म्हणून साबन्या मामान विडये पोंतेर मिरकावन माल्लें आनी कानाक लायिल्ली कुडोछाप नवी विडी काडून तोंडात घाली आनी दादूकडच्यान फस्क घेवन पेटयली. क्षेमे मांवशी भज्यांचे ताट खांकेक मारून देवळाच्या प्राकारांतल्यान गादयेर वचूंक तळयेवाटेन सोवळ्या भटाक वाटेंत चलूंक लागली.

क्षेमे मावशी तळयेचीं सपणां देंवता आसताना मुकावयल्यान बाबूभट मारुती पेडार दिवल्यंत तेल घालून परततालो. खांद्यावेलो तुवालो हालयत हालयत, तोंडान तुकारामाचो अभंग गुणगुणत क्षेमे मावशेच्या सामकारा पावलो. क्षेमे मावशेची वारो आनी सावळी पडून आपूण भस्टत म्हूण चार पावलां पयस रावून क्षेम्यांक विचारूंक लागलो.

'आज तणां–बरण घाल्या मुगो क्षेम्या?' ताज्या गोरवांक क्षेमे मावशी मळावेलें तण कापून आठ आण्याची तणां–बरण करून सदांच घालताली. तें तणामळ गांवच्या धोणसू भाटकाराकडे लावण घेवंक आसलें, पुण आता धोणसू भाटकारूच त्या मळाचो मालक जाल्यान गांवच्या गरीबाक सारकोच सतायतालो. एक दीस क्षेमे मावशी तण काडटाना धोणसू भाटकारान पळेलें आनी हाज्यामुखार तण काडशी जाल्यार अुब्यानीच चिरतोलों अशें म्हणून क्षेम्या मावशेलो हिळो काडून घेतलो. ते मेरेनसान क्षेमे मुळानेमार वचून तण हाडून बाबू भटाक घालतालें.

तणां बरण म्हणना फुडें क्षेम्याक धोणसू भाटकार डोळ्यामुखार दिसपाक लागलो, आनी बाबू भटान विचारिल्ल्या प्रश्नाक जाब दिवपाचें ताका भानच अुल्लेंना. क्षेमे ओगी रावलां तें पळोवन बाबू भटान परत एकदां विचाल्लें, आनी क्षेम्यान 'आ ? हय...' म्हणून गोंधळत सांगलें.

'गोरवां आयलीं तर?'– मुखावयले तळयेत देवळांतल्या पेट्टया दिव्यांच्या पडबिंबाकडे पळेत बाबूभटान विचाल्लें.

'आजून शेंवत्यान गोरवांक हाडूंक ना'– झेम्यान अशें सांगनाफुडें बाबू भटाच्यो काळयो भुवयो 'किते' म्हणून विचारपाक कपला देगेर टायट जाल्यो.

'कित्याक अुशीर जालो काय?' बाबू भटान हातांतलो तेला डबो जमनीर दवरीत विचाल्लें. 'कांयंच समजना, शेवत्यान केन्नाच या भशेन इतलो कळाव केलो ना. घडये गोरवां शेणल्या बी जावंये.'

झेमे मावशेचो दुबाव आयकून बाबू भटय चिंतूक पडलो, आनी 'हं, गोरवां कशीं आयलीना?' अशें मनांतल्या मनांत म्हणत डबो अुकलून हातांत घेवन बेगी-बेगीन तळयेचीं सपणां देवून आलतडच्यान पलतडीं आयलो. तेलाचो डबो देवळाच्या शिपायाकडे दिवन तो अगरशाळेंतल्यान घराकडें वचूंक लागलो.

झेमे मावशेक गादयेर वचूंक पयलींच वोगोत जातालो. बाबूभट गेलो तो पळोवन तिणेय आपलीं पावलां नेटान अुखल्लीं आनी गादयेर येवन ताटांतलीं भजीं विकपाक ती तयार रावली.

तिज्या रूचीक भज्याचेर म्हाळून, बाबुशान, शाणून सगळ्या कार्ताद बेबद्यानी घोणीवरी झपय घाली.

गांवांतल्या सगळ्या लोकालीं गोरवां-वासरां माडापोतावेलें शेंवतू राखतालें. ना म्हळ्यार गांवांतलें एकूच बामणालें घर शेंवत्याकडेन तांची गोरवां राखणेक दी नासलें, ताणी एक घाटी राखणो सवाय भितर दवरिल्लो. ना जाल्यार गांवचे गोरवाचें भौस सगळ्यानीच अुकत्या मनान आनी व्हड विस्वासान शेंवत्याच्या सुवादीन केलें. शेवत्याक दर एका घराकणकणी दर म्हयन्यांक पांच रुपया मेळटाले. ह्या भायर परब-सणाक दोन जेवणां आनी दर चवथीक एक कापड आनी पोलक्याक कुडको दिताले. चवथीक दिल्ले माराण, नेवऱ्यो तर तें कायसूवच्या नातवांक बाबल्या घाड्याकडच्यान ना जाल्यार फटी गाडेकाराकडच्यान मुद्दाम घाडून दितालें.

सकाळच्या पारार भुती घेवंन शेवतें सगळ्या गोव्यानी वचून दांवीं सोडोवन गोरवांक मेल्ल्यातेमान आमूडटाले.

ताज्या या गोरवां राखणेक आज चाळीस वरसां जातलीं. पयलीं ताजो घोवय असोच गांवचीं गोरवां राखतालो. आपल्या घोवा वांगडा शेंवतेंय दोंगरार वतालें.

दोंगरानी मळे घालून बायल्या भासांचें कडून तीं दोगांय रोयतालीं, दोगांय घोव -बायलां व्हड मुखान जियेतालीं. पुण तांचो भांगराचो सुखी संवसार देवाच्या दोळ्यांत भल्लो. देवाचे दोळे लसलसले.

एक दीस बैलांची घिरी सोडयपाक गेला आसताना शैवत्याच्या घोवाचेर पाणूल्या वांगर बैलान शिंग मारलें आनी धुकल्लन चिन्यांच्या खणांत उडयलो. तळयार मस्तक आपटून शैवत्याचो घोव थंयच्या थंय शैवत्याक सोडून गेलो. बाबड्या शैवत्याचो शिरंगार, कपलांवयले सवायांशाणींचो वाडकुळोच पिंजरी तिच्ने हे भशेन, त्या बैलांच्या मुजाक लागून ना जावन शैवत्याचें कपल आनी गळो भुकतो पडलो.

म्हेल्कार चडिल्ली वाल म्हशींग मोडून पडतकूच वळ-वळत जमनीर पडटा तशी गत बाबड्या शैवत्याची जाल्ली; पूण या दोंगरायेदा अप्शरणाचे येग ताणें मुकास्यानी सोसले. घोवाचें काम आपूण नव्या भुमेदीन करतलें अशी अुर्बा काळजातळा बाळगून घोवा मेळोनूच तें गांवचीं गोरवां घेवन रानांक वचूंक लागलें, तें आयज मेरेन नेमान रावतालें.

'बायल मनीस जावनूय घोवा फाटल्यान शैवत्यान मोठ्या धिरान कश्टांचे दोंगर पेलून संवसार केलो.' अशें गांवांतलो जो तो ताजे कश्ट पळोवन म्हळ्याबगर रावनासलो.

आतां ताजी सत्तर वर्सांची पिराय जाल्ली. जितो फडफडीत वांगडो वताक पडटकुच सुकता तशी शैवत्याची तनी कात दोंगरा सकयार दिशीं-दिशीं सुकत आसली. तोंडार, कपलार सुरकुत्यो पडिल्ल्यो. सफाचंदा मारके तरनेपणातले गाल जाण्टपणात खोल गेल्ले, तरी लेगीत तें घणघाकट बायलेवरी सगळीं कामां पयलीं इतल्याच जोमान करतालें.

वत-पावस, थंडी-वारकुणी ताज्या आंगाक आफडूपाक भितालीं. ताका थंडीय मारकी आनी वतय मारकें. थंडे दिसानीं गांवांतले आपणाक बळभीम म्हणपी तरनाटे सकाळीफुडें आंगणादेगेक धग घालून बसताले, तेन्ना शैवतें एक पातळशें जुनेर आंगार उडोवन, वडी हातांत घेवन गोरवांक घेवन फमोंगुडी चडटालें.

सांजेचीं साडेसात जालीं तरीय गोरवां आजून सकल देवूंक ना तें पळोवन सगळे गावांतले गोरवांकार देवळाच्या आंगाकडे एकटांय जाले. जो तो शैवत्याक वोगोत कित्याक जालो तेंच चिंतूंक पडिल्लो. गांवचो त्र्यंबकभट आनी यादूबाब तर रस्त्यार पासयो मारीत हात वांकडे-तिकडे करीत मर्दाच चुटको वाजयत खोल चिंतपांत मग्न जाले. तांचीं दोगांचीय गोरवां गांवच्या सगळ्या गोरवांच्या अदीन आसलीं.

राचप्पाली म्हस हाल्लींच 'स' शेर दूध दिवपाक लागिल्ली अशी खबर राचप्पान गळ्यांतलें शिवलींग हातांत धरीत अर्धी कानडींत अर्धी कोंकणीत सांगलें. राचप्पाली मोडकी कोंकणी आयकून गांवचो मिसरूट येवनासलो काळू फूस्स करून दांत भायर काडून हांसलो.

जो तो आप – आपल्या गोरवांचेंच उलोवपाक लागलो. शेंवत्याचें नांव गोरवांच्या निमतान आदीं – मदीं आयकुपाक येतालें.

'शेंवतें खंयीं बुवळ बी येवन पडूंक ना मूं ?' गर्देतल्यान भिकू शणैन आपल्या हातांतलें बेत हालयत म्हळें.

'पुण शेंवत्याक बुंवळ आयल्यार गोरवां कित्याक दोंगरार रावतलीं ?'

'हय, गोरवां नीट बरा येवपाचीं' सोमू मटकेकाराक तेंको दिवपाखातीर तक्र्या बांदावेल्या घाब्रून दांता फेणो भायर काडीत म्हळें.

'हें पळयात, आतां हांगासर बेटीच बाचाबाची करच्या परस आप – आपलीं गोरवां सोदून हाडूंक दोंगरार वच्चें, हांगासरच रावले म्हणून कितें गोरवां येवपाचीं नात.' धोणसू भाटकाराल्या व्हडल्या चल्यान गर्देक उद्देशून एका फुडाऱ्याभशेन नेटान सांगलें. जण एकलो आप- आपल्या गोरवांचेंच येवजीतालो. बावड्या शेंवत्याचें कोणांकूच पडूंक नासलें. शेंवत्याचें येवजूपाक ताजो लागशील्लो असो धागो – दोरो कोणच नासलो.

एका धुवेक कायमुवां लग्न करून दिल्यार आतां तीस वर्सां जायत आयिल्लीं. ती केन्नां – केन्नांय आवयचेर नदर घालूंक म्हणून येताली आनी शेंवत्यान बावड्यान किरवंटीक लावन दवरिल्लें, आनी कोणेय कितेंय दिल्लें गुटलावन घेवन वताली. लागींची म्हणपाची धूव नाबाल्यार बाळ्ळीची सगळी भुतावळ लेगीत शेंवत्याली जोड खावपाक मेळटा काय म्हणून पळोवपाची !

निमाणेकडेन गांवच्या विष्णुदादान आनी बाकीच्या कांय कोल्या – बोल्यानी शेंवत्याक म्हणच्यापरस गोरवांक सोदूंक वचपाचें थारायलें; ताणी एक पेट्रोल माक्स पेटयलो आनी तो घेवन ते दोंगरार वचूंक भायर सल्ले.

ह्या भौसाची गड काऱ्याझाडाकडेन पावपाक मेल्ल्या तेमावेल्यान शेंवत्यालो सुणो भोंकीत – भोंकीत येता तो ताणी सगळ्यांनी पळेलो. आनी तो तांकां चाबत म्हणून ते काऱ्याच्या आडोशाक दडून रावले.

सुणो इतलो नेटान येतालो की ते दोळ्याची पापणी धांपता म्हणसर तो वारें कशो तांच्या म्हऱ्यांत पावलो.

सुणो तांच्या आंगार येता तें पळोवन सगळ्यांच्यो न्हुयो वोल्यो जाल्यो. त्रावी नायकाल्या चाळीस वर्सांच्या चल्यान बोमी गावड्याल्या रामाक घट्ट वेंग माल्ली. आनी धप्रा सकट पांय गुठलावन तो ताच्या खांद्यार बसलो. तपार्शातलो शाबू तर कान्याच्या झाडार माकड कसो वयर चडलो. शंभू गुरव आनी जया जायेकार एका दाट झुडपांत आडवे पडले.

पेत्रोल्मॅक्स घेवन आशिल्ल्या सुर्याची तर सामकीच बोब्र जाली. पेत्रोल्मॅक्स फुटत जाल्यार आपल्याचेर किजील येत म्हुण तो त्राबडो सुण्याक भेस्सावपाक दिवो फुडें करून रावलो.

पुण शेवट्याल्या सुण्यान कोणाकच कांयच केलें ना. तो दोंगरावाटेन तोंड करून एकसारख्यो भोंकूंक लागिल्लो. बऱ्याच वेळान थप्रांतली बुद्ध कपलांत पावली आनी विश्णू दादाक सुण्याची भास समजली. सुण्याचो कसलोच भंय ना तो पळोवन सगळेजाण एकठांय जाले तेन्नां सुणो तांच्या पांयांक घस्ट-घस्टून दोंगरावाटेन पळोवन विचीत्र सुरान रडपाक लागलो.

'सुणो आमकां ताच्या वांगडा आपयता सो दिसता. चला पळोवया, आमी चलपाक लागूंया' अशें शंभून सुचयना बरोबर पेत्रोल्मॅक्स घेवन ते मुखार चलूंक लागले.

सुणो कन्यानीच भुंकपाचो थांबून तांच्या मुखार एका वाट दाखोवप्यावरी शेपडेक हालयत मार्गांत चलूंक लागलो.

रानांवाटो माड्डीत, झाडां-झुडपां मार्गीत, निवलां आडें कुर्वेत आनी बाभळीचे कांटे वाटयत ते दोंगूळाचे तेमकुलेर पावले. हे अंच तेंगशावेल्यान वास्कोचो सगळो वाठार सारको दिसता. दर्यांत नांगरून दवरिल्ल्या बोटींचेर पेटपी तांबडे-पांचवे दिवे मळबांतल्या नखेत्रांवरा दिसताले. दर्याचो धोंवरपी आवाजूय वाऱ्याच्या झोतावरोबर मारून कानार पडटालो. बाटेर रातकिडे आनी वाघांकोटे किटी किटी करून रडटाले.

वाट नागमोडी आशिल्ल्यान वळणा-वळणांनी तांका वच्चें पडटालें.

पांयांवाटो माड्डीत-माड्डीत ते तेमकुलेचे मामके पोंतार पावले. एका चिन्याच्या खर्णाच्या देगेर पावनाफुडें शेवट्याल्या सुण्यान मोठ्यान भोंकपाक कोमेस केलें.

पेत्रोलमाक्स वयर करून सगळ्यांनी थंयच्या चारूय वाटांनी नदर भोवगायली. पेत्रोलमाक्साच्या त्या अुजवाडांत तांणीं कितें पळोवचें ?

सगळीं गोरवां त्या खाणीकाटार बसून रवत करतालीं. तांच्या दोळ्यांतल्यान लाळीभशेन दाट होंकीर व्हांवतालो तो अुजवाडांत मोती कसो चकचकतालो !

बशिल्ल्या गोरवांक अुठोवपाखातीर हुस्के झाडाच्यो बोडयो आनी झोपां मोडलीं आनी 'हय - हय- अुठ!' अशें करून गोरवांक अुठोवपाक लागले. बाबड्या शेंवत्याची चौकशी मात एकल्यान लेगीत केली ना. ते तांचीं - तांचीं गोरवां वळखूपाक लागले.

बाबीन ताज्या गायेक पळोवन म्हळें 'रामा म्हजं गोरूं ते कडेर बसलां रे!'

'म्हजेंय सगूणें हें पळे काजीमुळांत बसलां.' तेच खोशयेन शाणून कपलाचो घाम पुसीत म्हळें.

ते गोरवांक उठयतात तें पळोवन शेंवत्याल्या सुण्यान विष्णूदादाच्या तुवाल्याक घट्ट भरून वोडलो.

आतां मात तांका शेंवत्याचो उगडास जालो. 'पुण गोरवांक हांगा अशीं दवरून शेंवतें गेलें तरी खंय ?'

'हांवूय तेंच म्हणटां शेंवतें गेलें खंय ?-' विश्णूदादान हातांतली बडी जमनीर आपटीत अुतरां सोडलीं.

'विश्णूदाद हो सुणो तुका येदोळ्यान एकसारखो वोडटा, तो तुका कितें तरी सांगताशें दिसता.' विश्णूदादाच्या तकलेंत सुण्याची मोनी भास कुष्टान घालपाचो यत्न केलो.

'हय मोनजात ती, अुलोवपाक येना म्हण पापी!' नागून नाकातलें शेमूट जमखण जाल्ल्या बुस्कटाक पुशीत भितल्ल्या भितर म्हळें.

ते हेवाटेन - तेवाटेन पळेतां - पळेतां, सुण्यान एक जुन्द्राकुडको तोंडात भरून हाडलो आनी तांच्या सामकार उडयलो.

तो जुन्द्राकुडको ज्या झुडपांतल्यान हाडिल्लो ते वाटेन तांची नदर वळली आनी ते मालो मुखार सल्ले. आनी अुजवाडांत ताणी कितें पळोवचें ? पळेलां ताजेर तांचो विश्वासच बसना जालो.

एक गाय आनी दोन वासरां सारकीं चौकोनी बशिल्लीं आनी तांच्यामदीं शेंव-त्याची म्हातारी कूड शांत न्हिदिल्ली.

'शेंवतें !!!' सगळ्यांनी अजापान एकदम म्हळें. रामान वेगी-वेगीन शेंवत्याची नाडी पळोवपाक तागो हात उखल्ल्यार, हात सामको लाकूड जाल्लो तो ताका कळ्ळो.

भोंवतणी गोरवांच्या दोळ्यांनी तांचीं दुकां चकचकतालीं. गोरवांचो खरो मालक तांच्यामदीं नाशिल्ल्याचें तांका कळिल्लें.

शेंवत्याच्या तकलेकडेन बसून एक गाय शेंवत्याक ल्हेंवताली.

एक म्हस आनी वासरू परत-परत फाफेत-हाफेत शेंवत्याक न्हिदिल्ल्या मुरम्याक आवय उठयता तशी उठयताली. पुण शेंवतें उठपाक न्हिदूं नासलें, हे त्या मोनवातीक कशें कळचें!

'आतां कितें करूं या रे?' बाबीन ल्हवूच विश्णूदादाच्या कानांत म्हळें.

'आमी तरी आतां कितें करतले?'

'हय आमी तरी बाबडे कितें करतले?' सगळ्यांनी एकमेकाक पालव दिलो.

'चला, आमी गोरवांक उठोवन घेवन या आनी शेंवत्याच्या मरणाची गजाल तागेल्या घरच्यांक कळोवंया.'

कोलेदादाल्या हे सुचवणेर ते गोरवांक उठोवपाक लागले. पुण गोरवां कशींच बसकण मारिल्ले जागेवयलीं हाल्लींना. थाप-थाप करून हे फातरा काळजां मनीस तांकां थापटीताले. गोरवांच्या दोळ्यांतल्या दुकांनी शेंवत्याची कूड सामकी ओली जाल्ली.

गोरवांक मारता तें पळोवन शेंवत्यांल्या सुण्यान भोंक करून पेत्रोलमाक्साचेर झपय घालून पेत्रोलमाक्स फोडलो आनी त्या दोंगुल्लेच्या रूखां-खाचीनी काळो-मिट गुमाट काळोख जालो.

सकल देवळा आर्कांकडे आपलीं गोरवां येवंक ना म्हणून गांवची सगळी मनीस वाट तिस्टत उबी आसली.



# ये रां स

बापायच्या काशोतात पेनां आसात अशें म्हजे आवयन म्हाका एक फावट सांगिल्लें.

कालच शाळेंत नारायण मास्तरान आमी चवथेक पावल्यात देकून आपाराच्या पेनान बरोपाक शिकूंक जाय म्हुण सांगिल्लें.

आयचो धडो लेगीत हांवें पाटयेरूच बरयिल्लो. फायच्यान आपाराच्या पेनान बरोवपाची तजवीज करून हांवें आवयक दोन आण्याचो कादेर्न हाडूंक सांगिल्लो. आवयच्या पालवा गांठीक त्या दिसा फक्त दोनूच आणे आसले, पुण पुताक चोपडी जाय, नाजाल्यार पूत म्हजो फाटीं उरतलो ही तिका भिरांत आसली. आवयन पालवाची गांठ सोडोवन फायचें फाल्यां म्हणून चोपडी हाडूंक दोन आणे म्हजेकडेन दिले.

हातार पडिल्ले दोन आणे पळोवन भटाल्या हॉटेलार वचून पातळभाजी आनी पाव खावपाची इत्सा जाल्ली. पुण आयज पातळभाजी खाल्यार फाल्यां चोपडेर कशो बरयतलों ?

तसो तेन्नां समजना अुमजना आसलों नासलों तरूय अेक घावगाडेचो पूत, बापूय नासलेलो भुरगो, हाची जाणवीक तेन्नाच्या भुरग्या मनाक खंय तरी आसली. तसो बापायक हांवें पळोवंक नासलो. लोक सांगतात, तुजो बापूय असो—असो आसलो म्हुण. केन्नां—केन्नांय आवयच्या तोंडांतल्यानय बापायचो अुल्लेख जातालो तेन्नां सामकोच संताप मारतालो. दनपारच्या वेळार भुकेन जेन्नां हांव शिताच्या दोन गोट्यांक रडटालों तेन्नां आवय चूल फुंकीत म्हजेर धंगशे घाल्ताली आनी म्हणटाली, 'आतां रड मेल्ल्या बापायक, पाड पोडों तेजें, लग्न जावन सूख म्हणटा तें मेळ्ळें ना. येयल्ल्या दिसा त्रास. खंयच्या जल्माचो त्रास भोगतां देव जाणा.' आवयच्या दोळ्यांतलीं दुकां हांव पितालों आनी तान भागयतालों. मागीर रडप नासलें. मोन्यानी वचून आंवडे गिळून रितें पोट तेंकोवन जमनीर ओमथो न्हिदतालों.

तीन फातरां मदीं तकली फोडून फोडून शिजयिल्ले शिता-गोटे आवय केळी पानार वाढटाली. नाल्ल नाशिल्लो हुलोप घालपी कडये कड्डो कालवणें म्हूण घालताली. हांव कड्ड्यान कालयिल्लें शीत भकासुरावरी भकायतालों. कड्डयान कालवण करून शीत जेवतां जेवतांना, हांव भवानी शाळेंत चौथेक पाविल्लों आनी कालच मास्तरान सांगिल्लें की चौथेक पाविल्ल्यांनी पेनान बरोवपाची संवय करूंक जाय म्हुण. पेनाचे कल्पनेनूच म्हाका खोस भोगली. फाल्यां हांव चोपडेर बरयतलों ह्या चिंतपानच म्हज्या आंगाक कातकुतल्यो जाल्ल्याचो भास जालो.

देवळांतलो कमाविसदार पेनान बरयतालो; हांवूय आतां बरयतलों.

पेन, चोपडी—

आवयन चोपडी घेवपाक दोन आणे दिल्ले, पुण चोपडी आजून हातांत येवं नासली. घांटावयलो म्हाल हाडटकच म्हजो बापूय खंय पेत्रोलाच्या अुजवाडांत हिशोब करतालो, तेन्ना खंय म्हणे आवयन बापायच्या हातांत अेक बरें पेन पळयिल्लें. पेनाक भांगराचें बुकल आसलें. आनिकय पेनां आसलीं खंय थंय.

आवयन सांगिल्लो अुगडास जालो, आनी वेगी वेगीन वचून बापायलें भांगरा बुकलाचें पेन सोदपाक बापायलें काशोट काडिलें.

काशोटाक कुल्याद आसलें. कुल्यादाची चावी खंय शेणिल्ली देवाक खबर! आवयन वी बापूय मरत रासून त्या काशोटाक हात लावं नासलो; काशोटांत तशें कांय ना म्हणपाचें तिका बेस बरें खबर आशिल्लें जावंये. पेनाची तर तिका केन्नां गरजच

लागली ना, मागीर काशोद फोडपाचें तकलेंत तरी येतलें कित्याक ? कितेंय आसूं, त्या दिसा म्हाका बापायलें काशोद फोडून भितल्लें पेन काडपाचें आसलें, भांगराच्या बुक्लाचें !!!

तें काशोद हांवें जमनीर ओडून घेतलें. कळमेल्ल्या कुल्पाक हात लावन मातशा नेटान ओडून पळेलें. तुटपाची शक्यताय निखालूस नासली.

चुलीकडेन लोखणाची नळी आसली. ती नळी हाडली आनी कल्यादार नेटान माल्ली. त्या आवाजान पोरसांत आबोली खुंट्ले म्हजे आवयन म्हजेर व्हडल्यान धेंगसो घालो.

आबोल्यांच्यो फांतयो घालपाक ती आबोलीं काडटाली. आबोलीं आनी बोकडयो गुंथून फांती घालपाक एकदम खांपी !

गांवांतल्यो सवायशिणी म्हजे आवयन घाल्ल्यो रतन–आबोल्यांच्यो फांतयो सामक्यो धोस्तान माळटाल्यो.

एक दीस शानू भटाचे बायलेन म्हजे आवयकडच्यान आबोल्यांची फांती घेवन आपल्या वाटकुळ्याच आंबाड्याक बांदिल्ली ती पळोवन म्हाका ती भटीण खूब सोबीत, देवळांतली देवता कशी दिशिल्ली.

हांवें आवयक म्हळें, “आवो, तूं फातयो घालता आनी भटां बामणांक दिता. त्यो पळे गे फांतयो माळटकच काय बऱ्यो दिसतात; आवो तूं एक दीस माळ गे फांती !”–

आवय म्हजी त्या दिसा म्हाका वेगांत घेवन मुसमुसून रडली. आनी एक लांब उस्कारो सोडीत तिणें म्हळें.

“हांव फुटक्या नशिबाचें रे पुता !”–

त्या दिसा फुलां आनी रांड बायलां हांचें नातें कित्याक ना, तें म्हाका समजलें.

आवयचो धेंगसो आयकून हांव तसो व्हडलोसो कांचवेळोंना, आनी बापायलें पोत्रें काशोट फोडल्यार आवयकय व्हडलेंशे कांयच दिसचें नासलें. खरें म्हळ्यार कळमेल्लें तें काशोद घरांतल्यान केन्नां भायर पडपाचें; पुण बापायची वस्त म्हुण तें बावडें तग धरून त्या कोनश्शाक आसलें.

" किते करता रे ? "—आवयन परतें विचारिल्लें.

" काशोद फोडटां "–हावेंय बी हांव एक व्हडलो पराक्रम करतां त्या सुरांत सांगलें.

" काशोद फोडटा, किते आसा म्हुण भितर, बापायलें येरांस ? आसलेलें नासलेलें बापायन गांवार घातलें, आनी आमकां अुबेंत धातल्यांत हांगा, लोकांच्या दारार ! " .

दर एका अुतरांतल्यान म्हजे आवयचे त्रास उकते जाताले. एके तरणे विधवेक कसले क्लेश, कसल्यो कळा सोसच्यो पडटाल्यो ताजी कल्पना म्हज्या पोर मनाक केन्नां जाली ना. जितलो–जितलो मनीस बुदवंत जाता तितलो तो दुख्खाचो अर्थ सोदूंक लागता. त्याग्वातीर केन्ना–केन्नाय भुरगेपणच बरें दिसता. कोण दुख्खी आनी कोण सुखी हाचो पत्तो त्या भुरग्या मनाक नासता. आनी आशिल्लोच जाल्यार म्हज्या बापायच्या मढ्याकडेन बसून हांव मांजराचे शेपडेकडेन खेळचोंच नासलों. तेन्ना आवय लेंय कपलां फोडटाली, आनी हांव आवयचे मांडयेवयलो सकल देंवन मांजराची शेंपडी ओढटालो त्या क्षिणाचें वर्णन आवयची शब्बुली मावशी आयज लेगीत करता, आनी मागीर म्हज्या मनांत एक विचार येता, मनशाक कोणूय मेलो गेलो जाल्यार दुख्ख जावचेंच तरी कित्याक ? बापायच्या मढ्या म्हऱ्यांत म्हज्या सारको पोर मांजराकडेन जसो तेन्ना खेळटालो तशें दर एकल्यान कित्याक करचें न्हय ?

मनीस गेलो हें कळप म्हळ्यारुच बुद्द जावप, आनी हें बुद्द जावप म्हळ्यारुच दुख्खाची मशाल.

म्हजें आवयक बुद्द जाल्ली, काळजाक ! काशोद पळोवन आवयक परत दुख्खाचे यादीन धसधसपी भरो फुटको.

' किते दवल्लां तुज्या बापायन ? जोडलें–जोडलें आनी खालें, फाल्यां बाबा, बायल भुरगीं आसात म्हण एक मरपळेचो पोड केलोना, एक कांकण केलेंना, काळ्यो पिड्डुको गुंथून मर्णा केलो, आपलें धोवपण गाजोवपाक ! आनी सगळें ना–नपय करुन आपूण वचोन बसलो; आमी काडटात आतां त्रास !' मागीर म्हाका पळोवन नास पुसीत आवय म्हण्टा–

' फुटक्या नशिबाचो तूं, तूं जावन कांय बरें बांवना, भोग आतां– '

आवयची उतरां अिंगळे कशीं म्हज्या काळजार पडपाक लागलीं.

ल्हान आसतना कसलोच धग लागूं नासलो. आतां कळटालें. बापायन कसलेंच येरांस म्हाका दवरूं नासलें, तें हावूंय जाणां आसलों, पुण काशोदांत पेनां आसात हें अेक खेपे आवयनूच म्हाका सांगिल्लें.

' भितर पेनां आसात तीं काडटां. ' हांवें थंडसाणेन म्हळें.

' तितलें मतींत दवल्लां बरें. तरी बरें पेटो भरून खजिनो दवरूंना म्हुणोन ' आवय - चणचणत परत आबोलीं काडपाक पोरसांत गेली.

आवयन काशोद फोडपाक व्हडलोसो विरोध केलो ना हाचेवरसून तें म्हज्यान फोडपाक जाता अशें धरून हांवें आनीक एक अेक धपको घालो.

तिसऱ्या धपक्याक कलयाद तुटलें. काशोदांतले जल्ले भूस्स करून भायर येवंक लागले. धपक्याच्या नेटान काशोद म्हज्या हातातलें सुटून ओमयें पडलें. काशोद म्हज्या बापायचें —

भितर, कागदां वायटेन खाल्लीं; चल्ल्यांनी आनी हेर जिवांनी खाल्लीं. कागद जायत्या भासांचीं. तीं वाचपाची तांक म्हाका नासली.

सगळी कागदांची रास कडेक काडून अुडयली आनी म्हजी नदर पेनां सोदूंक लागली.

तें भांगराच्या बुकलाचें पेन मेळटलें; मागीर, तातूंत हांव तींत भरतलों आनी चोपडेर बरयतलों, इतलेंच न्हय शाळेंत सगळ्या भुरग्यांच्या पेनांपरस म्हजेंच पेन बरें आसतलें. सगळे भुरगे म्हज्या पेनाक तुकुतुकू करून नसायेन पळेतात असो म्हाका भास जालो. पेनाक पळोवन मास्तर लेगीत विचारतलो—

' पेन कुणी दिलें रे ? ' पेन दिलेंच म्हुण विचारपाचें. बरें पेन खेवपाची मास्तराक लेगीत अैपत नासली, तेन्ना म्हज्या सारकिल्याची गत खंयची !

पेनाची सुंदर कल्पना करीत हांवें कागदां अुस्तिलीं, पुण भांगराच्या बुकलाचें पेन मात मेळ्ळेंना.

दोन - तीन आपार आनी जीब नाशिल्लीं पेनां म्हळ्यार पोके - फोके खोके गडगडून वानांत गेले. काशोद फोडपाक हांव चौखे वयल्या वानार बशिल्लों. वानांतलीं पेनां काडलीं. आपार आनी जिब्रो ना त्यो पळोवन खोके रागान जमनीर माल्ले.

आवयन केला तरी पळयिल्लें तें भांगरा बुकलाचें पेन राजकुंवराले काणयेंतलें वायचें पेन कशें दिसलें.

भीवी गाण चिरूक येनाशिल्ले म्हजे आवयन कितें पळयिल्लें देव जाणा. काशोद काडून हांवें नेटान बमनीर आपटिलें. काशोदाच्या भाण्याच्या मदेकाक भितल्ल्यान इल्लेंशें बोल्स कशें पत्र्याचेंच पाकीट आसलें, त्या पाकीटांतल्या एका तांबड्याच फोळीच्या कुडक्याचेर म्हजी नदर पडली.

बोट घालून भायर येना म्हूण हांवें काशोद परत परतें केलें आनी हालोवन तें कागद ओडून भायर काडलें.

एक तांबडे फोलाची गुटली. हांवें हातांत घेवन अळंग अुकती केली. सहज म्हणून. आतां ते गुटलेंत पेन सोड, पेनाचो आपार लेंगीत आसप शक्य नासलें तें म्हाकाय बरेभशेन खबर आसलें.

ती तांबडे फोलीची गुटली उगडिना फुडें एकदम सात - आठ चकचकीत थिकां चमचम करून शेणान सारयिल्ले बमनीर पडलीं. पाख्यांतल्यान पाझरतल्या सुर्याच्या किरणांनी तीं थिकां हय - न्हय - शीं चकचकलीं. थिकां पारखुपाची तांक येवपाक थिक बल्यांत पळोवं नासलीं. त्यो फुटिल्ल्या भिंगराच्यो कंवच्यो म्हणून एकठांय केल्यो आनी आवयकडेन व्हरून दिवपाक भायर आयलों.

आवयच्या हातांत कुरपणो. कुरपण्यांत तांबडीं-ताल रतन आबोलीं. आबोल्यां-वयली नदर आवयन म्हजेवाटेन वळयली तेन्नां हांवें म्हळें : ‘ आवो काशोदांत ह्यो कंवच्यो मेळ्ळ्यात. ’

‘ कंवच्यो मरें, मागीर म्हाका कितें दाखयता ! हिरे दाखयिल्ल्या भाशेन ! ’

‘ पळे तरी गे ’ हांवें हात फुडें केलो, तसो आवयन म्हज्या हातार आपलो हात इतल्या फोर्सान माल्लो कि परत ती कंवच्यांची गुटली भुंयचेर पडली. म्हाका त्या चकचकीत दिसपी थिकांची मजाच दिसली. हांवें परत तीं सगळीं एकठांय केलीं आनी कांगानी खेळटाना शिपयांच्या कुडक्या मुखातेर उपेग जातलो म्हुण तीं शाळेंत घेवन वचपाचें थारायलें. इतल्यांत मनांत पेनाचो उगडास जालो. फाल्यां मास्तरान पेन हाडूंक सांगलां, ह्यो कंवच्यो दिल्यार शंभुल्या पसऱ्यार पेन मेळत काय ! बापायल्या काशोदांत पेन मेळपाची आस सोंपिल्ली. आवयक तर पेन विकतें घेवन दिवपाची औरत नासली.

जेवन बी जातकच ती गुटली घेवन हांव बाजारांत गेलों. एका डोमाऱ्याले क्शेर बरीं भांगराच्या बुकलाचीं, रुप्याच्या बुकलाचीं पेनां चकचकतालीं.

'देवा, पावरे सायबा, म्हज्या ह्या कंवच्यांच्या बदलाक एक तरी पेन दिल्यार पुरो '– हांवें मनांतल्या मनांत देवाक अुलो माल्लो आनी त्या डोमाऱ्या म्हऱ्यांत गेलों.

'म्हाका पेन जाय' हांवें ती गुटली फुडें करीत त्या डोमाऱ्याक म्हळें.

'पेन जायें मरे रुपया दी.'

'म्हजेकडेन रुपया ना, हें आसा.'

'रुपया ना, मागीर फुकट्यांत पेनां तुजो बापूय घेवन बसला! चल कूस मार' अशें म्हणत ताणें म्हजे बडबडीकडेन कान दिनासतना दुसऱ्या गिरायकाक कितें जाय तें विचाल्लें.

म्हजी आशिनाशिल्ली आस काबार जाली. हांव तसोच मात्सो मुखार गेलों.

पेन, चोपडी, शाळा, मास्तर, भुरगीं आनी हांव, म्हजे म्हाकाच हांवसो पेनान बरयतां, चवथेचीं भुरगीं, ओप्रेंतलीं पोरांशीं म्हाका तोखेतात. शेजारचे भुरगेय नसायेनशे म्हाका म्हण्टात, 'तुका बरें पेन मेळ्ळां आं.' सपनेतां – सपनेतां हांव एका पसऱ्या सामकार पावलों. त्या पसरकाराल्या नाबीच्या हारशाचे फासकेंत चकचकीत बरीं पेना म्हजे नदरेक पडलीं.

आनी विचारून पळोवंया म्हुण हांवें म्हजी तांबडी कागदाची गुटली मुखार करीत म्हाका पेन विकतें जाय म्हणपाचें सांगलें.

'देड रुपया' – पसरकारान तांबरेतीर अुबो रावन पेन काडीत म्हळें.

'म्हजेकडे देड रुपया ना, पुण हें आसा.' पेनाक घाल्लो हात पसरकारान फाटीं काडलो. आनी 'फकाणांक आयला!' अशे नदरेन म्हाका रागान पळेलो. आनी म्हज्या हातांतले गुटलेक पळोवन 'हं' करपाक तो मातसो दचकल्यावरी जालो. अजापभरीत जायत तो तामरेती वयलो सकल देंवलो, आनी 'कितें हाडलां, कितें हाडलां' अशें घेंगश्यानीच म्हणत ताणें म्हज्या हातांतल्यो त्यो कंवच्यो घेतल्यो. 'हँ...हँ... कितें रे, हें लंयचें हाडलां!'

'घरच्यो त्यो पोन्न्यो, हांच्या बदला म्हाका पेन जाय '— हांवें मियेत म्हळें.

पसरकारान म्हज्यो चकचकीत कंवच्यो नदरेखाला घाल्यो. खीणभर तो मातसो आजूब बाल्ल्याभशेन आपलेच भोवतणी घुंवलो. आनी एक फेरो मारून ताणें फुडें पुडे जोंत्तस्या जानूक ओर्द सोडली.

'जानू, हे त्या भुरग्याक तें एक बरेंशें पेन दी.'

पसरकारालीं तीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं खरीं, पुण पसरकारान खन्यांनीच म्हाका पेन दिवपाक सांगलां हाचेर म्हजो विश्वास बसना जालो, पुण मुखार तकली वयर करून पळे जाल्यार खरेपणीच जानू तामरेतीर पेन काडूंक वयर चडिल्लो.

पसरकार कौतुकान त्यां कवच्यांकडेन पळेतालो. आपणाक कोण पळें बी ना मू म्हूण पसन्या भायर पळेतालो. चोर नदरेन!

'घे- ' जानून म्हज्या हातार चकचकीत बुकलाचें पेन दवल्लें.

मळबांतले लाखानी सूर्य म्हज्या हातांत पडिल्ल्याची खोस म्हाका जाली.

हांवें आनी पळेल्लां, पसरकारान त्या कंवच्यांचें कितें केलां, तांचें मोल कितें बी तें कांयच विचारी नासतना उपाट उमंदीन हांव पेन घेवन नाचत घरा आयलो. फाल्यां शाळेंत पेन घेवन वचपाचें, पेनान बरोवपाचें, भुरग्यांमदीं पेन घेवन मिरोवपाचें! हें... ववंयचो भुरगो, पेनान बरोवपी देवळांतलो कमाविसदार कसो, मस्करी न्हंय!

आनी खन्यांनीच हांवें पेनान बरोवपाक सुरवात केली.

बापायल्या काशोदांतलेंच तें पेन मेळिल्ल्याची खोस म्हाका जाल्ली.

X X X

खूब वर्सां जालीं. हांव पेनान बरयतां—पुण एक दीस कितें जालें, बापायचें काशोद फोडल्लें थंय तें तांवडे फोलींत गुटलायिल्ल्या त्या कंवच्या मदल्यो कांय कंवच्यो थंयच पडिल्ल्यो दिसता, त्यो त्या दिसा आवयन एका कुडक्याक बांदून आपल्या ट्रंकांत दवरिल्ल्यो.

पयरूच कित्याकशें लागून हांवें आवयचें तें पत्र्याचें ट्रंक अुस्तीलें. तेन्ना ती गुटली म्हज्या हाताक लागली.

बऱ्याच वर्सां फाटलो उगडास जावन हांवें परत एक फावट म्हाका पेन दिवपी त्या उरिल्ल्या कंवच्यांचेर नदर घालपाक म्हणून गांठ सोडयली. तांचो तो तेन्नाचो चकचक झगझग कमी जावंक नासलो.

खीणभर मनात विचार आयलो, त्यो व्हरून खंयच्याय शेटीक कित्याक दाखवच्यो न्हय ? कसलीं थिकां-तीं तरी पळोवंया.

एक दीस उगडास चाल्लो आसतनाच एका शेटीक तीं कंवच्या रूपांतली थिकां दाखयलीं.

शेट दोळे मोटे करून म्हाका अजापान पळेत अुल्लो. भानार येवन ताणें म्हाका म्हळें.

'हं....हॅं..तुमचें घराणें मुळचेंच गिरेस्त. म्हणटकच असलीं मोलाचीं थिकां आसपाचींच, हं...हं.. आरे जाण्टेल्यांचें येरांस तें. सांबाळून दवरूंक जाय ...हॅ...हॅ घराची धनदौलत!!!..'

हांवें दोनूय थिकां शेटील्या हातांतलीं घेतली आनी हूं ना चूं करतां यंयऱ्यान कूस माल्ली.

पेन घेवपाक भुरगेपणांत त्या पसरकाराक दिल्लीं थिकां म्हज्या दोळ्यामुखार चकचकूंक लागलीं.

त्यो चकचकीत कंवच्यो घट्ट धल्ल्यो आनी घराकडेन पिकिल्ले कैंस अुगयत बशिल्ले म्हजे आवयक म्हज्या बापायचें येरांस दाखोवपाक हांव धांवत सुटलों.





जें नदरेक भरता आनी जंय कथेचें बीं आसता अशे वास्तवतेक शब्दांनी चित्रावपाचें आनी जिवें तट्टीत करून रसिक वाचप्यांमुखार दवरपाची कळाशी गवसल्ले कोंकणी कथाकार एन. शिवदास. तांका तांची कथा खंय आनी कशी मेळत सांगूं नज, देखून खंयच्याय वाठाराचेर तांची नदर थिरावल्ली आसता तेन्ना तो वाठार कोंकणी साहित्यांत अुतरांच्या रुपान अवतरतलो अशी खात्री बाळगुवी. अेकेच स्टायलीन जांव अेकाच फॉर्माचो शिक्को मारून घेनासतना अुस्फुर्त कथा सोपेपणी मांडपाची तांची पद्दत. सतत बरयत आशिल्ल्यान तांचे कथेक अेक आगळो वेगळो साज चडत आसा. तांचे कथेचीं विविध आंगां आनी सवंगां घडये आमीय आसूं येतात, तुमीय आसूं येतात.

(ह्या पुस्तकाक गोंय कला अकादमीचें मानधन फाव जालां.)